श्री० किरण कुडतर्डे
यांस स.प्रे.
नरेंद्र का. कामत

# हंतम

नरेंद्र का. कामत

हंतम

कादंबरी

नरेंद्र का. कामत
फोन २३९२६१२ / ८२७५२६१२०५

पयली उजवाडावणी
२०११



उजवाडावपी
सन्मित्र प्रकाशन
एफ ६ पराग को. हावझिंग सोसायटी
शांतीनगर फोंडें-गोंय ४०३४०१
फोन २३१२६९२
मो. ९४२२६४०२१०

अक्षर जुळवणी आनी छापणावळ
कस्तुरी ग्राफिक्स

मोल- १६०/-

चत्राय-

हे कादंबरींतलीं सगळीं मनशां, तांचीं नावां आनी घडणुको काल्पनीक आसात. तांचो संबंद खंयच्याच मेल्ल्या वा जित्या मनशांकडें, तांच्या नावांकडें वा घडणुकांकडें जोडचो न्हय.

-लेखक

कोंकणीतल्या
सगळ्या म्हान कादंबरीकारांक
म्हजी ही ल्हानशी कलाकृती
आदरभावान ओपतां.

—न. का. कामत

# दोन उतरां

म्हजी ही पयलीच कादंबरी तुमच्या हातांत दितना म्हाका हिसपाभायर खोशी भोगता. आयुश्याची सांजवेळ जाल्या पुणून लिखाणाचे बाबतींत सकाळूच आसा अशें म्हाका अजुनय दिसता.

पन्नास वर्सांपयलीं जेन्ना कादंबऱ्यो वाचपाच्या वेसनांत पडिल्लों, तेन्नाच कादंबरी बरोवपाचो मनांत संकल्प केल्लो. बरोवपाचें थारावप आनी बरोवन जावप हातूंत कितलें अंतर आसता हें म्हाका बरोंवक सुरवात करतकच कळिल्लें. खुपशे फावटीं यत्न करूनूय बरोवप जमूंक नाशिल्लें. थोडेशें बरोवन जातकच मनासारकें बरोवन जांवक नाशिल्ल्यान लिखाण अर्द्यारूच सोडटालों. मागीर कादंबरींचें लिखाण मातशें कुशीक दवरून हावें बाकीच्या लिखाणाकडे लक्ष दिलें. मराठींतल्यान आनी कोंकणीतल्यान वृत्तपत्रीय लिखाण केलें. आकाशवाणी खातीर नाटकुलीं आनी उलोवपां बरयलीं. सुनापरान्तांतल्यान आनी जाग मासिकांतल्या थोड्या कादंबऱ्यांचे अणकार उजवाडायले. स्वतंत्र, अणकारीत, आधारीत, बालसाहित्य आनी नाटक अशीं मेळून बारा पुस्तकां उजवाडाक हाडलीं, पुणून कादंबरी बरयलीना, ही खंत मनांत घर करून राविल्ली. आतां ती खंत पयस जाल्या. मन प्रसन्न जालां. शरिरान साथ दिली, मती जाग्यार उल्ली आनी हातांत बळ उल्लें जाल्यार आनिकूय बरोवपाची इच्छा आसा. पळोवया! इश्वरेच्छा बलियसी!

तुमी वाचक म्हजे हे ल्हानशे कलाकृतीचें व्हड मनान स्वागत करतले अशी आस्त बाळगून ती तुमचे सुवादीन करतां.

– न. का. कामत

घण-घण-घण

मेरशेचे इगर्जीच्यो बारा घांटी वाजल्यो. बारावे घांटीचो आवाज हवेंत विरचे पयलींच आनीक एक व्हडलो आवाज जालो.

पणजे आगशी मुखेल रस्त्यासावन दोन मिणटांचे वाटेर आशिल्ल्या 'यशोधन' बंगल्याचें फुडलें दार कोणेतरी नेटान धापिल्लें.

त्या आवाजाक लागून थंय लार्गींच आशिल्ल्या पणजे वचपाच्या बस थांब्यावयल्या लोकांच्यो नदरो पयलीं त्या धापिल्ल्या दाराचेर आनी मागीर थंय उबी आशिल्ले बुर्याले चलयेचेर पियाचेर गेल्यो.

पियान निळ्या जीन पेंण्टीचेर धवो स्लिवलेस ब्लावज घाल्लो. मुदयाळ्या रस्मी केंसांक काळो बो बांदिल्लो. ताचें मुखामळ रसरशीत आनी हांसतें आशिल्लें. गोरपाण गुलाबी आशिल्ली. पळेतल्यान पळेत रावचें इतलें तें देखणे आशिल्लें. ताच्या दाव्या हातांत एक सुटकेस आशिल्ली.

रोखडेंच बंगल्याचीं सोपणां देंवून तें रस्त्यार आयलें आनी थंय लार्गींच थांबिल्ले एके टेक्सींत बसून पणजेचे वाटेन खंयतरी गेलें.

"दनपारची वेळ, सूर्य माथ्यार, असल्या रखरखत्या वतांत हें एकलेंच खंय गेलां? तागेली स्कुटर आनी बुर्याली मोटार गेरेजींत आसा. स्कुटर वा मोटारीबगर केन्नाच भायर न सरपी हें चली टेक्सीन कित्याक गेलां? हातांत सुटकेस आसा म्हणटकच तें खंयचेतरी पयसुल्ले भोंवडेक गेलां जातलें. जाल्यार ताका निरोप दिवपाक कोणूच कसो भायर येंवक ना? आनी दार इतल्या नेटान कोणे धापलें?" बस थांब्यार उबे आशिल्ल्या

लोकांमुखार एक व्हडलें प्रस्नचिन्न उबें रावलें आनी भासाभास करपाक तांकां एक नवो विशय मेळ्ळो.

तांची ती सदचीच सवंय आशिल्ली. चर्चा करपाक तांकां कसलेंय कारण पुरो जातालें. बसीची वाट पळेतां पळेतां ते थंय कोणाल्योय आनी कसल्योय गजाली करताले. स्वताच्या संसारापरस दुसऱ्याल्या संसाराच्यो गजाली करपाक आनी तांगेलीं उणी दुणी काडपाक तांकां चड खोस भोगताली. कसलेय सादे घडणुकेचेर लेगीत थंय रोखडीच चर्चा जाताली आनी ते चर्चेंत वांटेकार जावन दर एकलो आपलें मत आपणाक जाय तेबशेन उलोवन दाखयतालो.

''बुर्याल्या घरांत कितेंयतरी घडलां अशें दिसना तुका?'' एकल्यान दुसऱ्याक विचाल्लें आनी मागीर भासाभासीक सुरवात जाली.

''तशें तें घडपाचेंच! असल्या अडेच्या सावकारांगेर मदीं मदीं कितेंय ना कितें घडटा, आनी मागीर तें अशेतरेन भायर सरता! बरेंच कितें घडलां आसतलें! तें चेडूं कितल्या नेटान गेलां तें पळयलां न्हूं तुवें?''

''आनी दारूय तेणेच धापलां जातलें इतल्या नेटान! कोणालो तरी राग काडला आसतलो दाराचेर!''

''तुका हांव एक सांगता! सावकार अडेचो जांव ना जाल्यार निजाचो, भुरग्यांचेर बरे संस्कार जालेना जाल्यार अशें घट्टा! तांकां जाय तेंच तीं करतात!''

''तूं जाणां, बुर्यालें चड अपुबार्येचें चेडूं तें! तें कितें म्हण्टा तें तो करता आनी तें कितें मागता तें तो हाडटा! असल्यांनी तें माथ्यार बसलें जाल्यार अजाप न्हूं!''

''बापायलो पैसो दिसता तेका दोळ्यांसामकार! भयंकर गर्विश्ट जालां तें! वाटेर दिसल्यार हडकिलेगीत ना! आपलेच मस्तेंत चलता म्हाराणी कशें!''

''तागेलो बापूय खंय कोणाक हडकिता? जाचेकडल्यान फायदो जाता, ताकाच तो वळखता आनी बाकिच्यांक वळखून वळख दाखयना!

ताचीच चली ती! खाण तशी माती आनीक कितें?''

''कितेंय जांव, भुरग्यांक इल्ली तरी शिस्त जायच! शिस्त नाशिल्लीं भुरगीं आनी दावें नाशिल्लीं गोरवां सारकीं! केन्ना खंय पावत म्हणून सांगपाक नजो!''

''बुर्याले शिस्तीक लाय व्हरून चुट्टी! तेच्यान लांवच्याक जाता भुरग्यांक शिस्त?''

''ही चली अशी जाल्यार चलो तो तसो!''

''तसो म्हटल्यार?''

''आगा इतलो शिकलेलो हो भुरगो रस्त्यार उबो रावन पेपर विकता! भिकेचे दुवाळे न्हूं हे?''

''त्या पेपरांचें म्हंण्टा तूं? एके हिन्दू संस्थेचे पेपर ते? ते विकून संस्थेक फायदो करता तो! सकाळचो पेपर विकता, आनी दीसभर तेच संस्थेंत काम करता बरोवपाचें!''

''पळोवच्याक सामको सादो दिसता न्हूं? कपडेय बीन सादेच घालता!''

''सादो? कट्टो हिन्दुत्ववादी आसा तो! हिन्दू धर्म सोडलो जाल्यार दुसऱ्या खंयच्याच धर्माक वळखना! बाकीच्या धर्माचे लोक दुस्मान कशे दिसतात ताका! तागेल्या सादेपणाचेर वचूं नाका तूं!''

''तशें जाल्यार आपले भयणीक एका किरिस्तांवाच्या चेड्यावांगडा भोंवपाक कसो दिता तर तो? केन्ना केन्नाय तागेले मोटार सायकलीवयल्यान भोंवतना दिसता मरे ती, ताचे कमरेक घट्ट वेंग मारून!''

''तें चेडूं तेंका आयकूंक नाका? बापायक आनी भावाक बसयला तेणें खुट्यार!''

''पूण तो चेडो एकदीस तेका फोणांत घातले बगर रावचोना आं!''

''घालूं रे फोणांत नाजाल्यार कोणांत! आमकां कितें? करीत तो भरीत!''

“बुर्याची बायल मात सामकी भांगर मनीस न्हूं?”

“भांगर? साक्षात लक्षुमी आसा ती! तिचें पावल घरांत पडटकीच पैशेकार जाला तो! पयलूं तेका कोंण मस्णो खातालो? पोरण्या स्कुटरीचेर बसून ऑफिसाक वयतालो!”

“कितेंय जांव, ती त्या घरांत येयल्ल्याक कोणाकूय पेजनिवोळ मेळटा तिच्या हातचो! मागले जाल्यार धा वीस रुपये तरी दिताच ती!”

“पूण घोवाचे असवडीं आं! तो उलयत म्हणून सामकी भियेता बाबडी!”

“बऱ्या घरच्यो चलयो मरे अशोच आसतात! बरे गूण घेवन येतात त्यो घोवाल्या घरांत, घरपण राखून दवरच्याक!”

तांगेल्यो खबरो सामक्यो रंगार आयिल्ल्यो आसतनाच, पयसुल्ल्यान पणजे वचपाची बस येतना दिसतकच एकल्यान व्हडल्यान म्हळें, “भोंगूं तें बुर्यालें पुराण! ही पळय बस येयली! या आमी आमच्या कामाक!”

बस थांबतकच थंय गजाली करीत उबे आशिल्ले सगळे लोक बसींत बसून आपापल्या कामाक गेले आनी थोड्या वेळापुरतो तो बस थांबो शांत जालो.

बस थांब्याबयले लोक बुर्याच्या आनी तागेल्या घरच्यांच्या संबंदान जें कितें उलयताले, तातूंत इल्लीय अतिताय नाशिल्ली. बुर्यो आपणाक व्हडलो मनीस समजतालो. तो चडसो पैशेकारांमदींच वावूरतालो. जाचेकडल्यान फायदो जांव येता ताकाच तो वळखतालो आनी बाकिच्यांक वळखून वळख दाखयनाशिल्लो. नव्या मनशाकडें वळख करतना असिश्टंट डायरेक्टर ऑफ आग्रिकल्चर हे सांगपाक तो विसरनाशिल्लो.

सादो कारकून म्हणून शेतकी खात्यांत कामाक लागिल्लो बुर्यो एक एक सोपण वयर चडत आयज त्या खात्यांत सहाय्यक संचालकाचे

कदेलीचेर बशिल्लो. बरें काम केल्लें म्हणून न्हय, वा वरिश्टपणाक लागुनूय न्हय, जाल्यार वयर सरपाखातीर कितें कसरत करची पडटा तें तो बरेतरेन जाणा आशिल्लो.

तो जसो जसो नोकरेंतलीं सोपणा चडटालो, तशें तशें तागेलें, आर्थीक बळगें वाडटालें, आनी जेन्ना तो असिश्टंट डायरेक्टर जालो, तेन्ना ताका त्याच गांवांत एका भितल्ल्या वाड्यार आशिल्ल्या ल्हान घरांत रावपाक लज दिसूंक लागली. मागीर तांणें मुखेल रस्त्याचे कडेची जमीन मालक सांगता त्या मोलाक विकती घेतली आनी थंय बंगलो बांदलो. मेळिल्ल्या यशाचे आनी धनाचे यादस्तीक म्हणून आसुंये तांणे त्या बंगल्याक यशोधन नांव दवल्लें.

यशोधन बंगलो सुंदर आशिल्लो. एका पोर्तुगेज शिल्पकारान त्या बंगल्याचो नकसो काडिल्लो. नवे पद्दतीन बांदिल्लो तो बंगलो ताका लायिल्ल्या तांबड्या आनी केशरी रंगाक लागून, येतल्या वतल्या लोकांच्यो नदरो आपणांकडे ओडून घेतालो.

बंगल्याच्या भोंवतणच्या विटाच्या देट्टयाक, ताचेवयल्या खामल्यांक आनी फुडल्या फाटकाच्या दाराक लायिल्ल्या रंगाची जुळवणी बेस बरी जाल्ल्यान बंगल्याची सोबा खूपशा पटींनीं वाडिल्ली.

बंगल्याची भितल्ली सजावट बुर्यान एका बऱ्या डेकोरेटराकडल्यान करून घेतिल्ली. भायल्यान आनी भितल्ल्यान सुंदर असो तो बंगलो कोणेय तुस्त करपासारको आशिल्लो.

बंगल्याचे फुडले वाटेन वसून फुलबाग केल्ली. कोणाचीय नदर लागची इतलीं सुंदर सुंदर फुलां थंयच्या झाडांचेर आनी वेलींचेर फुलतालीं. बंगल्याचे दावे आनी उजवे वाटेन बुर्यान बरे जातीच्या फळ झाडांचीं कलमां शिस्तीन रोवन घेतिल्लीं. बंगल्याचे गलेरीचेर पियान पितुळच्या सरपळ्यांचो झोपाळो लांबयल्लो. वताचीं किर्णां त्या सरपळ्यांचेर पडलीं म्हण्टकच त्यो भांगराबशेन चकचकताल्यो. कोणेय बंगल्याची तुस्त केली म्हण्टकच बुर्यो खोशी जातालो आनी त्या बंगल्याचे

बांदावळीचो सगळो इतिहास ताका अभिमानान सांगतालो. विटो खंयसून हाडल्यो, मार्बल खंयसून हाडले, फुडल्या दाराक कितले हजार लागले. सगळो सगळो.

तो जेन्ना हेड क्लार्क जालो तेन्ना ताचें लग्न जाल्लें. वसुंधरा बऱ्या घरची बऱ्या गुणाची चली. आस्तिकाची आसुनूय गर्व नाशिल्ली.

बुर्याल्या पयलींच्या ल्हानशा घरांत तिणें बरेतरेन संवसार केल्लो. भायल्या भितल्ल्या सगळ्यांक सारकी. अडिल्ल्यांक वेळार पावपी. वाड्यावयले सगळे लोक तिका मानताले. तिचे गूण गायताले.

एकदां पावसाच्या दिसानीं रातीच्या वेळार वादळ जावन तिगेल्या घराचे वासरेर माड पडिल्लो. तिणें एकल्याक उलो माल्लो, पन्नास लोक धावून आयले. सकाळ जावचेपयलीं माड कुशीक काडून तांणी वासरी पयलीं बशेन केल्ली. बुर्यो तांकां पैशे दितालो, पुणून तांणी ते घेतलेना. वसून दिल्ल्या च्यान आनी गोड उतरांनी आठयल्ल्या उपकारानूच तांचे कश्ट पैस जाल्ले. वतना तांणीं म्हणिल्लें, ''भाटकान्नी आमी आसतना तूं भियेंव नाका! खंयच्याय संकश्टाक तूं आमकां उलो घाल, आमी आयलेबगर रावचेना!'' आनी दिल्लें उतर ते सदांच पाळटाले.

लग्नाच्या दुसऱ्या वर्सा वसूगेर चलो जालो. सगळें घर खोशयेन भल्लें. बारशादिसा वसून व्हडलो बेत केलो. सगळ्या वाड्याक जेवण घालें. ''जेवण कित्याक घालूंक जाय'', अशें बुर्यान म्हणिल्लें, पुणून तिणें सांगलें ''जेवण घाल्लें खंय वचना! देव आमकां खूप दितलो!'' आनी खऱ्यांनीच देवान तांकां खूप दिल्लें. गरजे परसूय चड!

पुताच्या रुपान आपल्या घरांत सुखाचो उदेव जालो अशें दिशिल्ल्यान वसून ताचें नांव उदय दवल्लें. आपल्या त्या सुखाच्या ठेव्याक ती मातूय पातयेनाशिल्ली. दुसऱ्या कोणाक ताका हात लांवक दिनाशिल्ली. ताचें सगळें काम ती स्वता करताली. फकत घाणीचे कपडे तितले वावराडेकडें उडयताली.

सुखाच्या दिसांनी तिका एकेच गजालीचें दूख जाल्लें. नातवाचें तोंड पळोवचे पयलींच तिगेली मांय भायर पडिल्ली. ती बरी मनीस आशिल्ली. सुनेक मायेन वागयताली. नातवाचें तोंड पळोवपाची तिची इत्सा आशिल्ली, पुणून दिसांच्या जोराचें निमित्त जावन गेल्ली. वसूचे मांडयेर मान दवरून तिणें प्राण सोडिल्लो. तिका मुक्ती मेळची म्हणून वसून खूप दान केल्लें. घोवाकडल्यान तिचो फोटो व्हडलो करून हाडिल्लो आनी तो वण्टीक लावन ती सदांच ताका फुलांचो हार घालताली. तोवूय आपल्या हातांनी गुंथिल्लो. उदय जावन पांच वर्सां जालीं तरी तिगेर दुसरें भुरगें जालेंना. दुसऱ्या भुरग्याखातीर आनी चड करून चलयेखातीर तिचो जीव आशेतालो.

उदय बालवाडींत वतकच घराकडें जेन्ना ती एकटीच उरताली तेन्ना तिका आपणाक आनीक एक भुरगें आसचें अशी उमळशीक लागताली.

दुसऱ्या भुरग्याखातीर आनी चड करून चलयेखातीर तिणें कोण कोण कितें कितें सांगता तितलेंय केल्लें. कोणें तिका सोळा सोमार करपाक सांगलें. तिणें ते केल्ले. कोणें संतोशी मातेचे शुक्रार करपाक सांगलें तेवूय ती करताली ती मंगळराचो उपास करताली. लोकांचे सांगणेन ती पंढरपुराक विठ्ठल रखुमाईच्या दर्शनाक गेल्ली. शिर्डीक वचून साईबाबाचे मूर्ती फुड्यांत तिणें नाक घाशिल्लें. दोनशें परस चड सोपणां वावराडेच्या आदारान चडून वचून तिणे चंद्रेश्वराचें दर्शन घेतिल्लें आनी यल्लामाचे जात्रेक वचून तिणें तिचे फुड्यांत नाल्ल फोडिल्लो आनी चलयेखातीर आंगवण केल्ली.

तिणें केल्ले भक्तीन प्रसन्न जावन खंयच्यातरी देवान तिगेली मागणी मानून घेतिल्ली. थोड्याच तेंपान तिगेर एक चली जाल्ली. गोरी गोरी पान, मुदयाळ्या केसांची, कळयेसारक्या नाकाची आनी तांबड्या गुंज ओठांची. देवान दिल्ले ते चलयेक खंय दवरूं आनी खंय नाका अशें तिका जातालें. आपल्या जिवापरसूय ती ते चलयेचेर चड मोग करताली. अप्सरे सारकी देखणी आशिल्ले आपले चलयेक कोणाचीय दिश्ट लागत

म्हणून ती भियेताली. सदांच रातची ती तिची दिश्ट काडटाली आनी तिच्या कपलाक साईबाबाची उदी लायताली. आपले बशेनूच सगळ्या लोकांनी आपले धुवेचर माया करची अशें तिका दिसतालें. खूपशा नांवाचेर येवजून जातकच घोवाबायलेन एकमतान चलयेचें नांव प्रियांका दवरलेलें. पुणून तीं दोगांय तिका अपुर्बायेन पिया म्हण्टालीं.

देवान चली दिवन आपली इत्सा भागयली म्हण ताचेवयली वसूची स्त्रद्धा पयलीं परस चड वाडिल्ली आनी ती तशीच उरची म्हणून ती ताचेकडें प्रार्थना करताली.

देवाची प्रार्थना म्हंण्टना तिका एके बायल मनशेची याद जाताली, आनी तिका बरे दीस मेळूं अशी ती ताचेकडेन मागणें मागताली.

पंढरपूरचे यात्रेक गेल्ली थंय तिका ती बायल मेळिल्ली. देवाचें दर्शन घेवन जातकच भिकाऱ्यांक दान दितना तिका ती दिशिल्ली.

एके कुशीक एकटीच बसून ती भीक मागताली. ती दिसतकच तिका भीक घालपाखातीर वसू तिचे म्हऱ्यांत गेल्ली. वाडील्ल्या वयाचे ते बायलेचे चडशे केंस धवे जाल्ले. तिच्या आंगार एक पोन्ने जुनेर आशिल्लें. तिची आवतीकाय पळोवन वसूक तिची काकूळट दिशिल्ली. पुणून तिगेले थाळयेंत पैशे उडयतना जेन्ना तिणे ते भिकारणीच्या तोंडाकडे पळेल्लें, तेन्ना तिच्या सात्वीक मुखाचेर आशिल्लें तेज पळोवन ती थक्क जाल्ली. तिचेविशीं मनांत आदर उत्पन्न जाल्लो.

तिगेले थाळयेंत पैशे उडयतकच वसूक तिणें एक गोड आशिर्वाद दिल्लो. तिणें म्हणिल्लें, ''तुजें बरें जांव गो बाय, कल्याण जांव! तुगेर तुजे सारकीच एक सुंदर चली जांव!''

तिगेलो आशिर्वाद आयकून, ती आपल्या मनांतलें वळखली हे खोशयेन, वसून तिगेले थाळयेंत एक शंभर रुपयांची नोट उडयल्ली.

संतुश्ट जावन तिणें वसूक परतून तसोच आशिर्वाद दिल्लो. तुगेर तुजेसारकीच चली जांव ही तिगेलीं उतरां आयकून वसूचे आंगार खोशयेन कांटो उबो राविल्लो. ते बायलेची याद जाली म्हंण्टकच आपणाक

चली दिवपांत देवा वांगडा तिचोय वांटो आसा अशें तिका दिसतालें, आनी ती तिचेय उपकार आठयताली.

जेन्ना ती देवाचें नामस्मरण करताली तेन्ना तिगेल्या धापिल्ल्या दोळ्यांसामकार केन्ना केन्नाय एक देवी उबी रावताली आनी तिचें मुखामळ ते बायलेबशेन आसा असो भास जातालो. ती बेगिबेगीन दोळे उगडटाली. मुखार कोणूच ना हें पळोवन, तो आपल्याच मनाचो खेळ आसा, हें तिका कळटालें. तिच्या मनांत जें कितें वसतालें तेंच भासाच्या रुपान दिसतालें. तिचे मनांत ते भिकारीण बायलमनशेविशीं जी स्त्रद्धेची भावना आशिल्ली तीच भासाच्या रुपान प्रकट जाताली.

दोनूय भुरग्यांचे लाड जातालें. देवाकडे मागून घेतिल्ली चली म्हणून पियाचे इले चडूच. अतीच म्हळ्यार जाता. घरांत भरपूर पैसो येतालो. भुरगीं म्हण्टा तें तांकां मेळटालें. तांच्यो मागण्योय वाडटाल्यो.

उदयान खंयचीय वस्त मागली आनी ती मेळपासारकी आसली जाल्यार ताका ती मेळटाली. मागिल्ली वस्त मेळ्ळीना जाल्यार बदलाक दुसरी वस्त दिली जाल्यार तो ओगी रावतालो. पुणून पियाची तरा वेगळी आशिल्ली. ताका आपणें मागल्या तीच वस्त जाय आसताली. मेळ्ळीना जाल्यार तें रडून आकांत करतालें. जेवीखाय लेगीत नाशिल्लें. मागीर खंय मेळटा थंयसून ती ताका हाडून दिवची पडटाली. तेन्नाच तें रडपाचें थांबतालें.

एकदां ताका कोर्दीची बावली जाय पडली. ल्हान न्हय, देड हात लांबयेची, खंयच्या तरी भुरग्याकडें ताणें ती पळेल्ली. बुर्यान सगळे बाजार धुंडाळ्ळे आनी बावली हाडून दिली. आनीक एकदां ताका आंबो खावपाची रूच आयली. आंबो जाय म्हणून तें रडूंक बसलें. आंब्याचो सिजन सोपून गेल्लो. सगळ्याक सोदुनूय आंबो मेळ्ळोना आनी पियाचें रडप थांबलेंना. मागीर बुर्यान मुंबयच्या एका इश्टाक थंय फ्रीज बी केल्ले आंबे मेळ्ळ्यार धाडपाक सांगलें. इश्टान जेन्ना पार्सल करून आंबे धाडिल्ले तेन्नाच तें रडपाचें थांबिल्लें. ताणें ते आंबे खाल्ले

अशें न्हय पुणून आपूण जी वस्त मागतां ती आपणाक मेळ्ळुंकूच जाय असो ताचो हट्ट आसतालो.

तें जशें जशें व्हडलें जातालें तशें तशें तागेल्या हट्टांचे प्रमाणूय वाडटालें. सदांच तागेली कितेंय ना कितें मागणी आसताली. खेळणीं आनी कपडे दवरपाक पयलींच्या घरांत जागो पावनाशिल्लो. नव्या घरांत येतकच तो प्रश्न सुटिल्लो. बंगल्यांत ताचेखातीर वेगळी कूड आशिल्ली. उंची उंची वस्तूनीं ती भरून गेल्ली.

भुरगीं इलीं इलीं जाण्टीं जातालीं. वेवस्थीत शाळेंत वतालीं. शिकतालींय बरीं. बारावी जातकच उदयान इंजिनियरिंगाक वचचें अशी बापायची इत्सा आशिल्ली. बारावेक ताका मार्कूय बरे मेळिल्ले. तांणे बापायक म्हळें, पप्पा म्हाका इंजिनियर जावपाक आवडना. हांव आर्टसाक वतां! तागेल्या हट्टाफुडें बापायलें कांय चल्लेंना. तो आर्टसाक गेलो आनी बी. ए. जालो. फुडें शीक, एम. ए. कर म्हळ्यार आयकलेंना. आनी त्याच वेळार कशें कोण जाणा ताचे गोमटेर हिन्दुत्वाचें भूत बसलें. तो एके हिन्दु संस्थेंत कामाक लागलो. सकाळचे ते संस्थेचे पेपर विकतालो आनी दिसभर थंय बरोवपाचें काम करतालो. बापायन म्हळें, म्हज्यो बऱ्यो वळखी आसात. हांव तुजेखातीर एक बरी सरकारी नोकरी पळेतां! पुणून उदयान तें आयकलेंना. निमणें बापायन ताका इतलेंच सांगलें. तूं ते संस्थेंत काम करतलो जाल्यार खुशाल कर, पुणून म्हजे नोकरेर गदा येत अशें मात कांय करूं नाका! उदयान 'आं' म्हळें आनी बुर्यो निश्चिंत जालो.

उदयाक इंजिनियर करूंक शकलोना. निदान पियान तरी दोतोर जावचें अशें ताका दिसतालें. आवयन लेगीत धुवेक म्हळें, "बाय तुमीं व्हडलें नांव मेळोवचें अशें तुज्या बापायक दिसता. देवादयेन तुमकां कितलेंय म्हारग शिक्षण दिवपाइतलें तांचेकडे बळगें आसा! दोतोरकेक वच आनी तांकां खोशी कर! आयक तांचे!" पुणून आवय बापायचें आयकल्यार तें पिया कसलें? हांगाय ताचो हट्ट फुडें जालो. आपल्या

थोड्या इश्टिणींचें आयकून बी फार्म जावपाखातीर तें फार्मसी कॉलेजीक गेलें. बारावेक ताका त्र्याण्णव टक्के मार्क मेळिल्ले. यत्न केल्यार ताका मेडिकलाक प्रवेश मेळटलो आशिल्लो. पुणून हांव म्हण्टा तेंच खरें! हांव म्हण्टा तशेंच जांवक जाय! अशी ताची वृत्ती जाल्ली. ताचे जे फाजील लाड जाल्ले ताचो तो परिणाम आशिल्लो. ताच्यांत अहंगंड तयार जाल्लो.

फार्मसी कॉलेजीक वचपाक ताणें प्लेजर स्कुटर घेतिल्ली. तिचेर बसून वतना ताका वेगळीच खोशी जाताली. ताच्यांतल्या अहंपणाक बळ मेळटालें. आपल्यांतलें वेगळेंपण तें इश्टिणींक दाखोवन दितालें. त्योवूय ताचेपसून मातशो पैसूच रावताल्यो. उशा सडेकारासारकी एकादीच इश्टीण ताचे वर्तणुकेचेर नदर दवरताली. वेळाप्रसंगाक ताका सल्लो दिताली. पुणून तागेलो सल्लो तें आयकून घेतालेंच अशें न्हय!

फार्मसी कॉलेजीक वचतसावन ताका पुराय स्वातंत्र्य मेळिल्लें. ताची वृत्ती स्वैर जाल्ली. बऱ्या वायटाची ताका पर्वा नाशिल्ली. आपूण जें कितें करतां ताचो परिणाम कितें जातलो हे तें येवजिनाशिल्लें. थंय कितेंय केल्यार ताका विचारपीय कोण नाशिल्लो.

वयांत आयिल्ले चलयेच्या मनाच्या घोड्याक विवेकाचो जो लगाम आसचो पडटा, तो लगाम नाशिल्ल्यान पियाच्या मनाचो चंचल घोडो स्वैर धांवतालो. काम लोभ आनी रागासारके मनशाचे वैरी तसलेच संदीची वाट पळेताले. तांणी रोखडोच ताच्या मनाचेर ताबो मेळयलो. ते ताका जाय तशे नाचोवपाक लागले. तांणी ताची मती भश्ट केली. ताच्यांत विकृती निर्माण केली. ताची बरें वायट येवजुपाची शक्ती ना करून उडयली. तसले ते मनाचे अवस्तेंत फाटलें फुडलें येवजिनासतना तें बारां वरांच्या कडाचेर हट्टान घर सोडून गेल्लें. परतून न येवपाखातीर. त्या वेळार ताचेर चडलेल्या अहंकाराच्या उन्मादान बापायची प्रतिश्ठा पायामुळा चिड्डिल्ली, भावाचो धर्माभिमान खोंटायल्लो आनी आवयचे मायेक आडनदरूच न्हय जाल्यार सामकी तुच्छ लेखिल्ली.

त्या दिसा सकाळीं फुडेंच श्रीकांत बुर्याल्या घरचें वातावरण तापपाक लागिल्लें, गळ्याकडें मळमळटा, ओकूंक आयिल्लेबशेन दिसता, अशें म्हंण्टा म्हणून वसुंधरा पयल्या दिसा सांजवेळेची पियाक घेवन आपल्या फेमिली दोतोरागेर गेल्ली.

दोतोरान पियाक वेवस्तीत तापासलें आनी जे कितें सांगलें तें आयकून वसूची वाचाच गेल्ली. तिका लजेन मरूंक पुरो जाल्लें. तिणें मान वयर करून दोतोराकडें पळेलें लेगीत ना! पियाचेर मात व्हडलोसो परिणाम जाल्लो दिसलोना. ताका ते गजालीचो पयलींच दुबाव आयिल्लो जांवये आनी तांणें मनाची तयारीय केल्ली आसुंयेता.

दोतोराकडें कांयच उलयनासतना तीं दोगांय घराकडें आयलीं, पिया नीट आपले कुडींत गेलें, आनी ताची आवय कपलार हात घेवन येवजीत सोफाचेर लवंडली.

रातीकडें तिणें अपुर्बायेचे धुवेक बळयां जेवयली आनी उलयतां उलयतां तिचे कडल्यान इली इली म्हायती काडून घेतली. ती व्हडले चिंतेंत पडली. कशी वाटांव ह्या संकश्टांतल्यान म्हजे धुवेक? हेच गजालीचेर ती पुराय रात येवजीत आशिल्ली. असलें बुरशें काम केल्लेखातीर तिणें धुवेक कोंचलें, पुणून ल्हव आवाजांत. कोणाच्या कानार वचूं नये म्हणून. घोवाक कळटकच फुडें कितें जातलें हें येवजून तिचें काळीज खपखपतालें.

सकाळीं च्याचें कोप घेवन ती घोवा म्हऱ्यांत आयली. तिच्या हातांतल्यान कोप घेतना तांणें पयलोच प्रश्न केलो, कितें सांगलें दोतोरान? गेल्लीं न्हय तुमी तागेर?''

वसूच्या तोंडांतल्यान उत्तर भायर सल्लेंना, तेन्ना तांणें परतून विचाल्लें, भिवपाचें कांय न्हय मूं?''

वसू मातसो वेळ ओगीच रावली. मागीर तिणें धीर एकटायलो आनी सांगून उडयलें. ''ताका दीस गेल्यात!''

''कितें दीस गेल्यात?'' बुर्यान आकांतून विचाल्लें. बायलेलीं उतरां कानार पडना फुडें तो सोफार बशिल्लो थंय उसळ्ळोच. तकलेचेर बोंब पडचो तशें ताका जालें. ''ओ माय गॉड! ते प्रेग्नंट आसा? दोतोरान सारकें कन्फर्म करून सांगलां?''

''हय! दोन फावटीं तपासून खात्री करून घेतल्या ताणें'' वसून म्हळें.

''शी!'' फुडें कितें उलोवचें तें बुर्याक येवजना जालें. कल्पनेभायलें आयकल्ल्यान ताका शॉक बशिल्लो. तकली सामकी सुन्न जाल्ली. आपलें चली ''कॉलेजीक वता, बरें शिकता. भुरगें वय आशिल्ल्यान थोडेभोव रंगढंग केले, इश्टिणीवांगडा हेवटेन तेवटेन भोवलें, सिनेमाक गेलें, चार पैशे मोडले, जाल्यार व्हडलेशें न्हय!'' इतलेमेरेन तांणें आपले धुवेचे वर्तणुकेची कल्पना केल्ली. हाचेफुडे तिचें पावल पडत अशें तांणें सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्लें. बायलेच्या तोंडांतल्यान 'ताका दीस गेल्यात' हीं उतरां आयकतकच ताका आपलें घर आपले भोंवतणी घुंवता अशें दिसलें. आपूण सोफावयल्यान सकल पडटलों अशें दिशिल्ल्यान सोफाचे कडेक तांणें घट्ट धल्लें.

तांणें आपले चलयेचे उदरगतीचीं सपनां पळेल्लीं. तागेले अधोगतीची गजाल आयकून तो सामको अर्दमेलो जालो.

कांय खीण तो ओगीच रावलो. आपल्या मनाचेर ताबो दवरपाचो तांणें खूप यत्न केलो. पुणून ताच्यान उलयलेबगर रावूंक नजो जालें.

''बरें बक्षीस दिलें तांणें आमकां, ताका चड स्वातंत्र्य दिल्ल्याचें!

तोंडार नदर लेगीत घालपाचे लायकीचें चली उरूंक ना हें! आमी हाका कॉलेजींत शिकूंक धाडिल्लें! तांणें हें असलें शिक्षण घेतलें थंय! बरे चलयेचें लक्षण हें? समाजांत मान सन्मान आशिल्ल्या कुटुंबांतले चलयेन हें असलें हलकट काम करप म्हळ्यार आमचें दुर्दैव म्हणचें पडलेंना! तुका तरी कल्पना आशिल्ली हें असलें कितेंय करीत हाची? ही गजाल भायर लोकांक कळटकच समाजांत मान वयर करून भोवूंक जातलें म्हज्यान?'' बायलेकडें पळोवन बुर्यान कळवळून विचाल्लें.

बुर्यापरस वसूची मनस्थिती चड वायट जाल्ली. तरी आसतना घोवाक धीर दीत तिणें म्हळें, ''ना ना, कोणाक कळचेंना! तुमी बेश्टेच भियेंव नाकात!''

''असली गजाल लिपून उरता? खंयच्यानूय जाल्यार कळटलीच ती लोकांक!'' बुर्यान म्हळें.

ना कळचीना! दोतोर आमचोच आसा. तो आमचो घात करचोना! वेळ ओगडायनासतना कितेंय करपाक मेळटा जाल्यार पळोवया! दोतोराक......

''हय हय! दोतोरानूच केल्यार करपाचो आमचेर उपकार! ताकाच वचून पायां पडपाचें!'' बायलेक मदींच थांबयत बुर्यान बेगिबेगीन म्हळें. एदो वेळ तांणें दामून दवरलेलो रागाचो पारो इलो इलो वयर चडूंक लागलो.

''अवचिन्न पोर! उंवाळून घाल्लें! असलें पोर जावचेपरस न जाल्लें बरें आशिल्लें!'' चलयेक गाळी मारून जातकच तांणें बायलेक विचाल्लें, ''हें असलें कर्म करपाक ताका कोण सांगाती मेळ्ळो ताचे संबंदान कितें सांगलां तांणें तुका?''

''हावें कोचू कोचून विचाल्लें तेन्ना तांणें तोंड उगडलें. तागेलेच कॉलेजींत शिकता खंय तो भुरगो! तांचो मोग आसा अशें म्हण्टालें तें! तीं लग्न जातलीं खंय!'' वसून चाचरत चाचरत सांगलें. एक एक उत्तर उलयतना तिच्या गळ्याकडें गुळो येतालो.

“तांच्या मोगाक लाय चुट्टी! हो असलोच मूं तो मोग? हाकाच मोग म्हंण्टा मूं तें! आनी लग्न जातलीं म्हळ्यार कितें? लग्न म्हळ्यार सामकीं फकणां दिसतात ताका? मनांत आयलें केलें लग्न? आपणें कितेंय केलें जाल्यार आपणाक विचारणारो कोण ना, अशें दिसता ताका? लग्न जातलीं खंय! इतलें आपसुलाद जालां तें? काय तकलेन फालयाद जालां?” बुर्याल्या रागाचो पारो चडत आशिल्लो.

“आपय ताका हांगा!” तांणें ओर्द सोडली.

“आपयतां! पुणून मातशें सांबाळून उलयात ताचेकडे! तापोंव नाकात ताका चड! अजून ल्हान आसा तें! चुकून घडलां आसतलें तशें! चड तापयल्यार जीव बी दित म्हणून भंय दिसता म्हाका!” वसू घोवाक शांत करपाचो यत्न करताली. पुणून बुर्याचेर तिच्या उलवण्याचो परिणाम जालोना. तो बायलेचेर चडूच खुबळ्ळो.

“ताका आपय म्हणून सांगलें न्हय हांवें तुका? म्हाका खबर आसा ताचेकडे कशें उलोवपाचे तें! तूं ताची वकिली करूं नाका! चुकून घडलां खंय! असल्यो गजाली चुकून घडनात!”

वसू पियाक घेवन आयली. फुडलें येवजून तिचें हड्डें धडधडटालें. पिया मात कांयच घडूंक नाशिल्लेबशेन बापायमुखार उबें रावलें. नदर मात दुसरेकडेन आशिल्ली.

“हावें आयकलां तें खरें?” बुर्यान विचाल्लें.

पियान बापायक जाप केलीना. तशें तांणें आवाज चडोवन परतून विचाल्लें, ‘तुजे आवयन सांगल्या ती गजाल खरी आसा?’

“हय!” पियान बापायकडें पळेनासतना म्हळें.

“हय कितें? लज दिसना तुका हय म्हणपाक? हेंच करपाक धाडिल्लें हांवें तुका कॉलेजीक? कॉलेजींक वचप म्हळ्यार कशेंय वागपाक, कितेंय करपाक मेकळीक अशें दिसलें तुका? आपणें कितेंय केल्यार आपणाक कोण कांय विचारचोना असो समज करून घेतला तुवें? असलें घाणयारें कर्म करतना तुका लज दिसलीना जायत, पुणून

तुका आवय बापूय, भाव कोणतरी आसात तांकां मान सकयल घालून भोवचें पडटलें हेवूंय येवजिलेंना तुवें!''

बुर्यो व्हडल्या व्हडल्यान तापतालो, पुणून पिया मात थंडसाणीन आयकतालें. निर्ढावलेलो चोर पोलिसान कितलेय प्रश्न विचाल्ले जाल्यार तोंडातल्यान उतर काडीना तेबशेन!

''आतां फुडें कितें? कितें करपाचें येवजिलां तुवें?''

''आमी लग्न जातलीं.'' पियान बापायच्या प्रश्नाक जाप दिली.

''लग्न जातलीं? लग्न जातलीं म्हळ्यार कितें? खेळांत बावलो बावलेचें लग्न लायतात तशें? मनांत आयलें केलें लग्न? मजा म्हणून?''

''आमचो मोग आसा एकमेकांचेर!'' पियान सांगलें.

''तुमगेल्या मोगाक लायतां हांव चुट्टी! मोग आसा खंय! हो मोग? हो मोग न्हय! हो भोग! सुण्याबशेन कर्म केलां तुमी हें! असलें हे कर्म करपाक भागिदार कोण मेळ्ळो तुका?'' बुर्यान विचाल्लें.

''म्हज्याच वांगडा शिकता तो!'' पियान ल्हव आवाजांत म्हळें.

''खंयचो? कोणालो? जातपात कितें ताची?'' बुर्यो प्रश्नाचेर प्रश्न विचारतालो, आनी पिया जापो दिवपाक फाटीं फुडें येतालें.

इतल्यांत थंय उदय आयलो आनी तांणें बापायचेर एक बाँबगुळोच कसो उडयलो. ''हांव सांगता ताची जात पापा! परधर्मी भुरगो तो!'' उदयान उडयल्ल्या बाँब गुळ्यान बुर्यालें मस्तक सुन्न जालें. आंगाक थरथरो सुटलो. तांणें कपलार हात माल्लो आनी आड्डी मारून म्हळें, ''चांडाळणी तुवें मोग करपाक आनी असलें हें हळशिकावणें काम करपाक भुरगो सोदून काडलो तोवूय दुसऱ्या धर्मांतलो? बापायक आनी भावाक सामकेच सोपोवपाचें येवजिलां तुवें?'' पिया ओगीच रावलें.

''तागेल्या मोटरसायकलीवयल्यान भोंवतना जायते फावटीं पळेलां हांवें ताका! त्या पोरावांगडा भोवूं नाका अशें हांवें ताका सांगलें जाल्यार तें म्हाका शाणेपणां सांगूंक लागलें. व्हडलो भाव म्हणून लेगीत मान दवल्लोना तांणें म्हजो! आपणाक जाय तें करतलें म्हणूंक लागलें.

तेन्नाच्यान हांवें ताका सांगपाचें सोडलें आनी तुज्या कर्मान तूं मर, अशें म्हणून ओगी बसलों!'' उदय रागान सामको फणफणटालो.

''तुवें म्हाका कशें सांगलेंना? हांव करतलों आशिल्लों ताचो बंदोबस्त हें घडचे पयलीं!'' बुर्यान पुताक म्हळें.

''पापा तुजे तकलेक ताप नाका म्हणून सांगलेंना. पुणून म्हाका लेगीत हें इतलें फुडें पावत हाची कल्पना नाशिल्ली. तो भुरगो सामको फाफारांव! जगान उंवाळून उडयल्लो!''

''भय्या हांव तुका सांगतां, तूं फ्रेंकाक कितेंय म्हंण्टलो न्हय! म्हगेलें तुका लागना! तुगेलें तूं पळे!'' पियान उसळून म्हळें. ताच्या आंगांत मोगाच्या भुतान संचार केल्ल्यान ताचें बळ वाडिल्लें.

''लागता काय लागना तें पळेतांच हांव!'' उदयूय तापलो.

''कितें करतलो तूं? कितें करूं येता तुज्यान म्हजें? मारतलो?''

''कळटलें करतकच!''

''बरें बरें पळेतलें हांव! तूं म्हाका धपकांव नाका ! भियेना हांव तुका!'' भावा भयणीचें तें झगडें पळोवन बुर्यान तांचेर धेंगसो घालो. तुमगेलें झगडें थांबयात पळोवया! असल्या झगड्याचो आतां कांय उपयोग ना!''

मागीर ताणें बायलेकडें पळोवन म्हळें, ''हाका आतांचे आतां आमगेल्या दोतोरागेर व्हर आनी निवळावन हाड! आमकां ह्या संकश्टांतल्यान सोडय अशें हांवें पांया पडून सांगला म्हणजे ताका! उपकार कर म्हणजे आमचेर!''

''ना पापा हांव तशें करचेंना!'' पियान ठामपणान म्हळें.

''तशें करचेंना? म्हळ्यार वाडिल्लें पोट घेवन सगळ्याक भोंवतलें? लज दिसना तुका अशें सांगपाक?'' बुर्यान रागान हात उबाल्लो.

''आमी रोकडींच लग्न जातलीं!'' पियान म्हळें.

''त्या चेड्याकडें तूं लग्न जातलें, आनी हांव तुका जावपाक दितलों अशें दिसता तुका?'' उदयान उसळून म्हळें.

''तुज्यान कांयच करूंक नजो म्हजें! म्हाका अठरा वर्सां जाल्यांत. हांवें कितें करपाचें तें थारावपाचो म्हाकां कायद्यान अधिकार मेळ्ळा. समजलें?'' पिया भावाक कायदो शिकोंवक लागलें.

''बाय, कितें उलयता गो तूं? कांयच सुवाद ना मुगो तुज्या तोंडाक! बापूय म्हणून ना, भाव म्हणून ना! तुजें वायट करूंक सोदतात गो ते? सांजेवेळा आमी दोतोरागेर या! आयिल्लें आरिश्ट पयलीं पैस करूंया! आनी मागीर तुगेल्या म्हणण्याचेरूय येवजूंया!''

येदो वेळ ओगी रावून आयकतले वसुंधरेन संदी करपाचो यत्न केलो. तिका दिशिल्लें पिया आपलें आयकतलें. पुणून पियाची येवजुपाची धांव खंयमेरेन पावल्या हें तिका खबर नाशिल्लें. ''म्हज्यान तशें करपाक जांवचें ना मम्मी! फ्रेंकाक तें आवडचेंना! ताका राग येतलो!'' पियान म्हळें.

''त्या भुरग्याक आवडचेंना म्हणून तूं तशें करचेंना? तुज्या हिसपान आमकां कांय किंमतूच उरूंक ना? हाचो अर्थ तुमच्या लग्नाक आमचे संमतीची गरज ना अशेंच मुगो? इतलीं पाखां फुटलीं तुका? तुका ल्हानाचें व्हड केलें, तूं म्हंण्टा तें दिलें, तुका कसलें दूख जांव नये म्हणून वावुरलीं, तें सगळें फुकट गेलें? आमच्या सगळ्यांपरस तो भुरगो व्हड दिसलो तुका? त्या भुरग्याक लागून आमच्या तोंडाक काळें लावपाक तयार जालां तूं?'' बुर्यान गजाल मारून विचाल्लें.

''तूं ताचेकडें लग्न जातलें जाल्यार तुवें हें घर सोडचें पडटलें! ह्या घराभितर तुका पावल दवरूंक मेळचेंना!'' उदयान म्हळें.

''ओगी राव रे मातसो! हांव सांगतां न्हय ताका? आयकतलें तें म्हजें!'' अशें म्हणून वसून उदयाक थातारलो आनी पियाक म्हळें, ''बाय असलीं पिशेंपणा करूं नाका गो! आयक, हांव सांगता तशें कर! तूं ताचेकडें लग्न जातलेंच म्हंण्टा जाल्यार ताचो विचार मागीर करूंया! हांव उतर दितां तुका तशें! पयलीं मातशीं दोतोरागेर वचूंया!''

''मम्मी म्हाका तशें करपाक आग्रो करूं नाका! फ्रेंकाकडें लग्न

जाल्यार भय्या म्हाका ह्या घरांत घेवचोना मूं? नाका घेंवक! हावूंय येवचेंना ह्या घरांत! तो म्हंण्टा जाल्यार हांव आतांच वचपाक तयार आसां!'' अशें म्हणून पिया तिडकीभरशी आपले कुडींत धावलें. बेगिबेगीन ताणें नवे कपडे आंगार चडयले आनी भरिल्ली सूटकेस हातांत घेवन तें भायर आयलें.

''कितें पिशें लागलां गो तुका? काय कोण गोमटेर बसला तुज्या? मातूय भान नाशिल्ले बशेन करता मुगो तूं? कोणाच्या नाड्यार वचपाक भायर सल्लां तूं? त्या भुरग्याच्या? तो तुजेकडेन लग्न जातलोच हाची खात्री आसा तुका? फाल्यां ताणें लग्न जायना म्हणून सांगल्यार कितें करतलें तूं? खंय वतलें?'' अशें म्हणून वसून पियाच्या हातांतली सुटकेस काडून घेवपाचो यत्न केलो, पुणून ताणें ती सोडलीना.

''ना ना, फ्रेंक अशें केन्नाच करचोना! म्हाका खात्री आसा ताची! आनीक आठ दिसानी रजिश्टर लग्न जातलीं आमीं! ताणें सांगलां म्हाका तशें!'' पियान म्हळें. ताच्या सबावांतले सगळे दोश अशेतरेन वयर सरताले, ताका अविचारीपण करपाक उसकायताले.

''खात्री आसा मुगो? चल तर! परतून मात ह्या घरांत येंव नाका आं!'' उदयान रागान म्हळें.

''कसलीं फकणां चलयल्यांत तुमी? एदेंशें हें पोर! आमकां सगळ्यांकूच नाचोंवक सोदता! वतलें खंय! कशें वता तें पळेतां हांव! उदय ताका भितल्ले कुडींत व्हरून उडय! भायल्यान खिळी घाल! आपसुलाद पोर!'' बुर्यान ओर्द सोडली. पुणून तागेले ओर्दीक पिया थोडेंच भीक घालतलें! मोगाच्या भुतान पछाडलेले ते चलयेक आवय, बापूय, भाव ह्या नात्यांचे विसर पडिल्लो. ते ताका परकी दिसताले, आपले दुस्मान दिसताले.

''तुमी म्हाका कुडींत बंद करून कशे दवरतात तें पळेतलेंच हांव! पोलिसेंत कागाळ करतलें तुमची. तुमी म्हजो छळ चलयला अशें सांगतलें. आतांचो कायदो तुमकां खबर आसा! तुमकां हातांत बेडयो

घालून घेवपाच्यो आसात जाल्यार करात तशें!'' अशे म्हणून पिया सुटकेस घेवन भायर गेलें, आनी बाय गोऽ बाय गोऽ, वचूं नाका गो पापया! राव गोऽ! आयक तरी! अशें म्हणून वसुंधरा ताचे फाटल्यान धांवली, पुणून ती दारांत पावचेपयलींच पियान दार नेटान धापून घेतिल्लें. त्या धापिल्ल्या दाराम्हऱ्यांत बसून ती व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागली.

घडिल्ले घडणुकेन बेजार जावन उदयान जनेलाचें लोखणी ग्रील घट्ट आवळून धल्लें. ग्रिल्साच्यो कामी लागून ताच्या हातांतल्यान रगत व्हांवपाक लागलें. पुणून त्या रगताची ताका पर्वा नाशिल्ली. ताचें काळीज फुटून तातुंतल्यान भळभळीत रगत व्हांवतालें. त्या रगताफुडें ताका हातांतल्यान गळटल्या रगताचें मोल नाशिल्लें. तागेल्या हिन्दुत्वाची विटंबना जाल्ली. खुद्द ताचे भयणिनूच ती केल्ली. हिन्दुत्वाच्या अभिमानाक लागून ज्या बाकीच्या धर्मांची तांणें चेश्टा केल्ली, तांतुतल्याच एका धर्माच्या पोराकडे लग्न जावपाखातीर. आपल्या घरच्या सगळ्या मायेच्या मनशांचेर फांपार मारून ताची भयण घर सोडून गेल्ली. आतां तो आपल्या इश्टांक तोंड कशें दाखयतलो आशिल्लो? निराश जावन तांणें ग्रिल्साचेर दोन तीन फावटीं तकली आपटिली.

बुर्याची परिस्थिती जाल्यार सामकीच पिशाबशेन जाल्ली. तागेले अपुर्बायेचे चलयेन ताका बेडयो घालपाची धमकी दिल्ली. ते एके घडणुकेन ताचो सगळो अहंकार गळून पडिल्लो. हांवपण खंयचे खंय नाच्च जाल्लें. ज्या मानान तो समाजांत वावरतालो त्या समाजांत मान सकयल घालून भोंवचें पडटलें, हो विचार तकलेंत येतकच ताची तकली भिणभिणूक लागली. ती फुट्टली अशें दिशिल्ल्यान तांणें ती दोनूय हातांनीं घट्ट दामून धल्ली.

''कितें घडलें हें? कित्याक लागून घडलें? हातूंत चूक कोणाची? अपूर्बायेक लागून पारपोळ जाल्ल्या पियाची, काय जांणी ताची चड अपूर्बाय केल्ली तांची? तें म्हण्टा तें हय केल्ल्यांची? तें सांगता सांगता तें आमी केलें. तें मागता तें आमी दिलें. ताचे सगळें हट्ट भागयले.

ताचेर आमी नदर दवरलीना; ही आमची चूक जाली जायत. पुणून ते चुकीचें एदें व्हडलें पानवळ आमकां घेवचें पडटलें हाची आमी कल्पना लेगीत करूंक नाशिल्ली. जिवापरस ताचेर चड माया केली. ताका दूख जांव नये म्हणून वावुरलीं, हें सगळें तें कशें विसल्लें? एका नव्यान वळख जाल्ल्या तरनाट्याच्या मोगाफुडें आवयचो मोग लेगीत उणो पडचो इतलें बळगें आसना काय ह्या चलो चलयेच्या मोगांत? तो मोग आवय बापायच्या, घरच्यांच्या मोगाक आदनदर करपाइतलो कुड्डो आसता काय!'' अशेतरेचे विचार बुर्याले तकलेंत गोंदळ घालताले.

वासनेन बुडबुडलेल्या चलो चलयेच्या मोगांत कितलें बळ आसता हाची ताका कल्पना नाशिल्ली. तसलो मोग कुड्डोच न्हय जाल्यार भेड्डो लेगीत आसता हें ताका खबर नाशिल्लें. सावध करपी उतरां, उपदेशाचे बोल तांकां आयकूंक येनात. धोक्याचो भोंगो तांच्या कानार पडना.

चलो चलयेक एकमेकांविशीं जें सैमीक आकर्शण आसता, तातुंतल्यानूच खुपशे फावटीं मोग उप्रासता. त्या मोगाक जोमेरेन वासना आफुडना तो मेरेन तो मोग शुद्ध उरता. पुणून वासनेच्या चिखलांत लोळना फुडें तोच मोग विकृत रूप घेवन त्या मोग्यांची मती भश्ट करता. तांची येवजुपाची शक्ती नश्ट करता. आपूण कितें करतां हाची तांका सुद्द उरना. त्या तसल्या मोगाच्या बळग्याफुडें शुद्द भावनेन केल्या मोगाक मोल उरना.

कामवासनेच्या अतिरेकान विकृत जाल्ल्या मोगाक लागून चलो चलयेकडल्यान खुपशे फावटीं आत्मघातकी घडणुको घडटात. पियाची गत तशीच जाल्ली. तांणें आत्मघात करून घेतिल्लो. फुडें कितें जातलें हें येवजिनासतना तांणें घराभायर पावल घाल्लें आनी त्या घराचें दार आपलेखातीर निजाचेंच धापून घेतिल्लें. तागेल्या अविचारीपणान सगळ्यो शिमो हुपिल्ल्यो. तांणें धापून घेतिल्ल्या दाराम्हऱ्यांत बसून रडटां रडटां वसुंधरा थंयच लवंडली.

घोव आनी पूत तिचेसरीं धांवले. तिच्या दोळ्यांर उदक मारून तांणीं तिका सावशीक केली. मागीर दोगांनीय आदार दिवन तिका कुडींत व्हेली आनी खाटीर न्हिदयली. बुर्यो तिच्या उशाकडे बसून आयण्यान तिका वारो घालूंक लागलो, आनी उदय तिच्या पायाकडे बसून आपल्याच माथ्याचे केंस हुमटायत आपल्या मनांतली तिडक उक्तांवक लागलो. ताच्या हातांत आनीक कितेंच उरूंक नाशिल्लें. आपले वांगडी आपणाकडें पळोवन व्हडल्या व्हडल्यात हांसतात, आपणाक चाळयतात असो ताका भास जातालो.

“खंय वयचेलें बाय!”, पिया टेक्सीन बसतकच ती चालू करीत ड्रायवरान विचाल्लें.

“थिवी”! पियान म्हळें.

“थियेक कोणागेर?”

“फ्रेंक सिल्वेर!” /

“हांव नेणा तेचें घर!” ड्रायवरान म्हळें.

“चल तूं! हांव दाखयतां मागीर तुका घर!” पियान सांगलें तशी ड्रायवरान टेक्सी थिवीचे वाटेन धांवडायली.

हांव दाखयतां घर, अशें पियान म्हणिल्लें खरें! पुणून ताका तरी खंय खबर आशिल्लें फ्रेंकाचें घर? तांणें तें घर केन्ना पळोंवकूच नाशिल्लें. तांणें ताका सगळें गोंय भोंवडायल्लें. दरयांच्या वेळांचेर, गार्डनांनीं तीं भोंविल्लीं. मयेच्या तळ्याच्या कांठार तीं बशिल्लीं. तिळारेचें धरण तांणीं पळेल्लें. दुदसागराच्या उदकाचे शिंतोडे तांणीं आंगार घेतिल्ले, पुणून आपल्या घराकडें मात तांणें ताका व्हरूंक नाशिल्लें.

“तुगेल्या घराकडें व्हररे म्हाका एकदीस, तुगेल्या मांयपायक वळख करून दी म्हजी!” अशें पियान सांगून लेगीत तांणें ताका आपल्या घराकडें व्हरूंक नाशिल्लें.

“वयचें गो एकदीस घराकोडें! वॉटस द हरी? फाल्यां काजार जातकोच तुका वोयचेलेंच आहा त्या घराकोडेन!” अशें म्हणून तो

ताका घराकडें व्हरपाचें टाळटालो. मागीर वेगळ्योच गजाली सांगून ताका फुसलायतालो आनी घराकडें व्हरपाचें विसरायेर घालतालो.

"म्हागेल्या मांय पायन सोमोती दिल्या आमच्या काजराक! वॉट अबावट युवर पेरेंट्स? तेंची मान्यताय आहा मुगो आमगेल्या काजराक? आनी नासली जाल्यार तूं भींनाका गो! वुय आर क्वायट मेच्युअर नाव! वुय नीड नोट रिक्वायर एनी परमिशन! दे कान्ट डू ऐनिथींग इन धीस रिगार्ड!" अशें म्हणून तो ताच्या भित्र्या मनाक धिटसाण हाडटालो.

फ्रेंकाची आनी ताची पयली वळख कॉलेजीच्या गेदरिंगावेळार जाल्ली. गेदरिंगांत ताणें ओडिसी नाच केल्लो आनी तो प्रेक्षकांक खूब आवडलेलो. आठवेक आसतना आपल्यो इश्टिणी नाच शिकूंक वतात हें पळोवन तेंवूय नाच शिकपाक गेल्लें. तागेल्या त्या हट्टाक आवय बापायक नाइलाजान संमती दिवची पडिल्ली. संमती दिना जाल्यार उपाशी रावतलें अशें ताणें तांकां भंय घाल्लें. थोडोच तेंप तें नाच शिकिल्लें आनी मागीर वाज आयलो म्हणून ताणें तो छंद सोडून दिल्लो. तेन्ना घेतिल्लें नाचाचें शिक्षण गेदरिंगाच्या वेळार ताच्या उपयोगाक पडिल्लें. इश्टिणींच्या आगऱ्याक लागून तांणें त्या दिसा नाच केल्लो.

नाच सोपोवन ताळयांच्या कडकडाटांत तें भितर वतकच ताका परबीं दिवपाखातीर तागेल्या इश्टिणीनीं ताचे भोंवतणी कोंडाळे केल्लें. इतल्यांत एका तरनाट्यान तांच्या म्हऱ्यांत येवन शेकहेंडाखातीर हात फुडें केलो. पियानूय सदचे संवयेन वयर पळेनासतनाच हात फुडें केलो.

"हार्टी कोंग्रेच्युलेशन! युवर डान्स वॉज फेंटाश्टीक! फेब्युलस! व्हेरी नायस! आय वील नोट फर्गोट इट इन माय लायफ!" शेकहेंड करीत त्या तरनाट्यान म्हळें.

गोड अश्या इंग्लीश उतरांनी कोण आपली तुस्त करता हें पळोवपाखातीर पियान मान वयर केली आनी तें त्या तरनाट्याकडें पळेतूच उल्लें. लोहचुंबकान लोखणाचो कुडको ओडून घेवचो तेबशेन तागेले नदरेन पियाची नदर आपणाकडें ओडून घेतिल्ली.

ताची उंची साडेपांच फुटांपरस चड आशिल्ली. हाडापेरान तो घटमूट आनी देखणो आशिल्लो. तागेली गोरपाण गवाळी आशिल्ली, आनी ताचे दोळे व्हडले आनी पाणिदार आशिल्ले. तांणें दवरलेल्यो मिशो तागेल्या चेऱ्याक सोबपासारक्यो आशिल्ल्यो. खंयच्याय चलयेक ओड लावपासारकें ताचें व्यक्तिमत्व आशिल्लें.

''आय एम फ्रेंक! फ्रेंक सिल्वेरा! आय एम अ स्टुंडंट ऑफ धीस कॉलेज, अँड सिनियर टू यू!'' तांणें आपली वळख करून दिली.

आपलो हात अजून ताच्या हातांत आसा आनी बाकीच्यो चलयो आपणाकडें पळोवन हांसतात, हें लक्षांत येतकच पिया लजिल्लें आनी तांणें आपलो हात ताच्या हातांतल्यान सोडोवन घेतिल्लो. पुणून तो ताच्या हातांत आनीक थोडो वेळ आसूंक जाय आशिल्लो अशें ताका मनांतल्यान दिशिल्लें. ताची नदरूय परतून परतून फ्रेंकाच्या चेऱ्याकडें वताली.

तो देखावो पळोवन, पयलेच भेटेंत तें फ्रेंकाच्या मोगांत पडलां, असो दुबाव तागेल्या इश्टिणींक आयिल्लो आनी तांगेलो तो दुबाव खरोय आशिल्लो.

पिया फ्रेंकाच्या मोगांत पडिल्लें. पयलेच भेटेंत. पुणून पयले भेटींतलो तो मोग म्हळ्यार फकत आकर्शण आशिल्लें. त्या तरनाट्याच्या देखणेपणाच्या आकर्शणाक लागून ताच्या आंगांत न्हिदिल्ले अवस्थेंत आशिल्ली भोगलालसा जागी जाल्ल्याची ती खूण आशिल्ली. ती एक सैमीक गजाल आशिल्ली. ते गजालीक मोग म्हणप म्हळ्यार खऱ्या मोगाचीं फकणां करपासारकें आशिल्लें. पियाचें आपल्या मनाचेर नियंत्रण नाशिल्ल्यान तशें घडिल्लें. सैमान ताचेर सत्ता गाजयल्ली. एका खिणांत तें मोहाक बळी पडिल्लें.

पियाचेर आपली छाप पडल्या, तें आपणाकडे आकर्शीत जालां हें कळपाक फ्रेंकाक कळाव लागलोना. तो आयिल्लो, ताणें पळेल्लें आनी तो जिंकील्लो. आपणे जें येवजील्लें तातूंत आपूण जैतिवंत जालो हें

पळोवन तो खोशी जाल्लो.

कॉलेजींत नव्यानूच आयील्ल्या देखण्या पियाक पळोवन ताच्या तोंडाक उदक सुटिल्लें. ताका आपल्या जाळ्यांत ओडपाची तो संद सोदीत आशिल्लो. गेदरींगाच्या निमतान ताका ती मेळिल्ली आनी ते संदीचो ताणे आपणाक जाय तसो उपयोग करून घेतिल्लो. ताची ती सदचीच सवंय आशिल्ली. आपणेच विणील्ल्या जाळ्यांत बसून भक्षाचेर उडी घालपी कोळ्याचे जातकुळयेंतलो तो मनीस आशिल्लो.

ज्या चलयांक ताचो सभाव खबर आशिल्लो त्यो चलयो ताचे सांवळेक लेगीत उब्यो रावनाशिल्ल्यो. पियासारकी एकादीच चली ताच्या जाळ्यांत फारावताली. मागीर तो आपल्या गोड उतरानीं तिका त्या जाळ्यांत अशेतरेन गुठलायतालो कीं, तो आपणाक फटयता म्हणपाची ते चलयेक मातूय जाणीव जायनाशिल्ली. आनी जेन्ना ती जाताली, तेन्ना सगळें सोंपून गेल्लें आसतालें. ती चली सामकी मोडून गेल्ली आसताली.

गेदरींगाच्या दिसाच्यान पिया खंय दिसता थंय तो ताका हात वयर करून 'हाय' करतालो आनी तेंवूय हांसून आनी हात दाखोवन ताका प्रतिसाद दितालें. तांची वळख इलीइली वाडत गेल्ली. तीं वांगडा भोंवपाक लागिल्लीं. तागेले हिरो होंडाचेर बसून आनी ताचे कमरेक वेंग मारून तो व्हरता थंय तें वतालें. कॉलेजींतल्यो चलयो ताका सावध करपाचो यत्न करताल्यो, पुणून मोगान पिशें जाल्लें तें चली तांचे सांगणेकडे दुर्लक्ष करतालें. फ्रेंकाचेर ताचो पुराय विस्वास बशिल्लो. तागेल्या व्यक्तिमत्वाचो प्रभाव पडिल्ल्यान तागेलें उतरान उतर ताका खरें दिसतालें. आपलो भोग घेवपाखातीर तो मोगाचें नाटक करता हें ते पिशे चलयेक कळनाशिल्लें. तो आपणाक फटयत म्हणपाचो दुबाव ताका सपनांत लेगीत येनाशिल्लो. जोतीच्या मोगान. तिचेर उडी घालतल्या पिसोळ्याबशेन ताची गत जाल्ली.

लोकांलें येवप वचप नासता अशा जाग्यार बसून तिनसांजच्या

काळखांत तीं जेन्ना मोगाच्यो गजाली करतालीं तेन्ना फ्रेंक ताका मुद्दामूच बुरशो गजाली सांगून हांसयतालो. ताका म्हऱ्यांत घेवन ताचीं थानां सांसपितालो. तीं चिडडून आनी तांकां ल्हवू ल्हवू चिमटे काडून तो ताची कामवासना जागी करतालो. आनी मागीर उदिदपीत जावन फाटलें फुडलें येवजिनासतना आनी थळाकाळाचे भान दवरिनासतना तें आपली कूड ताचे सुवादीन करतालें. कामातुराणाम न भयं न लज्जा, अशी तांची गत जाताली. तो दितालो त्या भोगसुखाक तें मोग समजतालें. कांय फावटीं आपणाक गर्भ धरचो न्हय म्हणून जतनाय घेवपाक तें विसरतालें, आणि ताचो परिणाम जावपाचो तोच जाल्लो. ताका दीस गेल्ले.

तें जेन्ना फ्रेंकाकडे प्रेग्नेन्सीचें भंय उक्तायतालें, तेन्ना तो हांसून म्हंण्टालो, ''डोंटवरी ! व्हाय आर यू अफ्रेड माय डार्लिंग? आमी आता रोकडीं काजार जातलीं. आफ्टर देट ध चाईल्ड विल गेट इट्स पेरेंटस नेम!''

तागेल्या तसल्या फटकिऱ्या उतरांचेर पातयेवन तें निश्चींत रावतालें. तागेलीं उतरां ताका सामकीं खरीं दिशिल्ल्यान, दीस वतकच त्या संकश्टांतल्यान मेकळें जावपाचें सोडून तें देडशाणे चली आपलें वाडिल्लें पोट घेवन, त्या घातकी भुरग्याकडें काजार जावपाचे तयारेन तागेल्या घराचे दिकेन टेक्सी धांवडायतालें.

ॲबोर्शन करिनासतना पोटांतलें भुरगें ताणे मुद्दामूच सांबाळून दवरलेलें. तातूंत ताचो दोट्टी सुवार्थ आशिल्लो. मोगाची खूण म्हणून तर जालेंच, शिवाय जावपाचें आशिल्ल्या त्या भुरग्याक लागून तांच्या दोगांमदले इश्टागतीच्या नात्याक वेर वचचिना, वयल्यान तें नातें अदीक घट्ट जातलें अशें ताका दिसतालें. कोणाकूय तें तागेलें पिशेपण दिसलें जाल्यारूय, ताका मात ती शाणेपणाची गजाल दिसताली.

''नाताळाचे सुटयेंत धा बारा दिसांखातीर लंडनाक वचून भावाक मेळून येतां, मागीर आमी रोखडींच काजार जांवया, अशें सांगून गेल्यार

फ्रेंकाक पंदरा दीस जाले! एन्नासर तो परतून आयला जातलो! जाल्यार ताणें म्हाका फोन कसो करूंक ना? हांवें फोन केलो जाल्यार ताचेकडल्यान जाप मेळना! तागेलो फोन सदांच ऑफ आसता! तागेल्या घराकडें फोन करून चौकशी करतलें जाल्यार थंयचो फोन नंबरूय म्हाका खबर ना! ताणें तो म्हाका केन्ना दिंवकूच ना! कसलेय अडचणींत बी सांपडूंक ना मूं तो? ना जाल्यार म्हाका फोन केलेबगर तो रावपी न्हय! सेर्त कितेंयतरी घडलां आसतलें ! लंडनाक गेला थंय सीक बी पडूंक ना जाल्यार पुरो! सीक पडल्यार येन्ना घराकडें पावचो ना तो! जाल्यार तो नासतना हांव ताच्या घराकडें कितें आनी कशेबशेन सांगतलें?'' अशेतरेचे खूबशे विचार ताचे तकलेंत घोळपाक लागिल्ले.

घरांतल्यान भायर सरचे पयलीं जें येवजूपाची ताका गरज दिसूंक नाशिल्ली, तितलेंय तें टॅक्सींत बसतकच येवजूंक लागिल्लें.

''थिये पावलीं गो बाय!'' ड्रायवरान म्हळें तशें तें विचार तनरेंतल्यान खडबडून जागें जालें. तांणें भायर पळेलें. तो गांव ताका परकी आशिल्लो. हाचेपयलीं तें त्या गांवांत प़ावूंक नाशिल्लें. टॅक्सींतल्यान देंवून ताणे भोवतणी नदर भोंवडायली.

टॅक्सी थांबिल्ली थंय लागींच सप्तकी बाजार भरिल्लो. भाज्ज्यांचे आनी गांवठी फळांचे पाटले घेवन कुणब्यांच्यो बायलो विकपाक बशिल्ल्यो. एका ल्हानशा पाटल्यांतल्या तोंडाचेर सोबीत असो गुलाबी रंग आशिल्ल्या धव्या जांबांनी पियाची नदर आपणाकडे ओडून घेतली. फ्रेंकाक तसले जांब खूप आवडटाले. ताचेखातीर तातुंतले थोडे विकते घेवचे अशें ताका दिशिल्लें, पुणून तो लंडनाकसून आयला काय ना हें खबर नाशिल्ल्यान ताणे ते घेतलेना.

मातशें फुडें वचून थंय उबो आशिल्ल्या एका भुरग्याकडें ताणे फ्रेंकाच्या घराचो नामो विचाल्लो आनी त्या भुरग्यान दाखयल्ल्या मानुयेल सिल्वेरीच्या घरामुखार ड्रायवरान टॅक्सी उबी केली.

किरीस्तांव भाटकारालीं व्हडलीं घरां आसतात तशेच तरेचें तें घर

आशिल्लें. तें खूप पोन्ने आसा हें भायल्यानूच कळटालें. कांय न्हय म्हळ्यार शंबर वर्सां तरी जाल्लीं आसतलीं तें बांदल्यार. ताका व्हडलें बल्कांव आशिल्लें, आनी थंय चडून वचपाक आठ सोपणां आशिल्लीं.

टॅक्सीचें भाडें दिवन पियान ड्रायवराक वचपाक सांगलें आनी सोपणां चडून तें बल्कांवाचेर आयलें, बल्कांवाक दोनूय वाटांनी सोपे आशिल्ले आनी तांचेर धव्या मार्बलाच्यो फातरी बसयल्ल्यो.

पियान सुटकेस एका सोप्याचेर दवल्ली आनी ती उगडून तोंड पुसपाचो एक ल्हान तुवालो भायर काडलो. त्या तुवाल्यान ताणें आपलें घामेल्ले तोंड पुसून काडलें. माथ्याचो बो काडून केसांवयल्यान ब्रश भोंवडायलो. बो परतून लावन जातकच ताणें भितल्ली एक ल्हान हारशी भायर काडली. हाताचेर थोडो पोव घेवन हारशेंत पळेत तो हात अळंग तोंडावयल्यान भोंवडायतकच ताका मातशी ताजबाण आयली. मागीर तांणें भायर काडिल्लें सगळे सामान परतून सुटकेसींत भल्लें आनी ती हातांत घेवन दाराचे एके कुशीक बसयल्ले घांटीच्या बटणाचेर बोट दामलें.

भितर घांटीचो ट्रींग असो आवाज जालो आनी त्या आवाजाच्या फाटोफाट ‘‘कोण येयला तें चोय गो बाय’’, असो एका जाण्टेल्याचो आवाज आयकूंक आयलो. पंचवीस सव्वीस वर्साच्या लांबरूंद आनी देखणे अशा एका चेडवान रोखडेंच दार उगडलें. आपल्या दारांत हातांत सुटकेस घेवन एक चेडूं उबें आसा हें पळोवन आलिशाक अजाप दिसलें.

‘‘कोण तूं? कोणाक सोदता?’’ ताणें विचाल्लें.

‘‘हांव फ्रेंकाची इश्टीण! म्हजें नाव पिया! फ्रेंकाक मेळूंक आयलां!’’ पियान म्हळें.

‘‘बाबाची इश्टीण तूं? यो भितोर यो! बोस येशें हे कदेलीचेर!’’ अशें म्हणून अलिशान पियाक भितर हाडून एके कदेलीचेर बसयलें आनी ताच्या हातांत थंड उदकाचें कोप दिलें.

‘‘कोण येयलां गो बाय?’’ एके कुशीक वल्तेराचेर बशिल्ल्या

मानुयेलीन विचाल्लें.

‘‘बाबाची एक इश्टीण येयल्या तेका मेवपाक!’’ आलिशान म्हळें.

‘‘येशो कितू इश्टिणी आसाय गो त्या चेडयेच्याक?’’

मानुयेलीलीं उतरां आयकून पियाक कच्च जालें. मात जाल्यार तागेल्या हातांतले कोप सकयल पट्टलें आशिल्ले. तांणें तें बेगिबेगीन मेजार दवल्ले. अशें कितें उलयलो हो! पुताक गाळ कित्याक माल्ली हाणें? आनी कितल्यो इश्टिणी आसात म्हळ्यार कितें? पियाचे तकलेंत गोंदळ सुरू जालो.

‘‘तूं फ्रेंकाची भयण?’’ तकली थीर दवरीत ताणें विचाल्लें.

‘‘वोय! म्हुजें नांव आलिशा! हांव तेची व्होडली भोयण! हो म्हुजो पाय.’’ आलिशान मानुयेलीची वळख करून दिली.

‘‘फ्रेंक आयलो?’’ पियान विचाल्लें.

‘‘फुंयसून?’’ पियाचो प्रश्न आयकून आलिशान अजापान विचाल्लें.

‘‘लंडनाकसून! लंडनाक गेल्लो न्हंय तो?’’

पियाचो आतांचो प्रश्न आयकून आलिशा सामकेंच गोंदळ्ळें. कोणे सांगलें तुका तो लोंडोणाक गेला म्हणोन?’’ आलिशान पियाक उरफाटो प्रश्न केलो.

‘‘ताणेंच ! हे सुटयेंन आठ दिसांखातीर लंडनाक वचून भावाक मेळून येतां, अशें सांगिल्लें तांणें म्हाका!’’ पियान म्हळें.

पियाली उतरां आयकून मानुयेलीन रागान म्हळे, ‘‘कोणा भावाक मेवोन येतां म्हणोन सांगलां गो तेणे? तेका भाव आसा फूंय रांडेच्याक? चोर, फोटींग फुंयचो! ओर्दिनार!’’

मानुयेलीच्या उतरांचो पियाक अर्थूच कळना जालो. तें गोंदळ्ळें. ‘‘असो कितें उलयता हो? पुताक एकसारक्यो गाळी कित्याक मारता? तकलेन बीन सारको ना काय?’’ अशें मनांत म्हणत ताणें आलिशाकडें पळेलें. आपूण चुकून दुसऱ्याच खंयच्च्या फ्रेंकागेर पावूंक ना मूं, असो दुबाव आयिल्ल्यान ‘‘तुजो भाव फार्मसी कॉलेजींत शिकता न्हय?’’

अशें ताणें आलिशाक विचाल्लें.

"वोय! तो बी फार्म कोत्ता! कित्याक? तुका दुबाव येयलो हो दुसरोच फुंयचो फ्रेंक आसोत म्हणोन? हो चोय तेचो फोटू!" अशें म्हणून ताणें एका फोटवाकडें बोट दाखयलें.

"हय हय! होच तो म्हगेलो फ्रेंड!" फोटवाकडें पळोवन पियान म्हळें.

"हो लंडनाक वोसोंक ना!"

आलिशाल्लीं ती उतरां आयकून पियाची तकली भिणभिणली दोळ्यांकडें काळोख येता अशें दिसलें. कदेलीक घट्ट धरीत तांणें निर्जीव सुरांत म्हळें, "म्हाका फटयलें तर ताणें?" आनी इतलें म्हण्टां म्हण्टां तें घुंवळ येवन सकयल पडलें. आलिशान ताका बेगिबेगीन उठोवन बसयलें, आनी पेपरान वारो घालीत बापायक व्हडल्यान म्हळें, "पाय हेका घुंवोळ येयली. इलें उदोक हाड!"

मानुयेल उदक घेवन आयलो. आलिशान पियाच्या दोळ्यांचेर पचपचीत उदक माल्लें. तें मातशें सावशीक जातकच ताका उठोवन सोफार आपले म्हऱ्यांत बसयलें आनी पेपरान वारो घालूंक लागलें.

"म्हाका कित्याक फटयलें ताणें? लंडनाक वचून येतां अशें फटीचें कित्याक सांगलें ताणें म्हाका?" अशें ओडिल्ल्या आवाजांत म्हणत तें रडपाक लागलें. तागेलो सकाळचो नेट आतां उरूंक नाशिल्लो. आतां तें सामकें बाबडें जाल्लें.

"आगो फोटकिरोच तो! तो सोगळ्यांकू फोटोयता! तुकाय फोटोयलें मुगो तेणें? त्या फोटिंगान, उणाक कास्ताच्यान?" अशें म्हणून मानुयेलीन फ्रेंकाचेर गाळींचो शिंवोर घालो.

पियाच्या फ्रेंकावयल्या विस्वासाक पयलेच खेपेक वेर गेल्ली. तो म्हाका केन्नाच फटोवचोना अशें ताणें ज्या आत्मविस्वासान घरच्यांक सांगिल्लें, तो तागेलो आत्मविस्वास आतां डळमळूंक लागील्लो. "आतां खंय गेला तो?" निराशेचे नदरेन आलिशाकडें पळेत तांणें

विचाल्लें.

''जेला आसतलो हेडोंक दुसऱ्या फुंयच्च्याय चेडवाक बोगलेक घेवन!'' मानुयेलीन म्हळें आनी पुताच्या करण्यांची वीट येवन तो थू करून जनेलांतल्यान थुकलो.

मानुयेलीच्या तोंडातलीं ती उतरां पियाचें काळीज चिरून गेलीं. तें दुखान कळवळ्ळें. ''आरे देवा! फटयलें गो ताणें म्हाका फटयलें! घात केलो ताणें म्हजो!'' अशें म्हणून, आलिशाक वेंग मारून तें व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागलें.

तें रडटा तें पळोवन आलिशाक कितें करचें तें समजना जालें. ताणें ताका घट्ट वेंगेंत धल्लें आनी म्होंवाळ उतरांनी समजांवक लागलें. ''रोडूं नाका पिया रोडूं नाका! दोळे पूस! तूं जाणा, सोगळे तोरनाटे येशेच आसताय! फोटिंगपणा कोरच्च्याक तेंकां कांयच दिसोना! तेंचेर इस्वास दोवरोप म्हुटल्यार पिशेपणां. तूं आतां येशें कोर! तेका फोटींग म्होण आनी सोडून दी! येसल्या भुरग्याकोडेन इश्टागोत कोरच्च्याक फावोना!''

'' ना गो आलिशा म्हज्यान तशें करपाक जावचेंना. तितली सोपी गजाल ना ती आतां! तांणें म्हका व्हडल्या संकश्टांत घालां. गो आलिशा! आरे देवा, आतां हांव कितें करूं?''

पियालो आकांत पळोवन आलिशाचें मन कळवळ्ळें ''चोड मोग आसा तुजो तेचेर?'' ताणें विचाल्लें. पियान हय अशी मान हालयली. ''फोकोत तुजो आसलो म्हुणोन उपकात्ता? तेचोय तुजेर तितकोच आसोंक जायो!'' आलिशान म्हळें.

''ताचोय म्हजेर खूप मोग आसा!'' पियान म्हळें.

''मुको दिसोना तेचो तुजेर मोग आसा मुणोन! मोग आसलेलो जाल्यार तो तुकोडे फोटींगपोणा कोरपा नासलो. तेंणें नाटोक केलां आसतेलें मोगाचें! फोरे न्हूं?''

आलिशाल्या प्रश्नाक पियान जाप केलिना! तें रडतूच रावलें. ''मुको

सांग, तेंणें तुजेर केसो सोंकोश्ट हाडलां? हांव चोयतां तें पयस कोरच्याक जाता जाल्यार!'' पियाचे फाटीवयल्यान हात भोंवडायत आलिशान म्हळें.

''ना गो आलिशा, ताचेबगर तें कोणाच्यान पयस करूंक जावचेंना!'' पियान रडत म्हळें.

''येसो कोसलें सोंकोश्ट तोर तें? सांग माका! मागीर चोयतां कितें कोरपाचें तें!''

आलिशाल्या उतरांनी धीर येवन पियान मान सकयल घालून सांगून उडयले. ''हांव प्रेग्नेंट आसां!''

''आवोयस! सायबा भोगोस! कितें सांगोता गो तूं पिया? तूं प्रेग्नेंट आहा? म्हुज्या भावान केलां हें कोर्तूप?'' आलिशान अजापान विचाल्लें.

''जालें मुगो? घायलें मुगो तुका तेंणें फोंणात, त्या चेडयेच्यान? हायलो मोगो तुयें गू? आतां रोड तेच्या नांवान! सुण्या कास्ताची मोनशां तुमीं!'' मानुयेलीन गजाल मारून म्हळें.

''मातसो ओगी राव रे पाय! कितें उलोयता तूं ! तेच्या काळजाक घावो जाला आनी तूं घाव्याचेर मीट फाफुट्टा?'' मानुयेलीक उलयतना थांबोवन आलिशान म्हळें, मागीर तें पियाक समजावपाचो यत्न करूंक लागलें ''बाबान केलां मुगो हें काम? जाल्यार भींव नाका! हांव चोयतां फुडें कितें कोरपाचें तें!''

आलिशा पियाक समजायतालें खरें, पुणून आपलीं उतरां कितलीं पोकोळ आसात हें तें जाणा आशिल्लें. आपल्या भावाक तें बरेबशेन वळखतालें. तो कितलो घातमारो आसा हें ताका खबर आशिल्लें. तागेल्या असल्या कर्तुपांनी तें हाचे पयलींय लजेक पडिल्लें.

''तुयें येशें केशें केलें गो? इतू शिकलोलें तूं, तुयें येसलीं पिशेपोणां केशीं केलीं?'' ताणें पियाक विचाल्लें.

''हय, हांवें पिशेपणां केली. आपल्या मोगान ताणें म्हाका पिशें लायलें. आमी रोकडींच काजार जांवया म्हणून सांगलें ताणें म्हाका.''

पियान म्हळें.

"तेंणें काजार जांवया म्हुणोन सांगलें आनी तुयें तेच्या उतराचेर पातयेवन तुगे कूड तेचे सुवादीन केली? काजार जातोलों म्हुणोन बरोवन दिलां तेंणें तुका? काजराफुडें येसलें काम कोरोप म्हुटल्यार लोजेची गजाल! तुयें चूक केल्या! आपलें काम सादोंवच्याक चेडे मोगाचें नाटोक कोत्तात आनी चेडवांक फोटोयतात हें फोबोर ना तुका? पेपरांत केदना वाचोंक ना तुयें येंसल्यो गोजाली? हांव म्हुंण्टा कांयच चिंतीनासतोना तुयें हें बुरशें काम केलेंच केशें?" आलिशाचो आवाज आतां वयर चडिल्लो.

"आलिशा म्हजी खऱ्यांनीच चूक जाली गो! तागेल्या मोगाच्या उतरांनी हांव सामकें पिशें जालें आनी ताचेर विस्वास दवल्लो. आपूण लंडनाक वचून येतां, मागीर आमी रोकडींच काजार जांवया अशें सांगलां तांणें म्हाका! आपल्या माय पायन आमच्या काजराक संमती दिल्या अशेंय सांगलां तांणें!"

कोणागेल्या मायपायन सोम्मती दिल्या येशें सांगलां गो तेंणें? तेका मांय आसा फूंय चेडयेच्याक? तेची मांय मेल्यार पांच वोंर्सा जालीं. फोटीचेर फोट, फोटीचेर फोट! येसलो फोटिंग भुरगो केदना चोयलोना हायें! चेड्याचेर तिडक काडून जातकच तांणें पियाक म्हळें, "चेडवा तूं तेच्या नादाक लागों नाका! हांव सांगोतां तें आयक! बोऱ्याक पावतेलें! तो भुरगो फोरो न्हूं! तेकोडे काजार जाल्यार फोणां पोटेल्लें!"

"तूं आतां ओगी राब रे पाय! बाबाक येंवदी! चोवया तो कितें म्हुण्टा तें!" आलिशान मानुयेलीक उलोवपाचो थांबयलो आनी मागीर पियाक म्हळें "पिया पाय म्हुण्टा तें फोटींचें न्हूं! तुकोडे काजार जालो जाल्यार लेगून तुका तो फोशी दिवपाना! थोड्या दादल्यांक एके बायलेन सोमादान जायना. तेंकां होजार बायलो जाय पोट्टात! ते नेव्या नेव्या चेडवांफुड्यांत वोयतात आनी मोगाचें नाटोक कोन्न तेंचो फायदो घेतात. तेंच्या मोदलो आसा मुगे भाव! हांव बोरो वोळकतां तेका!"

''आलिशा ताचेबगर जिवें रावूंक शकचेना गो हांव ! म्हज्या मोगान हांव ताका सुदारतलें! ताका म्हजोच करतलें!'' पियान म्हळें ताचो आत्मविस्वास परतून जागो जाल्लो. फ्रेंक आपलें आयकतलो अशें ताका अजुनूय दिसतालें.

''तेशें तुका दिसता जाल्यार बोरें आहा! येंवदी बाबाक!'' आलिशा इतलें म्हंण्टा म्हणसर दाराची बेल वाजली.

''येयलो मिस्ता बाब!'' अशें म्हणून आलिशा उठलें आनी तांणें दार उगडलें.

फ्रेंक भितर आयलो आनी हेवटेन तेवटेन पळेनासतना नीट माळयेर वचूंक लागलो. ताका उलो मारून आलिशान म्हळें, ''बाब, हेका चोयलां तुयें? कोण येयलां तें चोय मुरे! तुगें फ्रेंड येयलां तुका मेवपाक!''

फ्रेंकान फाट घुंवडायली. पियाचेर नदर पडनाफुडें तो काचाबूल जालो. तोंडाचेर उश्णें हांशें हाडीत तांणें म्हळें, ''हाय् पिया! हाउ आर यू? केदना येयलें?''

''ओद्दें वोर जालें तेका येयल्यार!'' आलिशान म्हळें.

''आद्दें वोर जालें? जाल्यार तुयें फोन कोरपाचो न्हू म्हाका!'' अशें भयणीक म्हणून तांणें पियाकडें पळोवन म्हळें, ''सोरी पिया! तुका वाट पळेत रावचें पोडलें. कित्याक येयलोलें? डू यू हॅव एनी बिझनेस विथ मी?''

फ्रेंकाचीं तीं उतरां आयकून पिया थंयचे थंय घट्ट जालें. ताचेकडेन तो अशेतरेन उलयत हाची ताका कल्पना नाशिल्ली. ताका दिशिल्लें, आपणाक पळेतकच तो धांवत आपले म्हऱ्यांत येतलो आनी मोगाचीं दोन उतरां उलयतलो. पुणून परके चलयेकडे उलोवचें तशेतरेन ताका उलयतना पळोवन ताच्या आंगाक थरथरो भल्लो. ताळो सुकून आयलो. फुडलें भविश्य ताका दोळ्यांमुखार दिसपाक लागलें. धीर करून तें फ्रेंका म्हऱ्यांत गेलें आनी ताचो हात हातांत घेवन तो घट्ट दामीत ताका विचाल्लें, ''लंडनाक वचून आठ दिसांभितर येतां अशें फटीचें कित्याक

सांगलें तुवें म्हाका?''

''आगो म्हुज्या व्हिसाची भानगोड जाली. आनी लोंडणाक वोयचेलो उल्लों.'' फ्रेंकान हांसून म्हळें.

''आनी फोनाची कितें भानगड जाली? तुवें म्हाका फोन केलोच ना! वयल्यान हांवें शंबर फावटीं ट्राय करूनूय तुजो फोन लागलोना!'' पियान मातशा वयल्या आवाजांत विचाल्लें.

''आय हेव चेंज्ड माय फोन! पोयलींचो उदकांत पडोन खोराब जालो! नोया नंबराची गोजाल तुका सांगोंक विसल्लों. सोरी!'' फ्रेंक फटिचेर फटी मारूंक लागलो.

''आनी आठ दिसांभितर म्हाकाय विसल्लो? जल्मांत केन्नातरी एकदांच भेट जाल्ल्या मनशाबशेन उलयता तूं म्हजेकडेन! लंडनाक वचून येतकच रोकडींच काजार जांवया म्हणून सांगिल्लें तुवें म्हाका! तेंवूय विसल्लो?'' फ्रेंकाच्यो फटी आयकून पियान तिडकीन विचाल्लें. उलयतना ताचे ओंठ थरथरताले.

''तुका काजार जातां म्हुणोन सांगलोलें? वॉट आर यू टोकींग पिया? हायें तुका काजार जातां म्हुणोन केदना सांगलेंना!''

फ्रेंकाची तीं फटींचीं उतरां आयकून पियान तिडकीन म्हळें, ''काजार जांवया म्हणून सांगूंक ना तुवें? एक वर्स जालें, तूं म्हाका रोकडीं काजार जांवया म्हणून सांगत आसा! पंदरा दिसांपयलीं लेगीन लंडनाक वचून येतकच रोकडीं काजार जांवया म्हणून सांगिल्लें तुवें! फटीचें कित्याक उलयता?''

''बेश्टें बोब मारों नाका! तुका काजरा उतोर हायें केदना दिलें ना!'' फ्रेंकान पियाक धमकावन म्हळें.

तागेल्या त्या उतरांनी पिया सामकें निर्शेलें. तागेली तकली गिरगिरपाक लागली. तांणें ती दोनूय हातांनी चिड्डून धल्ली. कितें उलोवचें तें ताका येवजना जालें, ''बुडलें रे देवा बुडलें!'' अशें म्हणून तांणें थंयच बसकण माल्ली.

एदो वेळ ओगी रावून तांगेलें उलवणें आयकतल्या आलिशाच्यान पियाची जाल्ली गत पळोवन ओगी रावूंक नजो जालें. तें बेगिबेगीन पियाम्हऱ्यांत धांवलें आनी तांणें ताका उठोवन सोफार बसयलें. मागीर तांणें तिख्या उतरांनी भावाक विचाल्लें, ''बाब, तुयें हो केसलो तमासो चोलोयला? पिया तुगें फ्रेंड मुरे! तेका घेवन तूं सोगळ्याक भोंवता मुरे? तेका काजराचें उतोर दिवन तुयें तेचे कुडीचो भोग घेतला मुरे? आतां तें प्रेग्नेंट आहा! तेच्या पोटांत तुगे भुरगें आहा! तुयें केलोली ही भानगोड तुयेंच सोडोवपा जायी! तुयें तेकोडे काजार जांवकु जायें!''

''हांव तेकोडे केदना काजार जांवचोना!'' फ्रेंकान तिडकीन म्हळें.

तेच्या पोटांत आसलेल्या भुरग्याक लागोन तुयें तेकोडे काजार जांवचें पोडटलें. तेकोडे काजार जा आनी त्या भुरग्याक बापायचें नांव दी!''

आलिशाच्या उपदेशाचो फ्रेंकाचेर परिणाम जावपासारको नाशिल्लो. बारा बांयचे उदक पिल्लो मनीस तो! तांणें उसळून म्हळें, ''कोणागेल्या भुरग्या गोजाल कोत्ता गो तूं? हेच्या पोटांत आहा तें मुगे भुरगें? नो! नेव्हर! इट इज नोट माय चायल्ड! हेच्या फुड्यांत जायते भुरगे न्हिदल्या आसतोले. तेंच्या मोदल्या कोणागेलें आसतोलें तें भुरगें!''

तागेलीं तीं हलकटपणाचीं उतरां आयकून, आपल्या कानांत तो तापिल्लें तेल वतयता अशें पियाक दिसलें. तांणें आपले कान घट्ट धांपून घेतले. खंयचे आशेन तें आयिल्लें आनी आतां ताका कितें आयकून घेवचें पडिल्लें! तागेले कल्पनेपेल्यानची ही घडणूक आशिल्ली. आपणाक वेंगेंत घेवन आपल्या कानांत मोगाच्यो गोड गोड गजाली सांगपी त्या तरनाट्याचो आतांचो अवतार पळोवन तें थक्क जालें. आपल्यो इश्टिणी आपणाक ताचेविशीं जें सांगताल्यो तें खरें आशिल्लें म्हणपाचें ताका आतां कळिल्लें. आपल्या कुड्ड्या मोगाचो ताका राग आयलो. चाळवलेले वागीणीबशेन तें फ्रेंकाच्या आंगार धावलें आनी तागेल्या शर्टाच्या गोलाक धरून तें ओडीत ताणें गजाल मारून म्हळें, ''हलकटा, कितें उलयता तूं? असलीं घाणयारीं उतरां उलयतना

जीब झडलीना कशी तुजी? किडे पडटले तुज्या तोंडाक! वळवळून मरतलो तूं! तुजें केन्नाच बरें जावचेंना! लंडनाकसून येतकच काजार जांवया म्हणून सांगूंक नाशिल्लें चोरा तुवें? हांवें तुका प्रग्नेंन्सिचें भंय घाल्यार तुवें सांगिल्लें, तूं कित्याक भिता गो? आमी रोकडींच काजार जातली. मागीर त्या भुरग्याक बापायचें नांव मेळटलें. आनी फटिंगा आतां तूं सांगता तें भुरगें तुजें न्हय म्हणून? अशेतरेन गळो कापता तूं म्हजो?''

पियाचे हात फाफडून उडयत ताका धुकलीत फ्रेंकान गजाल मारून म्हळें, ''शट अप युअर माउथ! तोंड धाप! नाजाल्यार तें पिंजोन उडयतोलों! बोब मात्ता? तुजेयेसलीं कितू चोयल्यांत गो हायें! तुका नाका जाल्यार तें भुरगें काडून उडोय! तुगे जायते इश्ट आसतेले. तेंचे मोदल्या कोणाकूय सांग तें भुरगें तेजें म्हुणोन आनी जा काजार तेचे लागीं! नो रिलेशन बिटवीन असू! हांव तुका वोळको लेगून ना! गोऽ! गेट आवट! अशें म्हणून तो माळयेर वचूंक लागलो. ताका आडायत पियान रागान म्हळें, ''तुका हांव सोडचेंना! केस घालतलें तुजेर आगळीक केल्ल्याची! तुका कादयेंत घालतलें, खडी फोडूंक धाडटलें तुका!''

''जाय तें कोर! केस कोर ना जाल्यार आनीक कितेंय कोर! आय डोन्ट केअर! आतां हिंगां खिणबोर रावों नाका! ना जाल्यार फोंट मात्र धांवडायतोलों!'' अशें म्हणून पियाक धुकलून उडोवन तो फातराकाळजाचो मनीस नीट माळयेर गेलों, आनी तांणें धुकळून उडयल्ल्यान शेंवटून पडिल्लें पिया पडलां थंयच व्हडल्या व्हडल्यान रडूंक लागलें.

ती घडिल्ली घडणूक पळोवन आलिशाचें काळीज हाल्लें. ताच्या भावान पियाकडे केल्लो वर्ताव पळोवन ताचो तिरस्कार करचो अशे ताका दिसलें. पियाक वाटावपाचो आपणाकडें कांयच उपाय ना हें येवजून तें सामकें दुखी जालें. तांणें पियाक उबाल्लें आनी ताका आपले वेगेंत घेवन ताचे वांगडा तें आपुणूय दुकां गळोंवक लागलें.

“जालें मुगो? चोयलें मुगो तुयें तुगें भावाचें कोर्तूप? ह्या रांडेच्याक देवानू ख्यास्त कोरपाची! तो मेलो जाल्यार हांव रोडचो लेगून ना! मेर्द फुंयचो! मालकिर्याद! उणाक कास्ताचो!” मानुयेलीन पुताक गाळी संवून ताचेवयल्या रागाक वाट करून दिली.

“पिया, थोंड जागो मुजे भोयणी, रोडों नाका! तुयें रोडोन आतां कांयच उपेग ना ! तो फातराकाळजाचो भुरगो तुकोडे काजार जावपाना! तुगे फुडार आतां तुयेंच चोंवच्या जावो! फुडें कितें कोरचेलें तें तुयेंच थारांवच्या जायें! हे तोरनाटे कितू सुवार्ती आसताय, तेचो हायेंय ओणबोव घेतला म्हुजे भोयणी? तुजे बाशेन हायें पिशेपोणां केलोलीं जाल्यार हांव हिंगां तायट मानेन आसचें नासलें. म्हाजोय एका चेड्याचेर मोग आसलो. तोवूय म्हाजेर मोग कोत्तालो. पूण तो मोर्दीं मोर्दीं म्हुजेकोडे सेक्साची मागणी कोरच्या लागलो. हायें तेका सांगलें, पोयलीं आमी काजार जांवया, मागरी हांव तुजेंच आसांव! एकदां तो होट्टाकू पेटलो. तेंणें माका आड घायलें. हायें तेका दुकोळ्ळों. तेका राग येयलो. तेंणें म्हुटलें, “तूं माका आतां फोशी कोन्ना जायत जाल्यारी आमची आमिजाद तुटली.” हायें म्हुटलें, “तुजी फुशी”! तो रागान गेलो, एका चेडवाकोडे आमिजाद केली, तेका पोट केलें, आनी दुबाय पोवोन जेलो. हांव कितें सांगतां तें सारकें आयकोय म्हुजे भोयणी! तुगे बोऱ्याचे सांगतां! तुगे घोराचो नामो दी माका! हांव तुगे घोराकडे फोन कोन्न सांगतां तुका व्होरपाक! तुका भिरांत दिसोता जाल्यार हांव येतां तुजेवांगडा!”

“ना ना, म्हाका म्हज्या घराकडे वचपाचें ना! हांवें तें घर सासणाचें सोडलां. घरांत परतून पांय दवरचेंना अशें सांगून हुंबरो हुपला हांवें त्या घराचो!” पियान आलिशाक रडत रडत सांगलें.

तेशें जाल्यार येशें कोरचें! तूं म्हुजे वांगडा दोतरागेर यो! दोतोर म्हुजे वोळखीचो आहा! मेकळें जातोकोच तुका कोसली भिरांत ना! मागरी तुज्यान तुका जाय तेशें कोरच्या जातलें. आलिशा ताका समजांवक लागलें. पुणून ताचे समजावणेचो पियाचेर कायंच परिणाम जालोना.

आपणाक जाय तेंच आपूण करतलें, असो जो एक अहंगंड ताच्यांत आशिल्लो, तो ताका दुसऱ्यालें कितल्याय बऱ्याचें सांगणें आयकुंक दिनाशिल्लो.

तें आतां सुडान पेटिल्लें ''हांव ताका सोडचेंना! ताका बुद्द शिकोंवकूच जाय म्हाका! हांव ताची पोलीस कम्प्लेन करतलें! ताका बणखणीत उडयतलें!'' अशें बडबडत तांणें सुटकेस उबाल्ली.

''तुयें तेची पोलिसेंत कागाळ कोन्न तेका कादयेंत घायलो जाल्यार वायट न्हूं! पूण तुज्यान तेशें कोरच्या जातलें वो ना हें चोंयच्या जायें! आपली लोज ओगडावन येसलें काम कोरचें पोट्टा! बायलेक लोज ही चोड गोरजेची गोजाल आसता! सारकें चीत आनी फुडें सोर!'' आलिशा अजून ताका उपदेश करतालें. पुणून तो उपदेश आयकुपाचे मनस्थितींत पिया नाशिल्लें.

''जांवनी कितें जाता तें! म्हाका ताची पर्वा ना! पुणून हांव त्या फटिंगाक ख्यास्त दिलेबगर रावचेंच ना! त्या हलकट मनशाक बुद्द शिकोंवकूच जाय म्हाका!'' अशें बडबडत त्या घरांतल्यान भायर सरून तें धांवतूच रस्त्यार आयलें.

दनपारच्या रखरखीत वतान रस्तो सामको तापिल्लो. ताचेर ल्हारां आयिल्ल्याचो भास जातालो. लार्गी जितो मूस दिसनाशिल्लो. थंय उबें रावप ताका कठीण जाल्लें. तें सांवळी सोदूंक लागलें. ताचो ताळो तानेन सुकिल्लो. पयस एका झाडाचे सांवळेंत ताका एक आडसरांचो गाडो दिसलो. तें थंय गेलें आनी एक आडसर घेवन ताचें उदक गटगटीत पिलें. जिवाक मातशें बरें दिसतकच, फुडें कितें करपाचें, खंय वचपाचें हें तें येवजूंक लागलें.

ताका खूब इश्टिणी आशिल्ल्यो, पुणून तातूंत प्रसंगाक उपकरा पडपी एकूच आशिल्ली. उशा सडेकार! बांदेची! उशागेर तें जायते फावटीं गेलां आनी तेंवूय तागेर आयलां. तागेलीं आवय बापूय बरीं मनशां! तींवूय ताका बरें करतात. उशानूय ताका हे सुटयेंत आपणागेर

आपयल्लें. ''तागेर गेल्यार खूबशे प्रश्न सुट्टले! फुडें कितें करपाचें तें तेंच बरेतरेन सांगतलें म्हाका! तें सांगता तशेंच करपाचें! फ्रेंकाक ख्यास्त दिवपाक ताचोच आधार घेवपाचो!'' अशें थारावन वाटेन वतले एके टॅक्सींत बसून तें बांद्याक वचपाक गेलें.

टॅक्सींत बसतकच 'उशाक फोन करून कळयल्यार बरें जातलें', अशें येवजून ताणें फोनाखातीर पर्सींत हात घालो जाल्यार भितर फोन नाशिल्लो. ताणें पर्स आनी सुटकेस उस्तुन पळेली, पुणून फोन मेळ्ळोना. मागीर ताका याद जाली. फोन चार्जींगाक लायिल्लो थंयच उरिल्लो. तो परतून पर्सींत उडोवपाक ताका याद उरूंक नाशिल्ली. तागेल्या हिसपान ते गजालीक जरी महत्व नाशिल्लें, तरी तागेल्या फोनावयल्यान ताचो माग काडपाचो तागेल्या घरच्यांचो एक मार्ग बंद जाल्लो.

खाटीर पडिल्ली थंय वसुंधरा सामकी तळमळटाली. दोळे व्हांवत आशिल्ले. घोवान आनी पुतान तिका समजावपाचो खूब यत्न केलो, पुणून ती कोणाचेंच आयकनाशिल्ली. एकसारको पियाच्या नांवाचो जप करताली. दनपरां ती जेवलीना, न्हय तिणे च्याचो घोट घेतलोना.

"वसू, इलितरी च्या पिये गो! सकाळच्यान कांयच पोटांत वचूंकना तुज्या! असल्यांनी तुजें प्रेशर देंवतलें! जालें तें जालें, ताका उपाय ना! आमचें कोणाचेंच आयकलेंना तांणें! तुजी लेगीत पर्वा केलीना! तें इतलें कठोर कशें जालें हेंच म्हाका समजना! कर्म म्हणचें पडलेंना हें आमचें? आमी कितें केलेंना ताचे खातीर? ताचें एकूय उतर सकयल पडूंक दिलेंना! तें म्हण्टा तें तें केलें!" अशें म्हणून बुर्यान दोळे पुसले.

"थंयच चुकलें आमचें! ताका इतलें सदळ सोडपाचें न्हय आमी! म्हजेंच चुकलें पापा! तें जेन्ना त्या भुरग्यावांगडा भोंवपाक लागलें, तेन्नाच आडावपाचें हांवें ताका! हांवें तसो यत्न केल्लो, पुणून तें लोकांमुखार म्हाका जाणवायो सांगूंक लागलें. तूं तुगेलें धर्मकारण कर, म्हगेलें तुका लागना अशें म्हणून चाळोंवक लागलें. ताचे बराबरचीं भुरगीं म्हाका हांसूंक लागलीं, म्हणून हांवें ताका कितेंय सांगपाचें थांबयलें. हांव आतां ताचेकडें उलयलेगीत नाशिल्लों. मम्मी तूं ताचेखातीर जिवाक त्रास करून घेंव नाका! ते लायकीचें चली न्हय तें! आपले आवयक जें चली वळखना ताचेखातीर आनी रडपाचें आसा? पूस दोळे पूस गे मम्मी! घोटभर तरी च्या घे!" अशें म्हणून उदयान च्याचें कोप आवयच्या

तोंडाकडें व्हेलें, पुणून तिणें तें कुशीन करीत म्हळें-

"कशेंय करून तुमी हाडात म्हजे चलयेक! ताचेबगर म्हज्यान रावूंक जांवचेना ह्या घरांत! तें भुरगें आसा! अद्न्यानी आसा! जगाचो अणभव घेंवक ना ताणें अजून! त्या पोरान ताका थारो दिलोना जाल्यार कितें करतलें म्हगेलें पोर? खंय वतलें, कोण आदार दितलो ताका? तुमी सांगलां ताका घरांत घेवचेनात म्हणून! संकश्टांत पडटलें तें! कोण वाटायतलो ताका?" अशें म्हणून बाय गोऽ बाय गोऽ करीत वसुंधरा दुकां गळोंवक लागली.

ती कशीच आयकना जाली तसो बुर्यान आपल्या मेवण्याक फोन करून आपयलो. अर्दवराभितर सोमनाथ रायकार थंय पावलो. भयणीची अवतिकाय पळोवन ताच्या दोळ्यांत दूक आयलें.

बुर्यान ताका सगळी गजाल सांगली. ती आयकून ताका धक्कोच बसलो. हें असलें कितेंय घडत हाची ताणें कल्पना लेगीत करूंक नाशिल्ली. आपले भाचयेचें कर्तूप पळोवन ताणें कपलार हात मारून घेतलो आनी म्हळें, "पोरा, कितें केलें तुवें हें? तूं आमचें नांव वयर काडटलें अशें दिशिल्लें म्हाका? तुवें नांव वयर काडलें, पुणून अशेतरेन! कसलीं अवचिनपणां केलीं गो तुवें हीं? अशें वायट कर्म करतना कांयच कशें दिसलेंना तुका?" मागीर ताणें आपले भयणीच्या केंसावयल्यान हात भोंवडायत म्हळें, "ताई तूं कश्टी जांव नाका तें गेलें म्हणून! जो तो आपलें नशीब वांगडा घेवन येता. ताच्या नशिबांत जें कितें बरयलां, तें ताणें भोगचेंच पडटा! तातुंतल्यान ताची सुटका नासता! आमी आशा करूंया, तें परतून येतलें म्हणून!"

"ना रे भाऊ, तें परतून येवचें ना! तशें सांगून गेलां तें! तें आपूण जावन येवच्चेंच ना! ताची चिंता लागल्या रे म्हाका! पोर आतां खंय आसा कोण जाणां? भाऊ, तू हाड रे ताका परतून!" वसून भावाक काकुळटेन म्हळें.

"ताई तूं चिंता करूं नाका! हांव घेवन येतलों ताका! कोण नांव

म्हळें रे ताचें?'' सोमनाथान उदयाक विचाल्लें.

''फ्रेंक! फ्रेंक सिल्वेर! थिवी रावता तो!'' उदयान सांगलें.

''बरें आसा ताई हांव फाल्यां सकाळीं वतां आनी घेवन येतां ताका!'' सोमनाथान भयणीक बरें दिसूंक जाय म्हणून म्हणिल्लें. पुणून मोगाचो नेट कितलो आसता, आनी ताची गांठ सोडोवप कितलें कठीण आसता हें ताका खबर आशिल्लें.

''ताका सांग, त्या भुरग्याकडें तूं लग्न जातलें जाल्यार खुशाल जा! आमीच लग्न लावन दितात तुजें ताचेकडेन! आतां जात धर्म कोण पळेतात रे भाऊ! आतां वचत थंय तेंच चल्लां! कोणूय कोणाकडेंय लग्न जातात! आमीच उल्ल्यांत धर्म पाळणारीं! म्हजो जाल्यार इल्लोय विस्वास ना जाती धर्माचेर. तूं सांग ताका तशें आनी घेवन यो!'' वसुंधरा भावाक समजावन सांगताली. आवयची माया जाती धर्माच्यो वंयों सहज हुपून वता असोच ताचो अर्थ आशिल्लो.

आवयचीं उतरां आयकून उदयाचें तोंड सामकें काळें जालें. तिगेलें उलोवप ताका निखालस मानूंक नाशिल्लें. ताका आवयचो राग आयिल्लो. ती आपल्या हिन्दू धर्माची चेश्टा करता अशें ताका दिसलें. तांणें राग चिड्डून धल्लो आनी मामाक म्हळें, ''मामा त्या भुरग्यान ताचो पत्कर घेतलोना जाल्यार खंय आसा थंयच्यान ताका घेवन यो! पुणून त्या भुरग्याकडेंच आपूण काजार जातलें अशें तांणें म्हळें जाल्यार मात ताका ह्या घरांत हाडूं नाका आं!''

''मातसो ओगी राव रे उदय! कितें उलयता ताचें भान आसा मरे तुका? आवयची परिस्थिती पळे मरे कशी जाल्या ती! आपले धुवेखातीर ती कशी तळमळटा तें पळे! तुजी भयण मरे ती? धर्माचें वक्ल मातशें कुशीक काडून दवर आनी तिचेविशीं मनांत येवजून पळे! तें घरांतल्यान भायर सरून गेलां ! तें आतां खंयचे परिस्थितींत आसा हें आमकां खबर ना! ताचो आमी पयलीं सोद घेंवक जाय! तें त्या भुरग्याकडें लग्न जातलें काय ना हो मागीरचो प्रश्न! त्या भुरग्यान ताका पत्करलां, आपल्या

घरांत ताका आलाशिरो दिला काय धांवडायलां, हें पयलीं पळोवचें पडटलें. हांव सकाळींफुडें थिवि वचून ताचो सोद घेतां! ताका हांगा हाडपाचो प्रश्न ताचेफुडलो! तूं ते गजालीचेर आतां कांयच उलोंव नाका!'' अशें म्हणून तांणें भाच्याक धपकायलो आनी मागीर भयणीक म्हळें, ''ताई तूं उदयाल्या उलवण्याकडें लक्ष दिंव नाका! तो फकत धर्म म्हणून जाणा! माया, मोग असल्या गजालींचे ताका मोल ना! धर्मकोल्ली मनशांच्या शब्द कोशांत त्या शब्दांक जागो नसता! पियाक घेवन येतलों अशें हांवें तुका उतर दिलां. तें हांव खरें करतलोंच हाचेर विस्वास दवर! सकाळफुडें वतलों हांव थंय! आतां इलिशी च्या पिये पळोवया! जिवाक बरें दिसुनी तुज्या!'' अशें म्हणून सोमनाथान थर्मासांतल्या गरम च्याचें कोप भयणीच्या हातांत दिलें.

वसूक आपल्या भावाच्या उतरांनी खरेंपण जाणवलें, आनी ताका बरें दिसचें म्हणून ती इली च्या पिली.

''आतां मातशी स्वस्त पडून राव!'' अशें म्हणून तांणें खाटीर पडिल्ले भयणीच्या आंगार शाल ओडली आनी बुर्याक म्हळें, ''चल भावोजी आमी भायर बसून गजाली करूंया! ताईक मातसो विसव घेवनी!''

भावोजी आनी मेवणो भायले पडवेर बसून गजाली करूंक लागले. उदय थोडो वेळ आवयचे म्हर्‍यांत बसलो, आनी तिणें दोळे धांपल्यात हें पळोवन आपले कुडींत वचून वल्तेराचेर लवंडलो. मामाच्या उतरांनी ताच्या मनांत गोंदोळ घाल्लो. तागेलीं उतरां ताच्या काळजाक खंयतरी तोंपिल्लीं. ''धर्म व्हड काय माया मोग व्हड?'' मनांतलो गोंदोळ सोंपनाजालो, तशी तांणें तकली फाफुडली आनी दोळे घट्ट धांपून घेतले.

''वसुंधरा दोळे धांपून हातुणार पडिल्ली. तिगेल्या धांपिल्ल्या दोळ्यांमुखार परतून परतून पिया उबें रावतालें. तागेलो बाविल्लो चेरो पळोवन ती दुखान सुस्कारे सोडटाली. थोड्या वेळान ती उठली आनी देवघरांत वचून तिणें देवा फुड्यांत तुपाचो दिवो पेटयलो. ''तुवें दिल्ले

चलयेची आतां तूंच राखण कर रे देवा!''अशें म्हणून देवाकडे प्रार्थना केली, आनी परतून येवन हातुणाचेर न्हिदली.

तिचो मातसो दोळो लागलो. तितल्यांत तिका एक भयंकर सपन पडलें आनी तिणें व्हडल्यान किळांच माल्ली.

तिगेली किळांच आयकून सगळे तिगेले कुडींत धांवले. वसू उठून बशिल्ली आनी भंयान सामकी थरथरताली.

''ताई, कितें जालें? कित्याक किळांच माल्ली? वायट सपन पडलें तुका?'' भावान भयणीच्या माथ्यावयल्यान हात भोंवडायत विचाल्लें.

''एक व्हडलो राक्षस लागला रे म्हजे चलयेच्या फाटल्यान! वाटाय तिका! ना जाल्यार तो राक्षस ताका मारून उडयल्याबगर रावचोना! भाऊ वाटाय रे म्हज्या पोराक!'' अशें म्हणून वसुंधरा रडूंक लागली.

''शांत जा गे ताई, शांत जा! कांयच जांवचेंना तुजे चलयेक! हांव वाटायतलों तिका! सकाळ जायनाफुडें भायर सरतलो हांव तिच्या सोदाक! तूं चड येवजूं नाका! तूं येवजिता तेंच तुका सपनांत दिसता! आतां तूं ओगी न्हीद!'' भयणीचे फाटीवयल्यान हात भोंवडावन आनी मातशी थापटून भावान तिका शांत केली. बुर्यान तिका थापटिली आनी तिच्या आंगार मायेन पांगरूण ओडलें! ''आतां ओगी न्हीद आं! येवजीत रावूं नाका!'' अशें म्हणून तो मेवण्या वांगडा भायर गेलो. उदय मात आपले आवयचे पांय चेपीत थंयच बसून रावलो.

भायर लख्ख उजवाड आशिल्लो, पुणून ताच्या अंतस्करणांत मात उमाशेच्या काळखान घर केल्लें. ताका कितेंच येवजनाशिल्लें आनी कितें करचें तेंवूय समजनाशिल्लें. ताका आपली भयण घराकडें आयिल्ली जाय आशिल्ली, पुणून ती धर्मभ्रश्ट जाल्ली नाका आशिल्ली. ''कितेंय कर, कसलीय अडचण हाड आनी पियाचें फ्रेंकाकडें काजार जांवचेंना अशें कर!'' अशी तो मनांतल्या मनांत देवाकडे प्रार्थना करपाक लागलो.

यशवंत सडेकारागेर त्या दिसा तांबशी फुटचे पयलीच लग्नाक वचपाची तयारी सुरू जाल्ली. तागेल्या मेवण्याचे चलयेचें लग्न आशिल्लें. तेलाक वेळार पावूंक जाय म्हणून बायलेन ताका फांतोडेरूच उठोवन काडिल्लो.

"लागीं न्हय, सांग्यार पावूंक जाय! धांक पावतर्लीं जाल्यार आठांक तरी भायर सरूंक नाका?" सरितान घोवाक म्हळें.

"हयतर! चलात तयार जायात बेगीन! उशाली जाली तयारी?" यशवंतान विचाल्लें.

"तें केन्ना तयार जावन बसलां! तुमगेलीच तयारी जावपाची उल्ल्या! चलात बेगीन!" बायलेन घोवाक ताकीत केली.

"म्हगेलें कितें, पेंट चडयली म्हंण्टकच जालें!"

"म्हळ्यार वयर कांयच घालचेनात?" सरितान ताका मस्करेन म्हळें.

"बंडी चडयतां! बरी न्हय?"

"बंडी घालतले जाल्यार हळडुव्या रंगाची घालात आं! ना जाल्यार घालशात पांचव्या रंगाची!"

"ना ना, हळुडुव्या रंगाचीच घालतां! तुगेली जाली मूं तयारी?"

"म्हगेली फकत केंसांत हळी माळपाची उल्ल्या! तुमी चलात कपडे घालपाक!" सरितान परतून ताकीत केली.

'हो चल्लो.' अशें हांसत हांसत म्हणत यशवंत आपले कुडींत

वतलो इतल्यांत ताका याद जाली. आगो अभयालें जालें?'' ताणें बायलेक विचाल्लें.

''अभय येना खंय लग्नाक!'' सरितान म्हळें.

''लग्नाक येना? अशें कशें तर? मामेभयणीचे लग्न, आनी तो येना म्हळ्यार कितें? कोणूय कितें म्हंण्टलो?''

''हांवें ताका कपडे कर म्हणून सांगल्यार तो म्हणूं लागलो, आपूण लग्नाक येंवचोना! कित्याक काय म्हणून विचारल्यार म्हणूंक लागलो, आपणाक लग्नांत मिरोवपाक आवडना! हांवें म्हळें येना जाल्यार नाका येंव! बस घराकडें! तुजी खोशी! तुमी चलात पळोवया कपडे घालपाक! आठ जायत आयलीं!'' अशें म्हणून सरितान घोवाक तागेले कुडींत धाडलो आनी फुलांची हळी माळपाखातीर ती उशाले कुडींत गेली.

अभय लग्नाक कित्याक येना हाचें कारण तिका खबर आशिल्लें. उशान तिका तें सांगिल्ले, आनी पुतालीं भुरगेपणां पळोवन तिणें कपलार हात मारून घेतिल्लो. ल्हानपणांतलो तागेलो सबाव वीस वर्सांचो जालो तरिकूय बदलूंक नाशिल्लों. मदीं मदीं तो विचित्र वागतालो. आपले भितरूच कितेंय थारायतालो आनी तशें घडलेना म्हंण्टकच पिकार जावन कित्याचें कितेंय करतालो. मागीर ताका समजावपाक कठीण जातालें. तो कोणाचेंच आयकनाशिल्लो.

आयज ताचे जे मामेभयणीचें मिनाचें लग्न आशिल्लें ताचेकडेन ताका लग्न जावपाचें आशिल्लें. आपलेभितरूच ताणे तें थारयल्लें. ल्हानपणांत शिकपाखातीर तो मामागेर आसतालो. तेन्नाच्यानूच तो ताचेर मोग करूंक लागिल्लो. मिनासारकी सुंदर चली आपली बायल जांवची अशें ताका दिसतालें. मोगाचे चलयेकडेन वेव्हार करचो तसो तो ताचेकडेन करतालो. ताका बरींबरीं फुलां दितालो, मदिमदीं भेटवस्तूय दितालो. आपल्या मामेभावाची वागणूक पळोवन मिनाय खोशी जातालें. तो अशें कित्याक करता हाची ताका इल्लीय कल्पना नाशिल्ली. तो आपलो मामेभाव हेच नदरेन तें ताचे कडेन पळेतालें. अभयापरस तें

वयानूय व्हडलें आशिल्लें. अभयाक मात ताचेर मोग करतना वयाची अडचण येंवक नाशिल्ली. ताणें थारायल्लें तशेंच ताका जांवक जाय आशिल्लें.

मिनाचें लग्न थारलां हे कळटकच तो पिकार जालो आनी भयणीले कुडींत वचून बोवाळ घालुंक लागलो. उशान तागेल्या धुमशेणाचें कारण समजून घेतलें, आनी तें ताका समजावचो यत्न करूंक लागलें. तांणें हांसून म्हळें, "अभय, मिना तुजेपरस वयान व्हडलें आसा हें खबर आसा मरे तुका? आपलेपरस व्हडले चलयेकडे केन्ना लग्न जातात रे? तशें केल्यार चल्याचें आयुश्य उणें जाता. आनी लग्नाक फुरफुरता तो, तूं अजून जोडूंक लागला रे? लग्न जातकच तुगेले बायलेचें पोट कोणे भरपाचें? तिका कपडे कोणे हाडपाचे? तूं अशें कर, मिनाची धाकली भयण लिना आसा! तेवूंय खूब सुंदर आसा! ताचेकडेन लग्न जा तूं! हांव मामाक सांगून दवरतां तशें! आनीक चार पांच वर्सां राव! ते म्हणसर लिनाय व्हडलें जातलें आनी तुंवूय जोडूंक लागतलो."

उशालो उपदेश अभयाच्या माथ्यावयल्यान गेल्लो. आपणाक जाय जशें जालेंना हाचें ताका दूख जाल्लें. ताचो प्रेमभंग जाल्लो. रागान ते रातीकडें तो जेवलो लेगीत ना! उपाशींच न्हिंदलो. अभय जेंवक कित्याक आयलोना हाची आवयन चौकशी करतकच उशान तिका ती गजाल सांगिल्ली. पुतान आपूण लग्नाक येंवचोना अशें म्हंण्टकच तिणेंय ताका चड आग्रो केलोना. लग्नाक गेल्लेकडेन तो थंय कितेंय अवचिनपणां करीत म्हणपाचें तिका भंय दिशिल्लें. यशवंताक मात त्यासंबंदान कांयच खबर नाशिल्ल्यान अभय लग्नाक येना हाचें ताका अजाप दिशिल्लें.

सगळ्यांची आपापले पसंतीन ठाक ठीक तयारी जातकच एकामेकांक ताकीत करीत सगळीं गाडयेंत बसलीं आनी यशवंत सडेकाराली मारूती गाडी दिस्त आठ वरांचेर सांग्दार वचपाच्या मार्गावयल्यान धांवपाक लागली.

"अभय बरो करून राव रे! दनपरां खानावळींत वचून जेव! उपाशीं

रावूं नाका!'' वतां वतां आवयन ताका ताकीत दिल्ली, आनी उशान हांसून म्हणिल्लें, ''कितेंय अवचिनपण मात करूंनाका आं!''

''आं गे भाटकान्नी! तूं बरें करून मिरय लग्नांत!'' अभयानूय ताका रागान म्हणिल्लें.

सगळी सकाळ अभयान हातुणाचेर लोळून काडली. दनपरां तो एके खानावळींत वचून जेवलो. थंय तांणें एक बियरूय घेतली, आनी येतना ब्रेंडीचो एक क्वार्टर घेवन आयलो.

पोटभर जेविल्ल्यान ताका सुस्ती माल्ली. तांणें हातुणाचेर घालून घेतलें आनी एक न्हीद काडली.

तो उठलो तेन्ना चार जावन गेल्लीं. बेसिनाकडे वचून तांणें तोंड धुलें. मागीर आलमारींतल्यान एक ग्लास काडलो. एक कांदो चिरून बशयेंत दवल्लो. ताचेर थोडो लिंबू पिळ्ळो. फ्रिजांतलो उदकाचो जग काडून मेजार दवल्लो आनी कदेलीचेर बसून प्रेमभंगाचें पिकासांव सोऱ्यांत बुडोवपाखातीर क्वार्टराचें सील तोडलें.

हाचेपयलींय एकदां तांणें अशेंच केल्लें. कॉलेजिंतले एके चलयेचेर मोग केल्लो आनी तिचे फाटल्या फाटल्यान भोंवतालो. ते चलयेक दुबाव येतकच तिणें ताका तापोवन काडिल्लो आनी घराकडें सांगपाचें भंय घाल्लें. त्या पिकसांवान तांणें एका इश्टागेर वचून सोरो पियेवन धुडगूस घाल्लो. पिकसांव ना करपाक सोऱ्यासारको दुसरो उपाय ना अशें ताका दिसतालें.

अर्द्या पेगान ताणें सुरवात केली. एक पेग पोटांत वतकच तागेलो पोटांतलो राग इलो इलो वयर सरूंक लागलो. तांणें मिनाक गाळी संवल्यो. रांडग्या म्हळें, चेडये म्हळें, तुजी म्हाका गरजूच ना म्हळें. तुजेपरस सुंदर बायल हाडटलों हांव! तुजेर मारतां हांव खोंट, अशें म्हणून तांणें खोंट उबाल्ली. इतल्यांत दराची बेल वाजली. ताणें उबाल्लेली खोंट अळंग सकयल दवल्ली. ''कोण आयलो ह्यावेळार मरपाक? ना उगडना दार!'' अशें म्हणुन तो ओगीच बसलो.

बेल परतून वाजली आनी ''उशा'' असो उलो आयकूंक आयलो.

''पिया आयला काय कितें?'' तांणें मनांत म्हळें. भयणीवांगडा पियागेर दोन फावटीं गेल्ल्यान तो ताका वळखतालो. ताचो आवाज वळखिचो दिशिल्ल्यान ताका दार उगडचेंच पडलें. तांणें ग्लास आनी बशी लिपोवन दवल्ली. आनी तुवाल्यान तोंड पुसून दार उगडलें. दारांत हातांत सुटकेस घेवन पिया उबें आशिल्लें पळोवन तांणें बेगिबेगीन म्हळें, ''यो यो पिया भितर यो!'' भितर सरनाफुडें सोऱ्याचो आनी कांद्याचो मिक्स वास नाकांत गेल्ल्यान पिया घुस्मटलें. तांणें नाकाक लेंस लायलो. तें पळोवन अभयाक मातशी लज दिसली. तांणें बेगिबेगीन तुवाल्यान तोंड धांपलें.

''यो, बस गो अशें कदेलीचेर! उदक हाडूं?'' अशें म्हणून तो उदक हाडूंक वचचे पयलींच, ''तूं नाका हाडूंक! हांव पिता भितर वचून!'' अशें म्हणून भितर वचून पिया जगांतलें उदक गटगटीत पिलें.

''उशा खंय गेलां?'' तांणें विचाल्लें.

''तें लग्नाक गेलां मामेभयणीच्या, सांग्यार.''

''आनी आई बाबा?''

''तिंवूय गेल्यांत!''

''तूं हें करपाखातीर एकटोच रावला दिसता!'' फ्रेंकान धांवडायल्ल्याची आनी उशा घराकडे नाशिल्ल्याची सगळी तिडक तांणें अभयाचेर काडली.

''ना गो, घराकडें एकलोच बसून कंटाळो आयलो, म्हणून म्हळें थोडी मजा करूया!'' अभयान मान सकयल घालून म्हळें.

''उशा केन्ना येतलें?'' पियान विचाल्लें.

''फाल्यां सकाळीं येतलीं सगळीं. पुणून तूं भियेंव नाका गो तीं नासलीं म्हणून! हांव आसां न्हय उशाचो भाव? आज हांगां राव तूं! खानावळींत वचून मस्त जेंवया!'' अभयान म्हळें तशी पियान सुटकेस उबाल्ली.

"आगो आतां येदेवेळचें खंय वता तूं? तूं येवन गेलें म्हणून कळ्ळ्यार ताई म्हाका उलोवन खातलें. वचूं नाका तूं!" अभयान ताका आडायत म्हळें.

"ना म्हाका वचुंकूच जाय! उशाकूच मेळपाक आयिल्लें." अशें म्हणून तें दाराकडें वतलें इतल्यांत अभयान ताच्या हातांतली सुटकेस काडून घेवपाक केली, आनी म्हळें, "आगो तूं वचूं नाका! हांव वचूंक दिवचोचना तुका!"

पियाक ताचो राग आयलो. ताणें ताच्या हातांतल्यान सुटकेस झोंपून घेतली आनी ताका धुकलून उडोवन तें दाराभायर धांवलें. तो उबो आसा काय आड पडला हें पळोवपाक लेगीत तांणें फाटल्यान पळेलेना. तें सामकें निराश जाल्लें. जिचे मदतीचे आशेचेर तें इतले पयस आयिल्लें ती तागेली इश्टीण ताच्या दुर्देवान घराकडे नाशिल्ली. आशिल्लो तो तिचो भाव आनी तोवूय विस्वास दवरूंक जावचोना अशे परिस्थितींत. सोऱ्याचे घुंवळींत तो कितेंय करूंक शकतालो.

तें धांवतूच रस्त्याचेर आयलें. आपणाक घुंवळ येतली अशें दिशिल्ल्यान तांणें थंयच्या लायटीच्या खांब्याक वेंग माल्ली. अशेच स्थितींत दोन मिणटां गेलीं. आनी ताच्या नशिबान महाराश्ट्र महामंडळाची एक बस ताच्याच फुड्यांत थांबली. बसींतल्यान दोन मनशां देंवलीं तशें पियान ते बशींत आपणाक घालून घेतलें. तें सामकें थकिल्लें. उबें रावपाइतलेंय ताच्यांत त्राण नाशिल्लें. सिटाच्या आदारान तें कशें बशें उबें रावलें आनी त्या सिटाचेर बसून ताणें दोळे धांपले.

सिटाचे लोखणी एंगलाचेर टक टक असो आवाज जालो आनी कंडक्टरान 'तिकीट' अशें म्हळें, तेन्ना पियान दोळे उगडपाचो यत्न केलो. ताच्यो पापण्यो जड जाल्ल्यो.

"बस खंय वता?" तांणें ओडिल्ल्या आवाजांत विचाल्लें

"सावंतवाडी बस डेपो!" कंडक्टरान म्हण्टकच तांणें पर्सींतली एक नोट काडून ताचेफुडें धल्ली आनी "सावंतवाडीची दी!" अशें

म्हळें. परतून दिल्ले पैशे आनी तिकीट तांणें पळेनासतनाच पर्सींत दवल्ले. आनी परतून दोळे धांपले.

तें आतां सामकें ब्लँक जाल्लें. आपूण कोण, कितें करतां, खंय वतां हें सगळेंच विसरून गेल्ल्या मनशाबशेन ताची गत जाल्ली.

''खालीं उतरा!'' अशें कंडक्टरान व्हडल्यान म्हळें, तशें गुंगेंतल्यान जागें जावन ताणें दोळे उगडले.

बस सावंतवाडीच्या स्थानकांत उबी आशिल्ली. सगळे प्रवासी देंवून गेल्ले. आपली सुटकेस सांबाळीत तें सकयल देंवलें आनी थंयच्या एका बाकार बसलें.

स्थानकांत आनी भायर दिव्यांचो उजवाड आशिल्लो, पुणून पियाचे जिणेंत मात काळोखूच काळोख भरिल्लो. तो काळोख ना करपा इतलें बळ ताच्यांत उरूंक नाशिल्लें. तें सामके हेल्पलेस जाल्लें. पेल्यान एक उदकाचो नळ आशिल्लो. थंय एकलो तोंड धुतालो. तागेलें जातकच पिया थंय गेलें. आपलें तोंड तांणें बरें घांसून धुलें. दोळ्यांचेर पचपचीत उदक मारतकच ताका मातशें बरें दिसलें. आंगांत हुशारी आयली. सुटकेसींतलो तुवालो काडून तांणें तोंड खसखसून पुसलें. केंसांवयल्यान ब्रश भोंवडायलो. आपणाक भूक लागल्या हाची ताका जाणीव जाली. सकाळच्यान तांणें कांयच खांवक नाशिल्लें.

थंयच्या हॉटेलांत भितर सरून तांणें भाजी पाव मागयलो. कोपभर उदक पियेलें. एक डबल च्या पियेवनूय तांणें आनीक एक सिंगल च्या मागयली. पोटाक थाकाय येतकच ताच्या जिवाक मातशें बरें दिसलें. भायर येवन तें पयलींच्याच बांकार बसलें.

ताची येवजुपाची शक्ती आतां जागी जाल्ली. येवजुपासरकें आतां कांय उरूंकूच नाशिल्लें. सगळेंच सोंपून गेल्लें. तरी आसतना जें कितें घडलें ताची फोडणिशी जांवक जाय आशिल्ली. कितें केलें आनी कितें जालें हाचो हिशेब ताची तकली मांडूंक लागली. नकळत वा जाणा जावन केल्ली एक एक चूक ताका दोळ्यांमुखार दिसपाक लागली.

फार्मसी कॉलेजिंतल्यो इश्टिणी ताका धोक्याची सुचना दिताल्यो, त्यो आयकनासतना दोळे धापून तांणें फ्रेंकाचेर मोग केल्लो. ताचेविशीं ताका जें आकर्शण दिसतालें ताकाच तें मोग समजतालें. मोग आनी भोग हांचेमदीं अंतर आसता हें ताका समजलेंचना. फ्रेंकाल्या गोड उतरांक भुलून तांणें फुडलें येवजिनासतना आपली कूड ताचेसुवादीन केल्ली. जतनाय घेंवक नाशिल्ल्यान तांणें आपणाक दीस वचपाक दिल्ले. मोगापरस भोगाक आशेल्ल्या फ्रेंकासारक्या भुरग्याच्या उलवण्याचेर विस्वास दवरून, 'आयिल्ल्या संकश्टांतल्यान मेकळें जावपाचें सोडून, वाडिल्लें पोट घेवन तें ताचेकडेन काजार जावपाखातीर तागेल्या घराकडे धाविल्लें. मायेची मनशां सांगतालीं तें आयकनासतना तांकां दुकोवन आपलो हट्ट पुरो करपाखातीर तांणें आपलें घर सासणाचें सोडिल्लें.

कितल्यो चुको? त्यो निस्तारपाक आतां उपाय कितें? कांयच ना! येवजितां येवजितां ताची तकली परतून गिरगिरपाक लागली.

अचकीत ताका एक उपाय सुचलो. पयलीं जाल्ल्या आनी मुखार जांवचेल्या सगळ्या जंवजाळांतल्यान मुक्त जावपाचो तो एक बरो उपाय आशिल्लो. पुणून तो सोपो नाशिल्लो. मरपाची गजाल इतली सोंपी आशिल्ली जाल्यार तो उपाय तें त्याच खिणाक करून मेकळें जातलें आशिल्लें. गाडयेमुळा घालून घेतलें जाल्यार तें गाडयेचें स्टेशन नाशिल्लें. बांयत उडी घेतलें जाल्यार थंय बांयूय लागीं नाशिल्ली. पंख्याक गोळ लायतलें जाल्यार तें हॉटेलांतूय नाशिल्लें. विखाची बाटलीय खंयचोच पसरकार दिवचो नाशिल्लो. इच्छा आसुनूय तें मरपाक शकनाशिल्लें.

कोणतरी खांकिल्ल्याचो आवाज कानार पडिल्ल्यान तें भानार आयलें. तांणें हेवटेन तेवटेन पळयलें. चार भुरग्यांचें एक टोळकें लागींच गजाली करतालें. तांच्या हातांत पेटिल्लीं सिगारां आशिल्लीं आनी तांच्यो नदरो ताचेचकडे लागिल्ल्यो. तें भिलें. बशिल्ल्या बांकावयल्यान उठून तें हॉटेलाक लागीं आशिल्ल्या एका बांकार बसलें. ते भुरगे अजून

थंयच आशिल्ले.

आतां फुडें कितें करचें, खंय वचचें, कोणाचो आदार घेवचो हें येवजिता म्हणसर आनीक एक विघ्न ताचेमुखार उबें रावलें. खंयच्यान तरी एक बेब्दो आयलो आनी ताका खुणांवक लागलो.

नाकार बोट दवरून तांणें विचाल्लें, "हें जाय गो? यो, हांव दितां ! तूं कितलेय घे, तें म्हाका लागना! म्हाका तुवें पन्नास रुपये दिवचे पडटले! आसा कबूल जाल्यार यो म्हजे वांगडा!" तो पियोवन तुर्र जाल्लो. उलयतना ताचो झेल वतालो. एका खिणाक पियाक दिसलें, आतां तो आपणाचेर पडटलोच! तांणें पांय कवळून घेतले आनी दोळे धांपले. मनांत तांणें "देवा पाव रे" म्हळें!

"चल वच हांगांसून! ना जाल्यार घालतां बडी कमराचेर!" असो एक कणखर आवाज ताच्या कानार पडलो, आनी तांणें दोळे उगडले.

तांणें उलो घाल्लो तो देव एका जाण्टेल्याच्या रुपान ताचेमुखार उबो आशिल्लो. तागेल्या धेंगशाक भियेवन बेब्दो पयस गेल्लो आनी थंयच्यान मास्तर, मास्तर, अशो कुकाऱ्यो घालतालो. वदोळचें तें भुरग्यांचें टोळकेंय आतां थंय नाशिल्लें.

"तू कोणाक रावता गो बाय? कोण येवपाचो आसा तुका व्हरपाक?" मास्तरान आपल्या म्होंवाळ आवाजांत विचारतकच, पियान 'ना' अशी मान हालयली.

"मागीर कित्याक बसलां तर तूं हांगा?" तांणें परतून विचाल्लें.

पियान कांयच जाप दिलीना तशें तांणें म्हळें, "तुजेसारके वाडिल्ले चलयेन इतले रातचें हांगा एकटें बसूंक फावना! तुजे वांगडाय कोण दिसना! खंयसून आयलां तूं बाय?" जाण्टेल्याचो आवाज चडूच म्होंवाळ जाल्लो. व्हदळ बेब्द्याचेर कठोर उतरांनी धेंगशे घालपी तोच हो जाण्टेलो, काय दुसरो कोण? असो दुबाव येवपाइतलो फरक तागेल्या आतांच्या उतरांनी आशिल्लो.

मास्तराल्या त्या मायेच्या प्रश्नाक तें कितें जाप दितलें आशिल्लें?

ताच्या दोळ्यांत दूक आयलें. तें पळोवन जाण्टेल्याचें काळीज कळवळ्ळें.

"नाका सांगूंक तूं! घराकडें झगडून आयलां आसतलें. पुणून आतां तूं हांगा बसूं नाका! म्हज्या वांगडा यो! म्हगेल्या घराकडें व्हरतां हांव तुका!" ताणें म्हळें, पुणून पियान हूं काय चूं केलेंना!

बेब्दो पयसुल्ल्यान 'मास्तर मास्तर' अशो कुकाऱ्यो घालूंक लागलो तसो ताणें ताचेर आनीक एक धेंगसो घालो आनी बडी उबाल्ली. कसलो बोवाळ काय म्हणून पळोवपाक हॉटेलाचो मालक भायर आयलो. व्हदळ च्या पियेवन गेल्ली चली अजून थंयच बशिल्ली पळोवन ताका अजाप दिसलें. "तूं अजून हांगा कित्याक बसलां?" ताणें विचाल्लें.

पियान जाप केलीना, तशें ताणें जाण्टेल्याक म्हळें, "मास्तर तुमी ताका तुमगेल्या घराकडे व्हेल्यार बरें जातलें. घराकडें झगडून आयलां आसतलें. फाल्यां सकाळ मेरेन राग निवळटलो ताचो. मागीर पावयात ताका घराकडें! हांगां बसल्यार त्रासांत पडटलें तें!" मागीर ताणें पियाक म्हळें, "बाय तूं मास्तरा वांगडा तांगेल्या घरांकडें वच! अनमनूं नाका! बरे मनीस ते! तुका धुवेबशेन वागयतले!"

"चल बाय!" अशें म्हणून मास्तरान तागेली सुटकेस हातांत घेतली आनी 'यो!' अशें म्हणून ते चलूंक लागले. पियाय तांचेफटाल्यान मोन्यांनी चलपाक लागलें.

मास्तराक जड लागतली अशें दिशिल्ल्यान ताणें सुटकेस आपल्या हातांत घेतली. सकाळीं वागीण जाल्लें तें चली आतां वासरूं जावन मास्तरा फाटल्यान चलतालें, आनी मास्तर आपूण आपले धुवेकूच वांगडा घेवन वतां अशे खोशयेंत घर लागीं करताले.

सदानंद देसाय पयलीं शाळेंत शिकयताले. निवृत्त जावन तांकां आतां धा वर्सां जाल्लीं. एक सज्जन मनीस म्हणून सगळो गांव तांकां वळखतालो. गावांतले सगळे लोक तांका मास्तर म्हणुनूच उलो मारताले.

निवृत्त जातकच विश्णुबाब पानकारान तांका आपले पेडयेर कारकून म्हणून कामाक दवरलेले. पेडयेची चावी तांणीं मास्तराकडेंच सोंपयल्ली. रातच्या दिस्त आठ वरांचेर मास्तर पेडी धांपताले. घराकडें वचपाक लार्गी पडटा म्हणून ते बसस्थानका मुळच्यान वताले. आज जेन्ना ते बसस्थानकांत पावले तेन्ना एक चली एका बांकार एकटेंच बसलां आनी एक बेब्दो तिका बुरशो बुरशो गजाली सांगता हें पळोवन, तांकां ते चलयेची काकुळट दिसली. धेंगसो घालून बेब्द्याक धांवडायतकच ते जेन्ना पिया म्हऱ्यांत आयले तेन्ना आपूण सपनांत ना मूं अशें तांकां दिसलें. तांगेली गेल्ली चली तांच्या मुखावयल्या बांकार बशिल्ली.

"हें अशें कशें जांवयेता? दोन चलयांमदीं इतलें एकसारकेपण कशें आसूं येता? जुवळ्या चलयांमदीं अशें एकसारकेंपण आसता, पुणून दोन गांवांतल्या दोन आवयबापायल्या चलयांमदीं इतलें एकसारकेंपण आसप म्हळ्यार अजापाचीच गजाल. म्हगेली सविता देवाघरा गेल्यार धा वर्सां जार्ली. आज ती आशिल्ली जाल्यार हे चलये येदीच आसतली आशिल्ली. देवाचो हो कसलो चमत्कार! देवकी जेन्ना हे चलयेक पळेतली

तेन्ना तिचीय आवतिकाय म्हजेबशेनूच जालेबगर रावचिना.''

येवजितां येवजितां मास्तर आपल्या घराकडें पावले. दाराचेर थापट मारून तांणी बायलेक उलो माल्लो. ''देवके, दार उगड!''

देवकीन दार उगडलें. घोवाचे फाटल्यान हातांत सुटकेस घेवन उबें आशिल्ल्या पियाक पळोवन ती काचाबूल जाली. 'सविता!' तिच्या तोंडांतल्यान आपसूक उतर भायर सल्लें. पियाच्या कानार तें नांव पडलें तशें ताकाय अजाप दिसलें. ताका त्या उतराचो अर्थ कळ्ळोना.

देवकीन आपणाक रोखडेंच सांबाळून घेतलें, आनी ती दारांतल्यान कुशीक सल्ली.

''यो, यो बाय, भितर यो!'' मास्तरान म्हळें तशें पिया ताच्या फाटल्यान घरांत भितर सल्लें.

''कोणालें चली हें? खंयसून हाडलां तुमी हाका?'' पियाच्या हाताक धरून भितल्ल्या सालांत व्हरतना देवकीन घोवाक विचाल्लें.

''देवान आमगेलें बाय व्हेलें म्हणून बदलाक हें दिलां!'' मास्तरान हांसून म्हळें. मास्तर कितें उलयतात हें तिका कांयच कळ्ळेंना. ती कुवाड्यांत पडली.

''तुजें नाव कितें गो बाय?'' तिणें मायेन विचाल्लें.

''पिया !'' पियान ल्हव आवाजांत सांगलें.

''तू खंयचें? कोणालें चली? खंयसून.....

मास्तरान देवकीक उलयतना थांबोवन म्हळें, ''हें पळें, आता ताका कांयच विचारूं नाका! पयलीं ताका न्हावन जेवनी! मागीर सगळें सांगतलें तें!''

'' चल बाय, न्हावन घे!'' अशें म्हणून देवकीन पियाक बाथरूम दाखयलो. पियान सुटकेसींतल्यान तुवालो आनी कपडे काडले आनी ते घेवन तें न्हाणीघरांत गेलें,तागेल्यो सगळ्यो हालचाली सपनांत वावुरतल्या मनशाबशेन जाताल्यो. न्हातां न्हातां तें येवजितालें, ''देवान हो कितें चमत्कार घडयला? राक्षसाच्या तोंडांत पडटां पडटां

मास्तरासारक्या देवमनशाच्या सुवादीन म्हाका केलां. म्हजे संबंदान हांकां कांयच खबर ना! घरांत झगडून आयिल्लें एक चली, इतलेंच म्हजेविशीं दिसता तांकां! पुणून म्हजी खरी गजाल जेन्ना तांकां कळटली तेन्ना तीं म्हाका अशींच वागयतलीं काय? काय तीं म्हजो तिरस्कार करतलीं? वाळवंटांत जशीं ओयेसिसां आसतात तशेतरेचें एक ओयेसिस थारचेना मूं हें?'' येवजितां येवजितां ताचें न्हावन जालें आनी तांणें कपडेय बदललें.

''ओले कपडे थंयच दवर गो बाय! मागीर वावराडी उमळटली.''देवकीन भायरसून म्हळें.

कपडे बदलून पिया भायर आयलें. आतां तें फ्रेश जाल्लें, काळो स्कर्ट आनी धव्या ब्लावजांत तें खूप सुंदर दिसतालें. ताका पळेतकच, ''हाका कोणाची दिश्ट जायना जाल्यार पुरो!'' अशें देवकीन मनांत म्हळें.

मास्तरान हातपांय धुले आनी देवाक नमस्कार केलो. ''वाड आमका!'' अशें म्हणून ते मेजाम्हऱ्यांत एके कदेलीचेर बसले आनी दुसरी एक कदेली म्हऱ्यांत ओडून तिचेर तांणीं पियाक बसयलें.

पियाक आवयची याद आयली. ताच्या गळ्यासकयल उंडी वचना जाली. देवकीक ताची मनस्थिती कळ्ळी. तिणें ताचे फाटिवयल्यान मायेन हात भोंवडायलो आनी समज घालून ताका बळ्यां म्हण्टात तशें जेवयलें.

जेवन जातकच सगळीं भायल्या सालांत बसलीं.

''सांग आतां तुगेली गजाल!'' सुपारी कातरीत मास्तरान म्हळें. ''सगळें सांग! कांयच लिपोंव नाका! आमकां आवय बापाय समान मान आनी कितें घडलां तें सविस्तर सांग! सामकें मुळासावन!''

''तुमी म्हाका परतून घराकडें धाडचींनात मूं?'' पियान कांचवेत कांचवेत विचारलें.

''नागो बाय! तुका घराकडें वचपाचें ना जाल्यार, धाडचींना आमी तुकां घराकडें! तूं आमगेली धुवूच कशी मुगो! सविता म्हणून आमची

एक चली आशिल्ली. तुज्याच रूपाची आनी आयज आशिल्ली जाल्यार ती तुजेच येदी जातली आशिल्ली. जोराचें निमित्त जालें आनी खंयचेकडें कांयच ना जालें. धा वर्सां जालीं हे गजालीक. तिचे यादेविणें एकूय दीस वचना आमचो! तुका पळेतकच देवान आमची सविताच परतून धाडल्या काय, अशें आमकां दिसलें!'' देवकीन दोळे पुशीत म्हळें.

''सांग बाय सांग!'' अशें म्हणून मास्तरान पियाच्या केंसांवयल्यान हात भोंवडायलो.

आपली गजाल सांगतना पियाक दुखाचे कड येताले. पुणून ते दामून धरीत तांणें आपली सगळी गजाल तांकां सांगून उडयली. मागीर व्हडल्या व्हडल्यान रडत तांणें देवकीच्या गळ्याक वेंग माल्ली.

ओग वचचेखातीर ताका मातशें रडपाक दिवन मागीर देवकीन आपल्या पदरान ताचे दोळे पुसले.

पियाची गजाल आयकून तिका जितलें दूख जाल्लें, तितलीच खोशीय तें गुरवार आसा हें आयकून जाल्ली. ''पिया, तूं कांय भियेंव नाका! तूं आमगेरूच राव! हांव करतलें तुजें बाळंतपण! म्हगेल्या घरांत खेळटलो कन्हैया! हांव तुगेल्या आवयकबापायक सांगतलें, बाळंत जाय म्हणसर पियाक हांगाच आसूनी म्हणून! मागीर व्हरात म्हंण्टलें तुमगेले चलयेक! अशें न्हय?'' सपन रंगयतना खोशी जाल्ले देवकीन घोवाक विचाल्लें.

''हय! तुज्या मनासारकेंच जावनी सगळें.'' मास्तरान बायलेक म्हळें. मागीर तांणी पियाक विचाल्लें, ''तुका मान्य आसा मुगो तिणें सांगलां तें?''

पियान मान हालोवन हयकार दिलो. ताच्या माथ्यावयल्या व्हडल्या वोज्याचो भार त्या देवमनशानी ल्हव केल्लो. खंय वचचें, कितें करचें, कोणाचो आदार घेवचो हें येवजुपाची ताका आतां गरज नाशिल्ली.

आनीक थोड्यो गजाली करून जातकच देवकीन म्हळें, ''आतां न्हिदूंया मुगो बाय? खुब पुरो जालां तुका ! तुका वेगळें हातूण घालूं, काय म्हगेल्याच हातुणाचेर न्हिदतलें तूं?'' तिणें विचारतकच पियान

म्हळें, ''हांव तुज्याच हातुणाचेर न्हिदतां आई!''

''आई! जो शब्द आयकुपाखातीर देवकीचें काळीज फाटलीं धा वर्सां तरसतालें तो शब्द कानार पडनाफुडें तिच्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां गळूंक लागलीं. तिका आपलो शेणिल्लो ठेवो मेळिल्ल्याची खोशी जाली. तो मायेचो ठेवो खंय दवरूं खंय नाका अशें तिका जालें. तिणें पियाक वेंगेंत घट्ट धल्लें आनी ताच्या पोल्यांचे माथ्याचे पटापटा उमे घेतलें.

पियाची गत तशीच जाल्ली. ताणें आई म्हणिल्लें तेन्ना ताका आपली आवयूच देवकीच्या रूपान आपले म्हऱ्यांत उबी आसा आनी आपणाक ती हातुणासंबंदान विचारता अशें दिशिल्लें.

देवकीन बरें रूंदशें हातूण घालें, आनी पियाक आपल्या शेजरा घेवन ती न्हिदलीं.

सदांचे संवयेन ती फांतोडेचेर जागी जाली आनी उठून बसली. तिणें शेजरा न्हिदिल्ल्या पियाकडें पळेलें. तें तोंडावयल्यान पांगरूण घेवन भितल्ले भितर रडटा असो तिका भास जालो. तिका दिसलें, ताका घरची याद आयल्या आसतली. तिणें ताच्या तोंडावयलें पांगरूण कुशीक काडलें आनी ताच्या केंसावयल्यांन हात भोंवडायत विचाल्लें?, ''कितें गो बाय, रडुंक कित्याक आयलें? घरची याद आयलीं?''

''म्हज्या पोटांत दुकता गे! कळो मारतात! सोसूंक नजो गे म्हज्यान!'' अशें म्हणून पिया व्हडल्यान रडूंक लागलें.

देवकीन बेगिबेगीन दिवो पेटयलो. उजवाडांत तिका हातूण एकेकडे ओलें जाल्ल्याबशेन दिसलें. तिणें बारिकसाणीन पळेलें जाल्यार तें रगत आशिल्लें. ती भियेली. पियाचें रडप आयकून थंय आयिल्ल्या मास्तराक तिणें म्हळें, ''पियाक कळाव करिनासतना नर्सिंग होमांत व्हरूंक जाय! चला, जाता तितले बेगीन टॅक्सी घेवन येयात!''

''कित्याक? कितें जालें?'' मास्तरान भियेवन विचाल्लें. ''तें मागीर सांगता! तुमी टॅक्सी घेवन येयात पयलीं!'' अशें म्हणून तिणें मास्तराक

धांवडायलो आनी नर्सिंग होमांत व्हरपाखातीर ती कपडें एकठांय करूंक लागली. मास्तर टॅक्सी घेवन आयले तशें त्या दोगांनीय आदार दिवन पियाक टॅक्सींत बसयलें आनी लागिंच्या नर्सिंग होमांत व्हेलें.

दोतोरान पियाक तपासलें आनी म्हळें, ''ॲबोर्शन जावपाची शक्यता आसा! वाटावपाक जाता जाल्यार पळोवया!'' मागीर ताणें नर्सीक फुडें कितें करपाचें तें समजावन सांगलें.

अेबोर्शन जावपाची शक्यता आसा, हीं दोतोराच्या तोंडातलीं उतरां आयकून देवकीचो आवरोच उडलो. तिचे हातपाय लटपटूंक लागले. रातीं जेन्ना आपणाक दीस गेल्यात अशें पियान म्हणिल्लें, तेन्ना तिका कितली खोशी जाल्ली. 'हांव करतलें तुगेलें बाळंतपण,' अशें तिणें कितले उमेदीन म्हणिल्लें. आपल्या घरांत दुडदुड धांवतल्या धाकल्या बाळकृष्णाचें सपन तिणें उमेदीन पळेल्लें. आनी आतां दोतोर म्हंण्टा, तें भुरगें वचपाचें आसा!

''दोतोर, कशेंय करून भुरग्याक वाटांवक मेळटा जाल्यार पळेयात!'' तिणें दोतोराक काकुळटेन म्हळें.

''आमचो यत्न चालू आसा. पुणून म्हाका दिसना यत्नांक यश येत अशें. रक्तस्त्राव चड जालां. सुरवातीच्या दोन तीन म्हयन्यांत गुरवारणीन चड दगदग करूंक फावना! पयसुल्लो प्रवास लेगींत करूंक जायना! तरी आसतना पळेतां!'' अशें म्हणून दोतोर भितर गेलो.

देवकी निराश जावन घोवाम्हऱ्यांत बसली. आनी दुकां गळोंवक लागली. मास्तरान तिका मोन्यांनी थापटिली. तोंडांतल्यान उतर काडप तांकां कठीण जाल्लें. यत्न करून दोळ्यांत येवपी दुकां तांणी थांबयलीं. आपल्या दोळ्यांत दूक पळेत जाल्यार तीय आकांत करतली, हें तांकां खबर आशिल्लें. तांणीं आपलें मन कठोर केलें. आनी गळ्याकडें आयिल्लो आवंडो भितल्ले भितर गिळ्ळो.

थोड्या वेळान नर्स भायर आयली आनी कांयच उलयनासतना दुसरें कुडींत गेली. तें पळोवन कितें घडलां आसतलें हाचो अंदाज

घोवाबायलेक आयलो.

दोतोर भायर आयलो आनी मास्तराचे फाटीर हात दवरून ताणें म्हळें, ''सॉरी!' हांव भुरग्याक वाटावंक शकलोंना.

''आमगेलें बाय बरें आसा न्हय? ताका वाटायात!'' देवकीन हात जोडून म्हळें.

''भियेंव नाकात! तुमगेलें चली एकदम बरें आसा!'' दोतोरान म्हळें.

''आमकां पळोंवक मेळटलें?'' देवकीन विचाल्लें.

''अजून तें गुंगेंत आसा! फुडें त्रास जावचो न्हय म्हणून ताची गर्भाशयाची पिशवी साफ केल्या. गुंगी निवळपाक आनीक दोन वरां वतलीं. तशें तुमच्यांनी ताका पळोंवक जाता! उलोंवक मेळचेंना!'' दोतोरान म्हळें तशीं दोगांय भितर धांवलीं.

खाटीर पडिल्ल्या सुदबुद्द नाशिल्ल्या पियाक पळोवन देवकीच्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां गळूंक लागलीं. ती ताच्या केंसांवयल्यान हात भोंवडांवक लागली. ताचे हात हातांत घेवन सासपूंक लागली, ताचो चेरो आपल्या पदरान पुसूंक लागली.

दोतोरान भितर येवन म्हळें, ''तुमच्यांनी आतां घराकडें वचून येंवक जाता. येतना ताचेखातीर इलो रवो कडोवन हाडात! ताची चिंता करूं नाकात! तुमी परतून ये म्हणसर सुद्दीर येतलें तें. नर्स आसतलीच हांगां!''

''चल, घराकडें वचून येंवया! पियाच्या घराकडें कळोवचें पडटलें न्हय?'' मास्तरान बायलेक विचाल्लें. ''हय तर! कळोंवकूच जाय! पुणून तांकां सगळेंच कळोंव नाकात! तें आमगेर आसा, आनी मातशें सिक् जालां इतलेंच सांगात! कितें घडलां तें कळत जाल्यार भियेवन वतलीं बाबडीं! '' देवकीन म्हळें.

''तांगेलो पत्तो आनी फोन नंबर पियाले पर्सींत आसतलो न्हंय?'' मास्तरान विचाल्लें.

''चलात! पळोवया आसा जाल्यार! बेगीन वचून येंवया!'' अशें म्हणून देवकी मास्तराक वांगडा घेवन घराकडें आयली.

दोगांनीय तोंड धुवून इली च्या घेतली. देवकीन रवो कडोवन डब्यांत भल्लो आनी ती नर्सिंग होमांत गेली. मास्तरान पियाची पर्स उस्तिली, पुणून ताच्या घरचो फोन नंबर मेळ्ळोना. पिया सुद्दीचेर येतकच ताचेकडल्यान घेवचो अशें थारावन तेवूय नर्सिंग होमांत गेले.

फाल्यां सकाळीं पियाच्या सोदाक भायर सरतां अशें सोमनाथ रायकरान सांगतकच निश्चींत जावन सगळीं न्हिदपाक गेल्लीं खरीं, पुणून तांका कोणाकूच सारकी न्हीद लागलीना. सोमनाथ रायकराचे तकलेंत परतून परतून पियाचोच विचार घोळटालो. खंय आसतलें काय पोर? खंयचे आवतिकायेंत आसतलें? कशेतरेन सोदपाचें ताका? त्या पोरगेरूच तें आसल्यार पुरो! अशेतरेचे विचार सगळी रात ताचे तकलेंत घोळिल्ल्यान तो एकसारकी कूस बदलीत आशिल्लो.

जिळिमिळी जालें तशें तो उठलो. आपलीं नित्यकर्मां आटपून वसून करून दवल्लेली च्या पिलो, आनी भायर सरपाचे तयारेक लागलो. वसू जाल्यार अख्खी रात न्हिदुंकूच नाशिल्ली. हातुणार पडिल्ली खरी, पुणून तिच्या दोळ्याक दोळो लागूंक नाशिल्लो. भाव उठचेपयलींच ती उठिल्ली आनी ताचेखातीर तिणें च्या करून दवरलेली. तो पियाक घेवन येतलोच हाची तिका खात्री आशिल्ल्यान तिचो मुडूय आज बरो आशिल्लो.

"कसोय करून बायेक घेवन योच रे भाऊ!" सोमनाथ भायर सरतना तिणें म्हळें.

गाडी सुरू करतां करतां सोमनाथान म्हळें, "ताई तूं बेश्टीच चिंता करीत बसूं नाका ताची! हांवें सांगलां न्हय तुका? हांव ताका हाडटलोंच!"

गाडी थिवींच्या बाजारांत पावतकच तांणें एकल्याक फ्रेंक

सिल्वेरिच्या घराचो पत्तो विचाल्लो, आनी तांणे सांगलें ते बशेन गाडी मानुयेलीच्या घरालागसार थारायली. तो गाडयेंतल्यान देंवून तागेल्या घराकडें वतलो इतल्यांन त्या घरांतल्यान एक मनीस भायर आयलो. ताचे म्हऱ्यांत वचून तांणें फ्रेंक घरांत आसा काय म्हणून विचाल्लें.

‘‘सायबा भोगोस! तुका फोबोरू ना? फ्रेंकाक आक्सिडेंट जाला!’’ तांणें सांगलें. तें आयकून सोमनाथाच्या काळजांत चर्र जालें.

‘‘केन्ना आक्सिडेंट जालो?’’ तांणें गडबडून विचाल्लें.

‘‘बारा वोरां रातीं.’’ त्या मनशान म्हळें.

‘‘बारा वरां रातीं? खंय आशिल्लो तर तो इतले रातचो?’’

‘‘फूंय आनी कितें? सोदचेंच तें तेगेलें. नोया नोया चेडवांक गाडयेर बोसवोन भोवंडावचें, बारींत वोसोन पियोवचें आनी तुर्र जावन गाडी चोलोयतोकोच आक्सिडेंट जांवसोना जाल्यार कितें जातेले? तें चेडूं बाबडें मोरोन गेले! भोंगू बाबड्याचें!’’ त्या मनशान सोमनाथाक जाप केली आनी तो फुडे वचपाक लागलो. ताणें जे कितें सांगिल्लें तें आयकून सोमनाथाक थरथरो भल्लो. ‘‘चेंडू मरून गेलें? कोणालें?’’ तांणें त्या मनशाक आकांतान विचाल्लें.

‘‘फोल्सूलें! तें तेगेलें नोयें फ्रेंड! तेजो बाबड्याचो जीव गेलो आनी हो पोडला बांबोळेच्या ओस्पितालांत!’’

फोल्सूलें चेडूं अशें तांणें म्हळें, तसो सोमनाथाचो जीव थाऱ्यार आयलो. ‘‘तूं जाणा सारको, तें फोल्सूलेंच चेडूं म्हणून !’’ तांणें खरेपण करून घेवपाखातीर विचाल्लें.

‘‘जाणा सारको? हो आनी कितें रे मोनीस? आज बारा वोरांचेर इंतेर आहा तेचो!’’ त्या मनशान बेजार जावन म्हळें.

‘‘तूं हिंगाचो?’’ सोमनाथान ताका विचाल्लें.

‘‘वोय! मानुयेलिचो शेजारी !’’ मागीर ताणें सोंमनाथाक म्हळें ‘‘तूं जाणां त्या पोरान कितू चेडवां वाट लायल्या तें ? देवानू पिराचीत दिलां तें तेका! तेचो पाय बोरो मोनीस! आनी हो तेचो चेडो येसलो! येसो चेडो

कोणागे जांव नाका!'' तागेल्या उतरानीं फ्रेंकाविशींची तिडक भरिल्ली. तो ओस्पितलांत पडला हाचें ताका इल्लेंय दूख नाशिल्लें. वयल्यान जालें तें बरे जालें, अशें ताच्या उलवण्यावयल्यान जाणवतालें.

''काल हांगा एक कोंकण्याचें चेडूं बी आयिल्लें पळेल्लें तुवें? ताच्या हातांत एक सुटकेस आशिल्ली.'' पियाविशीं कितेंय माहिती मेळटा जाल्यार पळोवपाखातीर सोमनाथान ताका विचाल्लें.

''वोय वोय! एक चेडूं येयलोंलें. पुणोन तें रोकडें जेलें. तेदना तीन वो चार वोरां जालेलीं आसोत! तेकाय फोटोयलां मिस्ता तेंणें!'' तांणें म्हळें. पिया थंयसून गेलें हें आयकून सोमनाथाच्या जिवाक सूऽ जाले. ''खंय गेले तें जाणा तूं तें चेडूं?'' तांणें विचाल्लें.

''ना बा! ते टॅक्सींत बोसोन फुंयतोरी जेलां''. अशें म्हणून तो मनीस आपल्या कामाक गेलो, आनी सोमनाथूय त्या मनशाचे उपकार आठोवन घराकडे परतलो. घडिल्ली गजाल भावोजीच्या कानार घालची आनी मागीर परतून एकदां पियाच्या सोदाक भायर सरचें अशें तांणें थारायलें. भयण पियाची वाट पळेंत दारांत उबी रावल्या आसतली हें ताका खबर आशिल्लें. पुणून तो कांयच करूंक शकनाशिल्लो. खंय म्हणून सोदतलो आशिल्लो तो ताका? तें खंयूय वचूंक शकतालें. मुंबय लेगीत. पोलिसेंत कागाळ दिवची काय कितें, हे भावोंजीक विचारून थारायल्लें बरें, अशें येवजून तो नीट घराकडें आयलो.

भयण दारांतूच उबी आशिल्ली. दोळ्यांत प्राण हाडून ती पियाची वाट पळेताली.

''पिया बरें आसा! तें मागीर येतलें ! तूं बेशटीच चिंता करूंक नाका! तांणें मागीर येतां म्हणून सांगला!'' भयणीक फटींचें सांगून तांणें तिचें समादान करपाचो यत्न केलो, आनी भावोजीक आनी भाच्याक घेवन तो भितल्ले कुडींत गेलो. ताणें घडिल्ली सगळी गजाल तांकां सांगली.

''त्या पोरान धांवडायलें तर ताका! वायट जालेंना!'' बुर्यान म्हळें.

''पुणून तें आतां खंय गेलां तें सोदून काडूं नाका? कशें करूंया?

पोलिसेंत कागाळ दिवंया?'' सोमनाथान भावोजीक विचाल्ले.

''नाका नाकां, पोलिसेंत कागाळ दिवं नये! बेश्टें नांव घाण जावपाक नाका! तें गेलां हें भायर लोकांक खबर ना! पयलीं आमीच ताका हेवटेन तेवटेन सोदूंया! न्हय रे उदय?'' बुर्यान चल्याक विचाल्लें.

''हय मामा !'' गरज पडल्यारूच पोलिसेंत कळोवचें! हेवटेन तेवटेनच्या इश्टिणिंगेर बी गेलां जाल्यार पयलीं चौकशी करूंया!'' उदयान म्हळें.

''पुणून तागेल्या इश्टिणिंचे फोन नंबर आसात तर तुजेकडेन?'' बुर्यान विचाल्लें.

''पियान फोनाचे डायरींत बरयल्यात सगळ्या इश्टिणींचे फोन नंबर. तागेली सगळ्यांत लागिंची इश्टिण म्हळ्यार उशा! उशा सडेकार! ताका पयलीं फोन लायतां हांव!'' अशें म्हणून गवेतांत आशिल्ले डायरींतलो उशा सडेकाराचो फोन नंबर ताणें सोदून काडलो, आनी बांद्यांक एसटीडी कॉल लायलो.

''हॅलो, कोण उलयता?'' तेवटेनच्यान आवाज आयलो.

''हांव, पियाचो भाव उदय उलयतां. तूं उशा उलयता न्हय?'' उदयान विचाल्लें.

''हय, हांव उशा उलयतां. उदयभाऊ हांव आतां तुमकांच फोन करपाचें आशिल्लें, इतल्यांत तुजो फोन आयलो. काल सांजवेळा पिया आयिल्ले खंय़ आमगेर. कित्याकआयिल्ले तें जाणा तूं? आसा तें भितर?'' उशान विचाल्लें. ''ना गो, तें अजून येंवक ना हांगा! तेच खातीर तुका फोन लायिल्लो. तुमगेर कित्याक रावलेंना तर तें?'' उदयान विचाल्लें.

''आरे, हांव, आई आनी बाबा सांग्यार गेल्लीं, मामे भयणीच्या लग्नाक. अभय एकटोच आशिल्लो घराकडें, ते खातीर रावलेंना तें''. आमी आतांच आयल्यांत सांग्यारसून. घराकडें ना जाल्यार खंय गेलां तर तें? घराकडें सांगून भायर सरूंक नाशिल्लें?'' उशान विचाल्लें.

उशाक कितें सांगचें तें उदयाक येवजना जालें. पुणून ताका सांगचेंच

पडलें. “आगो तें हांगां झगडून गेलां! खंय वता तें सांगूंक ना ताणें”.

“आरे देवा! कित्याक झगडलें?” उशान विचाल्लें, पुणून उदयान ताका खरी गजाल सांगलीना. ताणें म्हळें, “तुका तें हांव मागीर सांगतां. आतां तुका ताचो सोद घेंवक मेळटा जाल्यार पळे! प्लीज!”

“उदयभाऊ तुमी काळजी करूं नाकात! मम्मीकूय सांग चिंता करूं नाका म्हणून! हांवे सांगलां म्हणून सांग! हांव आमच्या सगळ्या इश्टिणींक फोन करून विचारतां तें तांगेर आयलां जाल्यार! पत्तो लागलो जाल्यार रोखडेंच कळयतां हांव तुमकां! बरें, फोन दवरतां आं!” अशें म्हणून उशान फोन दवरलो. “अशें कितें हे पिया! घरांतल्यान झगडून भायर सरप म्हळयार केदीं पिशेपणां? देवानूच बरी बुद्द दिवपाची ताका” अशें मनांत म्हणून तें इश्टिणींक फोन करपाचे तयारेक लागलें.

“काल सांजवेळा तें बांद्या उशागेर गेल्लें खंय! पुणून ताचो भाव घराकडें एकटोच आशिल्ल्यान तें थंय रावलेंना अशें उशा सांगतालें. सगळ्या इश्टिणींक आपूण फोन करतां आनी कोणागेरूय आसलें जाल्यार रोकडें कळयतां अशेंय सांगलां ताणें!” उदयान मामाक सांगलें.

कुडीच्या दारांत उबी रावून वसुंधरा तांगेलें उलवणें आयकताली. पिया मेंळूंक ना हें कळटकच तिणें परतून हातुणाचेर घालून घेतलें. “तें जंय आसा, थंय ताची राखण कर रे देवा!” अशें म्हणून तिणें देवाक हात जोडले. आनी तोंडावयल्यान पांगरूण घेवन ती मुसमुसून रडूंक लागली. उदय तिच्या म्हऱ्यांत गेलो आनी तिच्या तोंडावयलें पांगरूण कुशीक काडून ताणें म्हळें, “मम्मी, आतांच उशाचो फोन आयिल्लो. आपूण ताका सोदून काड्टां अशें सांगलां ताणें. तूं चिंता करूंक नाका, अशें तुका सांगपाक सांगला ताणे!” पुणून ताच्या सांगण्यान तिचें समादान जालेंना, आनी तिणें तोंडार परतून पांगरूण ओडलें. “आतां फुडें कितें करचें, हाचेर तिगांचोय खल सुरू जालो. पोलिसांक कळोवचें हें म्हणणें बापायपुताक मान्य जाय नाशिल्लें. ते म्हंण्टाले, “आयचो दीस वाट पऴोवया आमी! ताचो पत्तो लागता जाल्यार पळोवया, नाजाल्यार

फाल्यां कळोवया पोलिसांक.'' बुर्यो इतलें म्हंण्टा म्हणसर फोनाची रींग वाजली.

''कोणाचो काय फोन? अशें म्हणत बुर्यान फोन उबाल्लो, आनी हॅलो म्हळें.

''हॅलो, हांव सदानंद देसाय उलयतां सावंतवाडीच्यान. तुमी कोण पियाचे डेडी उलयतात?'' तेवटेनच्यान आवाज आयलो. पियाचें नांव तांच्या तोंडांतल्यान आयकनाफुडें सगळ्यांचेच कान उबे जाले.

''उलयात सदानंदबाब, हांव पियाचो डेडी उलयतां. पियासंबंदान कितें सांगूंक सोदतात तुमी?'' बुर्यान बेगिबेगीन विचाल्लें. पियाचें नांव कानार पडिल्ल्यान तांच्यांत उमेद संचारलेली.

''तुमगेलें पिया आमगेर आसा!'' तेवटेनच्यान आवाज आयलो तशें सगळ्यांकूच सूऽ जालें.

''बरें आसा न्हय तें?'' बुर्यान विचाल्लें.

''हयहय, बरें आसा. रार्ती मातशें सिक जालें. म्हणून दोतोरागेर व्हरून हाडलें. आता बरें आसा! हुस्को करू नाकांत!'' मास्तरान म्हळें.

''सदानंदबाब तुमचे व्हड उपकार! आमी सामके चिंतेंत पडिल्ले. तुमीं आमकां फोन करून कळयलें हे तुमचे व्हडले उपकार आसात आमचेर! आमी येतात थंय रोकडींच! तुमचो मातसो पत्तो सांगशात?'' बुर्यान म्हळें तसो मास्तरान तांकां पत्तो सांगलो आनी फोन बंद केलो.

न्हिदिल्ली थंय वसूच्या कानार पियाचें नांव पडूंक लागलें, तशी ती बेगिबेगीन उठली आनी सालांत आयली. एका मिणटापयलीं जी आवय लोळोगुळो जावन हातुणाचेर पडिल्ली, ती धुवेचें नाव कानार पडनाफुंडें सामकी सुटसुटीत जाल्ली. भुरग्याखातीरचे आवयचे मायेंत कितली शक्ती आसता ताची ही देख आशिल्ली. ''वसू, आमगेलें बाय मेळ्ळें. सावंतवाडीक सदानंद देसायागेर आसा तें. रार्ती मातशें सिक् जालें म्हणून सांगतालो तो! आतां बरें आसा खंय!'' अशें म्हणून बुर्यान तिका आपले म्हऱ्यांतले कदेलीचेर बसयली.

"तरी आसतना म्हाका हुस्को जाला ताचो! तें सिक् जालें म्हणून सांगलां तांणीं. पुणून कितें जालें तें सांगूंक ना. भाऊ, आमी रोकडींच या रे थंय!" वसून भावाक म्हळें.

"आमी बेगीन जेवंया आनी भायर सरूंया. न्हय भावोजी?" मेवण्यान भावोजीक विचाल्लें.

"हय! एकाक भायर सरत जाल्यार तीन म्हणसर पावतले." बुर्यान म्हळें. "ताई चल, बेगीन जेवण कर! व्हडलें घेवन बसूं नाका, सादेंच कर!" भावान सांगलें तशी वसू धावतूच रांदचे कुडींत गेली आनी जेवणाचे तयारेक लागली. चली मेळिल्ल्यान तिच्या आंगांत बारा हत्तींचें बळ संचारलेलें.

"सदानंद देसाय म्हळ्यार सज्जन मनीस न्हय? दुसऱ्याल्या भुरग्याखातीर इतलें कोण करता? आपल्यागेर तर तांणें पियाक दवल्लेंच, वयल्यान सिक् जालें म्हणून दोतोरागेर व्हरून हाडलें, आनी आमकां हुस्को जायत म्हणून रोखडोच फोन लेगीत केलो. बरें जांव तांचें!आमकां हुस्क्यांतलें मेकळे केले तांणी!" सोमनाथ रायकरान म्हळें.

"हय! आज तांचो फोन येंवक नाशिल्लो जाल्यार फाल्यां पोलिसेंत कागाळ दिवची पडटली आशिल्ली, आनी तो एक व्हडलो बोवाळ जातलो आशिल्लो" बुर्यान म्हळें.

"आनी ताईची आवतिकाय पळोंवक नज अशी जातली आशिल्ली. अख्खी रात तिवूय न्हिदची नाशिल्ली आनी आमकांय न्हिदूंक दिवची नाशिल्ली." सोमनाथान म्हळें.

ते गजाली करता म्हणसर, "जेवण तयार जालां, जेंवक येयात", असो वसूचो उलो आयकूंक आयलो. तशे तिगूयजाण जेवपाखातीर रांदचेकुडींत गेले.

"तुमगेलें जेवण जाय म्हणसर हांव न्हेसून तयार जातां, आनी मागीर जेवतां. म्हजेखातीर भायर सरपाक उशीर नाका!" अशें म्हणून वसू न्हेसपाखातीर बेगिबेगीन आपले कुडींत गेली. तिगेलो धुवेम्हऱ्यांत जाता

तितले बेगिन पावपाखातीरचो तो गोंदोळ पळोवन मेवणो आनी भावोजी व्हडल्या व्हडल्यान हांसूक लागले.

दिस्त एका वराचेर बुर्यो, वसुंधरा आनी सोमनाथ सावंतवाडीक वचपाक बुर्याल्या झेन गाडयेन भायर सर्ली. उदयाक आपोवनूय तो गेलोना, तागेलो भयणिवयलो राग अजून निवळूंक नाशिल्लो. तीन म्हणसून मंडळी वाडीक पावली. मास्तरान आपल्या घराकडेन कशें येवपाचें तें सारकें सांगिल्ल्यान तांकां ताच्या घराकडे पावापाक कसलीच अडचण आयलीना.

मास्तर भायर बसून तांची वाट पळयताले. बुर्यान तांका नमस्कार केलो आनी आपली वळख करून दिली. "हांव पियाचो बापूय, श्रीकांत बुर्यो. हो म्हजो मेवणो सोमनाथ रायकर आनी ही पियाची आवय, वसुंधरा." मास्तर तांकां घेवन भितल्ले कुडींत गेले, तेन्ना देवकी हातुणाचेर न्हिदिल्ल्या पियाक मोसंबी खावयताली.

आवय दिसली तशें पिया उठून बसलें. वसून धांवत वचून ताका घट्ट वेंग माल्ली आनी बाय गो, अशें म्हणून ती ताच्या माथ्यार दुकांचो अभिशेक घालूंक लागली. आवयची ती माया पळोवन देवकीनूय दोळ्यांक पदर लायलो.

ओग मातसो उणो जातकच पियाच्या आंगावयल्यान हात भोंवडायत वसून म्हळें, "एका दिसांत कितें गत करून घेतली गो पोरा तुवें? दोळे लेगीत सामके फोंडाक गेल्यात तुजे! तोंड सामकें बावलां! कित्याक अशे जिवाचे हाल करून घेतले?" आवयचे कमरेक वेंग मारून पिया हिमशाहिमशानी रडटालें. ताचो चेरो वयर करून वसून ताचीं दुकां पदरांन पुसलीं. "रडूं नाका बाय, रडूं नाका! जालें तें जालें! तूं आता कांयच येवजूं नाका!" तिणें ताचे फाटिवयल्यान हात भोंवडायत म्हळें.

"तुमकां खंय मेळ्ळें हें सदानंदबाब?" सोमनाथान विचाल्लें.

"रावात, तांणें आमका सांगल्या ती सगळी गजाल सविस्तर सांगता हांव तुमका!" अशें म्हणून मास्तरान तांकां तें घरांतल्यान भायर सरतकच

कितें कितें घडलें तें सविस्तर सांगलें, आनी मागीर म्हळें ''हांव त्या वेळार थंय पावलो म्हणून बरें जाले! नाजाल्यार प्रसंग मोठो कठीण आशिल्लो. तुमगेलें चली तुमकां मेळपाक कठीण आशिल्लें!'' मागीर तांणें ताका नर्सिंग होमांत कित्याक व्हेल्लें आनी थंय कितें घडलें तें सांगले.

मास्तरांन सांगिल्ली गजाल आयकून सगळ्यांकूच धक्को बशिल्लो. काणयेंत घडटा तशेतरेची ती गजाल आशिल्ली. ती आयकून वसुंधरा उठली आनी तिणें मास्तराच्या पायांचेर घालून घेतलें आनी रडत म्हळें, ''तुमी देव कशे थंय पावले, म्हणून म्हगेलें चली वाटावलें. तुमगेले हे उपकार हांव जल्मांत विसरचेंना!'' मागीर तिणें देवकीच्या पायांक हात लावन म्हळें, ''तुमी आवयपरस चड केलें ताचें! म्हाका फुडल्या जल्मांत तुमचे असली भयण मेळ्ूं अशें मागतलें हांव देवाकडें!''

देवकीन तिका आपलेम्हऱ्यांत बसयली आनी तिचे डोळे पदरान पुसले. मागीर तिणें म्हळें, ''ताई, हांवूय तुमचेसारकीच एक आवय न्हय? आयज म्हजें चली जिवंत नासलें म्हणून कितें जालें? आवयची माया कशी आट्टली?''

''तुमगेल्या पियासारकेंच आशिल्लें म्हगेलें चली. पियाबशेनूच दिसतालें तें. तिफोंज जोराचें निमित्त जावन गेलें. धा वर्सां जालीं हे गजालीक! काल रातीकडे ते पियाक घेवन आयले आनी म्हाका दिसलें, म्हगेलेंच चली जिवें जावन आयलां आमकां मेळपाक! हांवे तेंच नदरेंतल्यान ताचेकडें पळेलें आनी आवय जावन सगळें केलें.''

बुर्यान आनी सोमनाथानूय त्या दोगांचेय परतून परतून उपकार आठयले, आनी तांकां देवाकडेन चड़ आयुश्य मागलें. स वरां जालीं तशें बुर्यान बायलेक म्हळें, ''या न्हय आतां? काळोख जांवचे पयलीं गेल्लीं बरें न्हय?''

''हय या! चल बाय, तुजी सुटकेस घे !'' तिणे पियाक म्हळें.

''ना मम्मी, हांव थोड़े दीस हे म्हजे नवे आवयम्हऱ्यांत रावतां!''

पियान आवयक म्हळें आनी मागीर देवकीक विचाल्लें, ''रावू मिगे हांव थोडे दीस तुजे म्हऱ्यांत?''

''कितें विचारता गो बाय? थोडे कित्याक, तुका जाय तितले दीस राव तूं म्हजेम्हऱ्यांत!'' देवकीन पियाचे फाटीवयल्यान हात भोंवडायत म्हळें. मागीर तिणें वसूक म्हळें, ''ताचो निकतोच आबोर्द जाला. इतलो पयसुल्लो प्रवास झेपचोना ताच्यान! आनीक थोडे दीस रावूनी ताका म्हजेम्हऱ्यांत! तुमी चिंता करूं नाकात! म्हगेली धूव कशी करतलें हांव ताका, पियाचे आई!'

''तुमी दुसरी आवय आसताना म्हाका कसली चिंता? दवरात तुमी ताका थोडे दीस तुमचेम्हऱ्यांत!'' वसून देवकीक म्हळें. मागीर तिणें पियाच्या माथ्याचो उमो घेवन म्हळें, ''राव आं म्हज्या शाण्या थोडे दीस तुजे नवे आवय म्हऱ्यांत!''

मास्तराचो आनी देवकीचो निरोप घेवन तिगांय जाणां मेरशे वचपाक भायर सर्ली. वसू वतां वतां परतून परतून फाटल्यान पळेताली, पिया दिसता काय म्हणून! आनिक थोडे दीस तरी तें तिका पळोंवक मेळचे नाशिल्लें. येतना ती तुरतुरीत चलून आयिल्ली. पुणून वतना तिचीं पावलां जड जाल्लीं.

''पियालें ॲबोर्शन जाल्ल्यान एका व्हडल्या संकश्टांतल्यान आमी वाटावले न्हय? बुर्यान मेवण्याकडें पळोवन म्हळे.

''हय, पुणून तें सदानंदबाबागेर आशिल्लें म्हणून सगळें सारकें जालें. तें खंयूय भायर आशिल्लें जाल्यार? येवजून लेगीत भंय दिसता!''

भावाल्यां तोंडांतल्यान आयिल्लीं तीं उतरां आयकून वसूच्या काळजांत खपखपूंक लागलें. तिणें तोंडार पदर घेतलो आनी सिटाक मान तेंकयली. तोंडान ती व्यंकटेश स्तोत्र पुटपुटूंक लागली.

धाव पावरे गोविंदा, हातीं घेवूनिया गदा...

पियाची नवी आवय ताची खूब तोखणाय करताली. तें अशक्त जालां म्हणून गांवठी तुपाचीं बरीं बरीं खाणां करून ताका खावयताली. खाता तें आंगाक लागिल्ल्यान ताची कात तुकतुकीत जाल्ली. आंग भरून आयिल्लें. तागेले मुळचे सुंदरतायेक अदीक तेज चडिल्लें. ताचेकडें पळेतकच आपलीच ताका दिश्ट जायत म्हणून देवकी भियेताली. सदांच तिनसांजच्या वेळार ती ताची दिश्ट काडटाली.

जिची आपूण इतली तोखणाय करतां ती आपली चली न्हय, असो विचार तिच्या मनांत खिणभरलेगीत येनाशिल्लो. इतली ती पियाकडें एकरूप जाल्ली.

तिका एकेच गजालीचें दूख जाल्लें. पियाचो आबोर्द जावन भुरगें गेल्लें. पियान जेन्ना तिका आपूण गुरवार आसां अशें भियेत भियेत सांगिल्लें, तेन्नाच तिणें त्या भुरग्याचो सांबाळ करपाचें सपन रंगयल्लें, त्या भुरग्याक ती पिंपळाच्या पानार लवंडून आंगठो चोखतल्या बाळकृष्णाच्या रूपांत पळेताली. तें तिचें सपन भंगिल्लें. भुरगें वचूं, भुरग्याची आवय वाटावली हे देवाचे व्हडले उपकार अशें ती मानताली. पियाक घराकडें हाडटकच तिणें देवाच्या फुड्यांत कापूर जळयल्लो. आनी ताचे राखणेखातीर प्रार्थना केल्ली.

पियाक मात आबोर्द जाल्ल्याचें इल्लेंय दूख जावंक नाशिल्लें. वयल्यान 'आपशीं' पिडा गेली, बरें जालें!' अशें ताणें मनांत म्हणिल्लें. जो मेरेन

फ्रेंकाकडें लग्न जावपाचो प्रश्न आशिल्लो तो मेरेन ताका त्या भुरग्याचें अप्रुप आशिल्लें. फ्रेंकान जेन्ना तें भुरगें आपलें न्हय म्हळें आनी ताचेर शिंदळकेचो आळ घेतलो, तेन्नाच ताका त्या पोटांतल्या भुरग्याची वीट आयिल्ली. फ्रेंकाची पोलिसांत कागाळ करून ताका बुद्द शिकोवपाचें ताणें जें थारायल्लें तें प्रत्यक्षांत येवप कठीण आशिल्लें. त्या कामांत ताका मदत करपी कोण नाशिल्लो, आनी फायदोय जावचो नाशिल्लो. वयल्यान पोलीस थाण्यार फावटी घालून अब्रू ओगडावन घेवची पडटली आशिल्ली. देवकीन आपूण त्या भुरग्याचो सांबाळ करतलीं अशें जरी म्हणिल्लें, तरी कोणेय त्या भुरग्याचो बापूय कोण अशें विचाल्ल्यार तांचेकडेन कितें जाप आशिल्ली? अहंपणाच्या अतिरेकाक लागून मनाचे विकृत अवस्थेंत ताणें घेतिल्ले सगळे निर्णय चुकीचे आशिल्ले, अशें आतां ताका कळून आयिल्लें. पुणून ताच्या मूळ सबावांत बदल जाल्लो अशें मात न्हय! अजुनय तें आपणांक जाय तेंच करपाक फाटीं रावचें नाशिल्लें.

एक दीस तें आनी देवकी भायर बसून गजाली करतालीं. इतल्यांत ताची नदर रस्त्यावयल्यान येतल्या उशाचेर गेली. तें दिसनाफुडें धांवत वचून ताणें आपले जिवाभावाचे इश्टिणीक घट्ट वेंग माल्ली. मागीर ताका घेवन तें घरांत आयलें आनी देवकीकडे ताची वळख करून दिली. तिचेकडें बोट दाखोवन ताणें म्हळें, ‘‘ही म्हजी नवी आवय!’’ आनी उशाक तिचे मुखार उबें करून म्हळें, ‘‘ही म्हजी सगळ्या इश्टिणीभितल्ली चड मोगाची इश्टीण! हाचें नांव उशा! उशा सडेकार! बांदेचें!’’

‘‘पिया तुजें नशीब बरें म्हणून तुका दोन दोन आवयो मेळ्ळ्यो. आनी त्योवूय तोखणाय करपी!’’ उशान हांसून म्हळें. मागीर ताणें देवकीक नमस्कार करून म्हळें, ‘‘नमस्कार करतां पियाचे नवे आई!’’

‘‘कल्याण जांव तुजें!’’ देवकीन ताका आशिर्वाद दिलो.

‘‘तुका कशें कळ्ळें हांव हांगां आसा तें ?’’ पियान विचाल्लें.

‘‘तूं घरांतल्यान भायर सरून वतकच फुडें कितें कितें घडलें तें सगळें खबर आसा म्हाका! त्या दिसा हांव सांग्यार गेल्लें म्हणून तूं हांगा

पावलें. नाजाल्यार आज तूं म्हगेर आसपाचें!खरें न्हय?'' उशान हांसून म्हळें.

''तुमी करात गजाली. तुमच्याखातीर हांव च्या करून हाड़टां''. अशें म्हणून देवकी भितर गेली.

''हय, तूं म्हंण्टा तें खरें! फ्रेंकान धांवडयतकच हांव तुज्या आसऱ्याक धांवत आयिल्लें. तूं म्हाका आयिल्ल्या संकश्टांतल्यांन वाटायतलें हाची खात्री आशिल्ली म्हाका!'' पियान म्हळें.

''पुणून म्हज्या वांट्याचो म्हजो भाव मेळ्ळो तुका! तागेलो अवतार पळोवन तूं भियेलें आनी धांवून गेलें म्हणून सांगतालो अभय!'' उशान पियाचो हात आपल्या हातांत घट्ट धल्लो आनी तो दामीत म्हळें.

''खरेंच गो, भियेवपासारकोच आशिल्लो तागेलो तो अवतार! थंय एकटें रावपाक म्हाका भंय दिसलें!'' पियान म्हळें.

''ताणें म्हाका सगळें सांगलां. भुरगो आसा गो अजून! आपले भितरूच कितेंय थारायता आनी तशें जालेंना जाल्यार असलीं अवचिनपणां करता. तसो मनान बरो गो तो! म्हाका सांगून खूब रडलो. आपणे तुजी चूक मागल्या अशें सांगपाक लायलां तांणें म्हाका! पुणून तुवें ताचे उपकारूच मानूंक जाय! थंयच्यान तूं वचूंक नाशिल्लें जाल्यार तुका इतली बरी दुसरी आवय कशी मेळटली आशिल्ली?'' अशें म्हणून उशा व्हडल्यान हांसूक लागलें.

''आनी फ्रेंकाचे उपकार मानूंक नाका, म्हाका धांवडायलें म्हणून?'' पियान लटक्या रागान म्हळें.

''तें तुवें थारावपाचें! म्हज्यान ते गजालीचेर कांयच उलोंवक नजो!'' उशान म्हळें.

''पोलिसेंत कागाळ दिवन ताका भितर उडोवपाचें थारायल्लें हांवें! तांणें म्हजेकडेन जो बर्ताव केलो, तेखातीर ताका फातर फोडपाचीच ख्यास्त फाव आशिल्ली. म्हज्या पोटांतले भुरगें तांणें आपलें न्हय म्हळेंच, वयल्यान शिंदळकेचो आळ घालो म्हजेर!'' पियान दांत चिड्डून म्हळें.

"ती चूक ताची न्हय पिया, ती चूक तुजी! तूं जाका मोग समजतालें तो खरें म्हळ्यार मोग नाशिल्लोच! आपलें काम सादोवपाखातीर तांणें केल्लें तें एक नाटक आशिल्लें. तागेल्या नाटकान तूं फटवलें आनी ताका सर्वस्व दिवन बसलें. आतांचे चडशे तरनाटे भोंवर कशे आसतात. फूल फुललें म्हंण्टकच तातुंतलें म्होंव खावपाक ते जशे ताचेभोंवतणी घुंवडाळ्यो काडतात तशेच हे तरनाटे वाडिल्ली चली दिसली म्हंण्टकच तिचें भोंवतणी घुंवडाळ्यो काडपाक लागतात. फूल बाबडे कांयच करूंक शकना, पुणून चलयेंत प्रतिकारशक्ती आसूंक जाय काय नाका? तूं सहज ताचे भाकीक पडलें. फकत म्होंव खावपाकडें ताका कर्तव्य आशिल्लें. तें तांणें खालें आनी तो कुशीक सल्लो. तूं ताका ख्यास्त दिवंक शकलेंना, पुणून देवान मात ताका ती दिली!"

"कितें जालें?" उशाले सांगून जावचेपयलींच पियान उतावळेपणान विचाल्लें.

"तुका धांवडायलें तेच रातीकडें ताका अेक्सिडेंट जालो. फाटल्यान बशिल्लें चेडूं मेलें आनी तो हातपाय मोडून घरांत पडला." उशान म्हळें.

"बरे जालें! देवान बरी ख्यास्त दिली ताका! खुपशो चलयोय वाटावल्यो ताच्या कचाट्यांतल्यान!" पियान खोशी उक्तावन म्हळें.

"ताच्या कचाट्यांतल्यान चलयो वाटावल्यो म्हळ्यार कितें? तो एकटोच भुरगो चलयांक फटोवपी आसा अशें दिसता तुका? पिशा, दर धा भुरग्यांफाटल्यान अशेतरेचो एक तरी भुरगो आसतलोच! जोमेरन चली तांच्या हांयसाक फारावना तोमेरेन तांचें खरें रूप मुखार येना इतलेंच! चलयो खंबीर रावल्यो जाल्यार, त्यो मोहाक बळी पडल्योना जाल्यार एकाय भुरग्याकडें ताकद ना तांका फटोवपाची! सद्या सगळेकडेन नकली मोगाचो बाजार मांडला थोड्या चलेचलयांनी! मोगाचें नांव घेवन भोगाफाटल्यान धांवतात तीं! सगळें करूनूय चल्यांची काश्टी सुकी उरता. बुड्टात त्यो चलयो!.फटवतकच चल्याच्या नांवांन करंदाय करून कितें उपयोग?" उशा पोटतिडकीन उलयतालें, आनी पिया मोन्यांनी

आयकतालें. उशा आपले फाटीचेर उतरांच्या चाबकाचे फटके मारता अशें ताका दिसतालें. त्या फटक्यांचें दूख सोसूंक नज जावन तांणें उशाचे कमरेक वेंग माल्ली आनी ताचे कुशींत तोंड लिपोवन तें रडूंक लागलें.

उशान ताचें तोंड वयर केलें आनी ताचे दोळे पुसले. "हांवे तुका कितलेतरी फावटी फ्रेंकापासून पैस रावपाक सांगिल्लें, पुणून तुवें आयकलेंना. एक दीस झगडलें लेगीत तुजेकडेन पुणून त्या झगड्याचोय उपयोग जालोना! निमणें जावपाचें तें जालें. सोड ! त्यो गजाली आसूं आतां! म्हाका हें सांग, फुडें कितें करपाचें थारायलां तुवें ?"

"अजून हांवें कांयच थारावंक ना! कॉलेजीक जाल्यार वचचेंना! हांगाच एकाद्री नोकरी मेळटा जाल्यार पळेतां! नव्या बाबाच्यो हांगां बऱ्योच वळखी आसात! तांचे बरें मागपीय खूब लोक आसात. ते कोणाकडेय उतर घालीत जाल्यार नोकरी मेळपाक कठीण जांवचेंना!" पियान म्हळें.

"म्हंटकच घराकडें वचचेंना तर तूं?"

"सद्या तरी ना. फुडें पळोवया!"

देवकी दोगांयखातीर शिरो आनी च्या घेवन आयली. च्या घेवन आनी थोड्यो गजाली करून जातकच उशा वचपाक उठलें. पियान आनी देवकीन ताका रावपाचो आग्रो केलो, पुणून घराकडें खूब काम पडलां अशें सांगून उशान रावपाचें न्हयकारलें.

"आमगेर केन्ना येता? वतां वतां तांणें पियाक विचाल्लें.

"येतां एकदीस!" पियान ताचे फाटल्यान चार पावलां चलतना म्हळें.

"हांव वाट पळेंतां तुजी!" अशें म्हणून उशा बसस्टँडावटेन गेलें, आनी पिया परतून येवन देवकी म्हऱ्यांत बसलें.

"कितें सांगताली तुजी इश्टीण?" देवकीन विचाल्लें.

"कांय ना, हरशिल्ल्योच गजाली!" पियान म्हळें.

"सबावान मात बेस बरी आं तुजी इश्टीण! म्हाका जाल्यार खूब

आवडली''. देवकीन म्हळें.

''हय! शांत, केन्नाच उचंबळ न जावपी, विचार करून पावल घालपी. म्हजेपरस सामकी उरफाटी. सगळे नाकाच, तागेले थोडे गूण जरी म्हज्यांत आशिल्ले जाल्यार अशी तोंड लिपोवन बसपाची पाळी म्हजेर येवची नाशिल्ली आई !'' पियान अशें म्हण्टकच देवकीन ताका म्हऱ्यांत ओडलें आनी समजायत म्हळें, ''कितें उलयता गो तूं बाय? तुज्यांत खूब बरे गूण आसात, आपले गूण आपणाक दिसनात इतलेंच. तूं अजून ल्हान आसा! जगाचो पुराय अणभव घेंवक ना तुवें ! हाचेफुडेंय असले प्रसंग येवचेनात अशें न्हय! पुणून आपणे धिरान त्या प्रसंगाक तोंड दिंवक जाय! मातसो विवेक बाळगून वावरूंक जाय! भावनेच्या भरांत निर्णय घेवंक उपकरना! ताच्या परिणामाचो पयलीं विचार करूंक जाय!''

देवकी सांगताली आनी पिया आयकतालें. पुणून तिणें सांगिल्लें तें ताचे तकलेंत कितलें गेल्लें हो प्रश्नूच आशिल्लो.

दर एका मनशाची प्रकृती वेगळी, आऩी सबावूय वेगळो आसता. मागीर जांव तो दादलो वा बायल. थोडीं मनशां मोहाक बेगीन बळी पडतात. थोडीं मोहापासून पयस पळटात. थोडीं एकाच अणभवान शाणी जातात. थोडी जल्मभर अणभव घेत रावतात. उशा आनी पिया हांचेमदीं होच फरक आशिल्लो. एकलें मोहाक पैस दवरतालें जाल्यार दुसरें रोकडेंच मोहवश जातालें. एकल्याक अणभव घेवपाची गरज पडनाशिल्ली जाल्यार दुसऱ्याचेर अणभवाचो परिणाम तात्पुरतोच जातालो. मागीर योरे म्हज्या फाटल्या!.

''बाबाक म्हजेखातीर एक नोकरी पळोवपाक सांगशी? बसून बसून वाज आयला म्हाका!'' पियान देवकीक म्हळें.

''आगो ताकीत कसली आसा? आनीक थोडे दीस सुशेग घे ! मागीर सोदची नोकरी!'' अशें म्हणून देवकीन ताका समजवपाचो यत्न केलो. पुणून तें आपलो हट्ट सोडपाक तयार जायना जालें तशी तिणें ती

गजाल मास्तराक सांगली. मास्तरानूय बेकार बसचेपरस कामाक लागिल्लें बरें अशें येवजून पानकाराक सांगून एके प्रायवेट कंपनींत ताका क्लॅरिकल काम मेळोवन दिलें.

पियालें काम वेवस्थीत चलतालें. सकाळीं तें जेवणाचो डबो घेवन वतालें आनी सांजवेळा पांचांक घराकडें येतालें.

मेरशेसून आवयचे खुशाली घेवपाखातीर फोन येताले. आपली चली खोशी आसा हें पळोवन तिच्या मनाचें समादान जातालें. आनी पियाकूय बरें दिसतालें. सगळें मनासारकें जाल्ल्यान तें खोशी आशिल्लें. देवकीन खावयल्ल्या पौश्टिक खाणाक लागून ताच्या मुखामळाचेर तेज चडिल्लें. नवे तरेचे कपडे घालतकच आनी बरेतरेन मेकअप करतकच तागेलें देखणेपण दोळ्यांत भरतालें, आनी त्या देख़णेपणाक लागून देवकीली चिंता वाडटाली. तिका सारकी न्हीदलेगीत पडनाशिल्ली. फुलांतलें म्होंव खावपाक आशेल्ल्या भोंवरांचे तिका भंय दिसतालें. आनी तशें भंय दिसपासारकी एक घडणूक मर्दीं घडिल्ली. तेन्नाच्यान ती सामकीच सैरभैर जाल्ली. आपणाकडें बुर्यान राखणेखातीर दवरलेले ते दौलतीची राखण कशेतरेन करची हें तिका समजनाशिल्लें. तसली घडणूक परतून घडूं नये म्हणून ती देवाकडे प्रार्थना करताली.

त्या दिसा आयतार आशिल्ल्यान मास्तर आनी पिया घराकडेच आशिल्लीं. दनपारचें जेवण जातकच एक ल्हानशी न्हीद काडून मास्तर सुपारी कातरीत भायले पडवेर बशिल्लें. पिया आनी देवकी भितर काम करतालीं. अचकीत दोन वयावयले भुरगे एके मोटरसायकलीवयल्यान आयले, आनी नीट पडवेर येवन मास्तराच्या फुड्यांत उबे रावले.

वळख पाळख नाशिल्ल्या त्या भुरग्यांक पळोवन मास्तराक अजाप दिसलें. ''कोण तुमी, कित्याक आयल्यात?'' ताणी विचाल्लें.

‘‘हो हांगांच्या कश्टम अधिकाऱ्याचो चलो. हाचें नांव किशोर आनी हांव ताचो इश्ट !’’ एकल्यान दुसऱ्याची वळख करून दिली.

‘‘अशें? कश्टम अधिकारी गुलाबरावांचो चलो तूं? बसात ! च्या करूंक लांव ?’’ मास्तरान विचारतकच, ‘‘नाका नाका, आमी च्या घेवनूच आयल्यात! अशें म्हणून किशोर एके कदेलीचेर बसलो आनी दुसरो उबो रावलो.

‘‘सांगात, कित्याक आयिल्ले तुमी?’’ मास्तरान विचाल्लें.

‘‘पिया तुमगेलें चली न्हय?’’ किशोरान विचारतकच मास्तरान ‘हय’ म्हळें. तागेलो प्रश्न आयकून तांकां गोंदळूंक जाल्लें.

‘‘हांव तुमगेले चलयकडेन लग्न जावंक सोदतां !’’ किशोरान म्हळें.

कश्टम अधिकाऱ्याल्या चल्यालीं ती उतरां आयकून मास्तराक धक्कोच बसलो.

‘‘म्हगेल्या ह्या इश्टाक तुमची धुव खूब आवडल्या’’. दुसऱ्यान म्हळें.

मास्तर येवजूपांक पडलें. खिणभर किंतें उलोवचे हेंच तांकां कळना जालें. एक अनवळखी भुरगो येता आनी ‘हांव तुमचे चलयेकडे लग्न जांवक सोदतां’, अशें म्हण्टा, हाचो अर्थूच तांकां कळना जालो. हें धाडस हाका खंयच्यान आयलें? बापायचो अधिकार आनी पैसो पळोवन? तांणी आपल्या मनाचेर ताबो दवल्लो, आनी ताका विचाल्लें, ‘‘तूं पियाक वळखता?’’

‘‘तशी म्हजी वळख ना ताचेकडेन ! पुणून तें जे कंपनीच्या ऑफिसांत काम करता, त्या कंपनीचो मालक म्हज्या बापायचो इश्ट ! हांव केन्ना केन्नाय त्या ऑफिसांत वतां. थंय पळेलां हांवें पियाक !’’ किशोरान म्हळें.

‘‘अशें? तुजी ताची प्रत्यक्ष वळख ना ! तुवें ताका फकत पळेलां, आनी तागेल्या देखणेपणाक भुलून तूं ताचेकडेन लग्न जांवक सोदता. अशे मूं?’’

"हय, तें खूब सुंदर आसा !" किशोरान मास्तराक जाप केली.

"अशे पळे, तुका तें आवडलां. पुणून ताका तूं आवडूं नाका?" मास्तर उतरां मेजून वापरताले.

"कित्याक आवडचोना? हांव कितें सुंदर ना?" किशोरालो तो पोरकट प्रश्न आयकून मास्तर हांसले. तांणीं म्हळें, "फकत सुंदर आसून उपकारता?"

"आमचेकडें पैसोय खूप आसा!" किशोरान म्हळें, आनी "हागेलो बापूय कोट्याधीश आसा". अशी तागेल्या इश्टान फुडें री ओडली.

मास्तराक आदिकूच हांसूंक आयलें. तांणीं त्या भुरग्यांक समजावपाचो यत्न केलो. तांणी म्हळें, "खंयच्याय चलयेकडें लग्न जातलो जाल्यार सुंदरकाय आनी पैसो आसलो म्हणून उपकारनां ! ते चलयेची आनी ताची वळख आसची पडटा. तांचेमदी मोग आसचो पडटा. लग्न जातलीं जाल्यार दोगांचीय संमती आसची पडटा. एकल्याक तशें दिसलें म्हणून उपकारना".

"लग्न जातलों जाल्यार ताचेकडेंच जातलों असो हांवें सोपूत घेतला!" किशोरान भीड मुर्वत दवरीनासतना सामकें ठासून सांगलें. मास्तराक तागेलीं अडाणीपणां पळोवन राग आयलो. पुणून तो चिड्डून धरीत तांणें शांतपणान म्हळें, "तुवें सोपूत घेतलो म्हणून उपकारता? पियानूय तसो घेवपाक नाका? तांणें दुसऱ्या कोणाकडें लग्न जातलें असो सोपूत घेतिल्लो आसल्यार कशें जातलें?"

मास्तराले सांगणेचो त्या गुंड भुरग्याचेर कांयच परिणाम जालोना. तांणें उसळून म्हळें, "तें म्हाका कांयच खबर ना! हांवें थारायलां तातूंत बदल जावपाचो ना!"

"तुगेल्या बापायक खबर आसा तूं म्हगेले चलयेक मागणी घालूंक आयलां तें?" मास्तरान ताका विचारलें.

"तुका आवडटा ते चलयेकडे लग्न जा, अशें सांगलां तांणें म्हाका!" किशोरान म्हळें.

“पुणून कोणागेरूय वचून चली दिवपाक जबरदस्ती कर, अशें सांगलां तर तांणें तुका?” मास्तरान वयल्या आवाजांत विचाल्लें.

“हांवें जबरदस्ती खंय केल्या? हांवें तुमचे चलयेक मागणी घाल्या!” किशोरालीं ती उतरां आयकून मास्तराच्यान राग आटापून धरूंक नजो जालो. तांणें रागान म्हळें, “हांवें चली तुका दिना म्हळ्यार कितें करतलो तूं?

“कळटलें मागीर!” किशोरान म्हळें.

“म्हळ्यार दादागिरी करतलो, मस्ती करतलो?”

“कळटलें मागीर!” मास्तराच्या प्रश्नाक ताणें परतून तीच जाप दिली.

“म्हज्यान पोलिसेंत कागाळ करून तुमकां बणखणींत उडोंवपाक येता!” मास्तरान रागान म्हळें, ताचोय ताचेर परिणाम जालोना.

“पोलीस आमचें कांयच करूंक शकचेनात! ते म्हज्या बायायक भियेतात!” किशोरालीं तीं उतरां आयकतकच मास्तराफुडें झगडें करिनासतना तांकां धांवडावपाचो एकूच मार्ग उल्लो. तांणीं फोन उबाल्लो आनी कश्टम अधिकारी गुलाबरावाचो नंबर घुंवडायलो. ते तांगेले बऱ्यापैकीं इश्ट आशिल्ले.

“हॅलो, कोण उलयता?” तेवटेनच्यान गुलाबरावांचो आवाज आयकूंक आयलो तशें मास्तरान म्हळें, “नमस्कार गुलाबराव! हांव मास्तर उलयतां!”

“नमस्कार मास्तर! उलयात, कितें काम आशिल्लें?” गुलाबरावान विचाल्लें.

“गुलाबराव, हांगा तुमगेलो चलो एका इश्टाक घेवन आयला, आनी दादागिरी करता! म्हगेले चलयेकडें लग्न जावपाचें आसा खंय ताका! चली दिलीना जाल्यार बरें जावचेंना अशें म्हंण्टा तो! पोलिसांचें भंय घालें जाल्यार ते आपल्या बापायक भियेतात अशें सांगता! कितें करचें तें म्हाका समजना! तुमीच सांगात हांवं कितें करूं तें!”

"तुमी कांयच करूं नाकात मास्तर! कितें करपाचें तें हांवूच करतां!" अशें मास्तरांक सांगून तांणीं फोन किशोराकडे दिवपाक लायलो. मास्तरान 'घे' अशें म्हणून फोन किशोराच्या हातांत दितकच तेवटेनच्यान फायरींग सुरू जाली.

"किशोर आतांचे आतां मास्तराल्या घरांतल्यान भायर सर! तूं मास्तराक सारको वळखना. तांणीं पोलिसाक फोन करीत जाल्यार एका मिणटाभितर ते तुका घेवन वतले. आनी तुका दिस्ता जायत बापूय तुका बणखर्णीतल्यान सोडयतलो म्हणून! थंयच कुसयतलों हांव तुका! तूं आताचे आतां थंयच्यान भायर सल्लोना जाल्यार हावूंच धाडटां पोलिसांक थंय!" बापायली धमकावणी आयकनाफुडे किशोरान फोन दवल्लो आनी एकूय उतर उलयनासतना ते दोगूय भायर गेले आनी तांणीं मोटरसायकल स्टार्ट माल्ली.

भुरगे वतकच मास्तरान फोन करून गुलाबरावांचे उपकार आठयले. पिया आनी देवकी दाराच्या आडसाक रावून भायलें नाटक पळेतालीं. भुरगे वतकच ती दोगांय भायर आयली. पिया व्हडल्या व्हडल्यान हांसूंक लागलें. तांणें म्हळें "बाबा, तुमी त्या गुंडाक बरी बुद्द शिकयली. शेपटी तुट म्हणसर पळून गेले. तुमी म्हाका उलो मारपाचो, हांव जोत्याच्या व्हाणांनी तोंड फोडटलें आशिल्लें तांचें" अशे म्हणून तें परतून हांसूंक लागलें.

"शे शे! तशें करप आमकां सोबना! आमी आमचो मान राखुनूच वेव्हार करूंक जाय! तांगेल्याच मनशांकडल्यान तांच्या नाकांत दोरी घालूंक जाय!" मास्तरान म्हळें.

पिया हांसता तें पळोवन देवकी ताचेर तापली. "हांसता कितें? तुका हांसूंक येता! म्हज्या पोटांत हांगां गुळो आयिल्लों. हजार फावटीं सांगलें तुका तोंड रंगोंव नाका म्हणून! फायच्यान पावडर लेगीत लांव नाका! आतां भुरग्यांकडें माणसुकी ना! सुंदर चली दिसली म्हंण्टकच ते रोकडेच लागतात तिचे फाटल्यान! लोकांल्या घरांत भितर सरून चली

मागप म्हळ्यार केदी मस्ती! आपणे दुसऱ्याचोच अन्याय केलो म्हणून उपकारना! आपणेय सारकें रावूंक जाय, जाणां?''

देवकी तापता तें पळोवन पिया अदिकूच हांसूंक लागलें. ''बरे बाये, फायच्यान तूं सांगता तशें करतां! कपडे लेगीत सादेच घालतां. मागीर जालें?'' अशें म्हणून तांणें देवकीच्या गळ्यांत हात घालो आनी तिच्या पोल्याक पोलो घासलो.

''मस्करी करूं नाका! आतां पयलींचो काळ उरूंक ना! केन्ना कोण येवन तुका घेवन वचत म्हणून सांगूंक जांवचेंना''. देवकीन रडकुळी जावन म्हळें.

''ना गे आई, ना घडचें तशें! तूं भियेंव नाका! कोणाच्यानूच व्हरूंक जावचेंना म्हाका! बाबा तुमी सांगात हिका समजावन!'' पियान देवकीक समजावपाचो यत्न कलो. पुणून घडिल्ले घडणुकेक लागून तिचें मन सामकें भिल्लें. तिणें पियाक म्हळें ''तूं आतां म्हंण्टा अशें, पुणून फुडलें कोणे पळेलां? फुडें कितें घडत हें कोणाच्यान सांगूंक जाता! रावणान व्हेलीना सितेक उबारून?''

भविश्यांतल्यो घडणुको दोळ्यांक दिसच्यो तशेतरेन ती उलयताली, आनी तिगेलें उलवणें आयकून पिया मुमूरक्यांनी हांसतालें. ताका सगळीं फकणांच दिसतालीं.

देवकीन तापयतसून पिया मेकअप करिनाशिल्लें. फकत पावडराचो एक हात तोंडावयल्यान भोंवडायतालें तितलोच. कपडे लेगीत तें सादेच घालतालें. आपले चुकीक लागून पोरानीं येवन फाटलेबशेन मास्तराक पिडचे न्हय म्हणून तें ही जतनाय घेतालें. तांणें जतनाय घेतली जाल्यारूय तागेंलें मुळचे देखणेपण कशें लिपतलें आशिल्लें? तें उक्तें जातालेंच. पुणून ते गजालीक ताचेकडें उपाय नाशिल्लो. तें देवाचें देणें आशिल्लें.

ऑफिसांतल्यो चलयो सोडल्यो जाल्यार तें एकल्याय चल्याकडें गरजेभायर उलयनाशिल्लें. थोडे भुरगे ताचेकडें इश्टागत जोडूंक सोदताले, पुणून तें तांच्यापासून चार पावलां पैसूच रावतालें. फ्रेंक प्रकरण जायतसून चल्यांचे इश्टागतीची ताका वीट आयिल्ली. दुदान जीब भाजिल्ल्यान आतां तें ताक लेगीत फूंक मारून पियेतालें. ऑफिसांत वतना आनी येतना हेवटेन तेवटेन पळेनासतना तें नीट मानेन वतालें आनी तशेंच परतून येतालें.

तें जरी हेवटेन तेवटेन पळेनाशिल्लें, तरी वाटेन वतले येतले वयावयले भुरगे आपणाकडें पळोवन जिबल्यो चाट्टात हें ताका अदमासानूच कळटालें, आनी ते खातीर देवान आपणाक दिल्ल्या देखणेपणाचो ताका अभिमानूच दिसतालो.

फाटलेसारखी एकूय घडणूक परतून घडूंक नाशिल्ल्यान देवकी निश्चिंत जाल्ली. पुणून ती जे गजालीची चिंता करताली ती गजाल

घडपाचो, तिगेली भविश्यवाणी खरी थारपाचो दीस उजवाडलोच.

आफिसाक वतना पिया जशें फ्रेश जावन वतालें, तशेंच फ्रेश जावन येतालें. येतना बाथरूमांत वचून तें शाबू लावन तोंड धुतालें आनी तोंडावयल्यान एक पावडराचो हात भोवंडायतालें. ताका लागून ताचो चेरो टवटवीत दिसतालो, फांतोडेचेर फुलतल्या धवे कणेरीच्या फुलाबशेन.

त्या दिसा आफिसाकसून परतून येतना आपल्या घराचे पडवेर मध्यम वयाच्या दोगां मनशांक बशिल्लीं पळोवन ताका अजाप दिसलें. ''कोण काय हीं,'' अशें मनांत म्हणत तें फुडें आयलें. ताका पळेनाफुडें त्या दोगांमदले बायलेन आपल्या म्हऱ्यांत बशिल्ल्या दादल्याकडें पळोवन स्फूर्ती आयिल्लेबशेन म्हळें, ''हाउ ब्युटिफूल! खूब सुंदर आसा न्हय हें चली?''

''सुंदर? व्हेरी व्हेरी ब्युटिफूल! प्रिती झिंटा आनी प्रियांका चोप्रा झक माल्लीं हाचे फुडें!'' दादल्यानूय उत्तेजीत जावन म्हळें.

तांगेल्या उलवण्यांतलीं थोडींच उतरां पियाच्या कानार पडलीं. पुणून तितल्यानूच तीं आपल्या रूपाची तोखणाय करतात हें ताका कळ्ळें, आनी तेचबरोबर आपल्या देखणेपणाचो ताका मनांतल्यान अभिमानूय दिसलो. ''आसाच हांव सुंदर!'' अशें मनांत म्हणत तें पडवेर आयलें, तशी थंय बशिल्ली बायलमनीस उठली आनी तिणें ताका हाताक धरून आपले म्हऱ्यांत कदेलीचेर बसयलें.''

''मावशेन सांगलां म्हाका तूं तिगेलें 'पोसकें' चली म्हणून! तिणें म्हळें तशी पियान लजून मान सकल घाली. पोसकें चली ह्या शब्दाचो जाल्लो उच्चार ताणें पयलेच खेपे आयकल्लो, आनी तो आयकून तें मनांतल्यान खोशीय जालें.

देवकी च्याचीं दोन कोपां घेवन भायर आयली आनी तिणें तीं थंय बशिल्ल्या घोवाबायलेच्या हातांत दिलीं.

''आगो तूं केन्ना आयलें? तुगेलीय च्या हांगाच हाडूं?'' पियाक

पळोवन तिणें ताका विचाल्लें.

"नाका! हांव भितर घेतां! पयलीं कपडे बदलूंक जाय म्हाका!" अशें म्हणून तें भितर वतलें इतल्यांत ताका थांबोवन तिणें त्या नव्या मनशांची ताचेकडें वळख करून दिली.

"ही म्हजे भयणीची चली. हिचें नाव रश्मी. आनी हो तिचो घोव. हाचें नांव शाम! हीं दोगांय मुंबय आसतात. कामाखातीर आयल्यांत हांगां! आनी हें म्हगेलें चली, पिया! हाचेविशीं हांवें तुमकां व्हदोळ सांगलांच!" देवकीन म्हळें तसो त्या दोगांकूय नमस्कार करून पिया देवकीवांगडा भितर गेलें.

"मेळ्ळी, म्हाका हिरोईन मेळ्ळी!" बायलेच्या हातार ताळी दिवन शामान म्हळें.

"ओगीच शितापयलीं मीठ खांव नाका!" रश्मीन म्हळें.

"शितापयलीं मीठ खायना गो हांव! तुका आयडीया दिली. आवडली काय ना तुका म्हजी आयडीया?"

तुगेली आयडीया वायट ना! पिया मेळत जाल्यार दुसरी हिरोईन सोदपाचो त्रास वाचतलो. पियासारकी देखणी हिरोईन आसत जाल्यार सिनेमा हिट जावपाक हरकत ना!

"हिटूच कित्याक सुपर डुपर हिट म्हण!"

"सद्या मनांतले मांडे मनांतूच दवर! सिनेमा काडपाचें थारावप वेगळें आनी सगळें सारकें घडून येवप वेगळें!

"हांवें म्हजेपरीन सिनेमा फिक्स केला. पियान काम करपाक हयकार दित जाल्यार हिरोईनचो प्रश्न सुट्टलो. आमचो हिरो थारिल्लो आसा! सिनेमाचें डायरेक्शन हांवूच करतलों. फकत प्रश्न उरतलो तो फायनन्सराचो!"

"तोच तर मुखेल प्रश्न आसा न्हय? फायनन्सर मेळटकच बाकीचें सगळें थारावपाचें!".

"तितले म्हणसर पियाचें थारावन दवरल्यार बरें न्हय?"

"तें म्हजेर पावलें! हांव पयलीं मावशेक म्हण्टां, आनी मागीर पियाक विचारतां!"

तांगेलें खलबत चालूच आशिल्लें. इतले म्हणसर देवकी भायर आयली आनी तिणें पिया, म्हणून उलो मारतकच पियाय आयलें.

"पिया यो गो, बस अशें म्हज्या म्हऱ्यांत! अशें म्हणून रश्मीन पियाक आपले म्हऱ्यांतले कदेलिचेर बसयलें.

"मावशेन म्हाका तुजेविशीं सगळें सांगलां. तुगेली बदली हांगाच्या आफिसांत जाल्या आनी राबित्याखातीर तूं आपणागेर रावलां म्हणून!" रश्मीन म्हळें तशें पियाक सूऽ जालें. मावशेन सगळें सांगलां अशें रश्मीन म्हण्टकच ताका दिशिल्लें, देवकीन तिका खरी गजाल सांगल्या आसतली म्हणून! पुणून तिणें खरी गजाल सांगूक ना हेखातीर तांणें तिचे मनांतल्या मनांत उपकार आठयलें.

"मावशेक विचारूं न्हय?" रश्मीन शामाचे कानाकडें म्हळें तें देवकीच्या कानांत पडटकच तिणें रश्मीक म्हळें, "विचार न्हय कितें विचारपाचें तें! ताका कित्याक विचारता विचारूं काय म्हणून?"

"तशें न्हय गे मावशे! आमी एक सिनेमा काडपाचो थारायला!" रश्मीन म्हळें.

"तुमी सिनेमा काडपाचो थारायला, तातूंत म्हाका कितें विचारपाचें? काडात तुमी सिनेमा! सिनेमा काडून जातकच आमीय येतात पळोवपाक! न्हय गो बाय?" अशें हांसत म्हणत तिणें पियाचे फाटीचेर ल्हवून थापट माल्लें.

"तशें न्हय गे, हांव पियासंबंदान विचारूंक सोदतालें".

"कितें तें?"

"पिया आमच्या सिनेमांत काम करीत काय म्हणून? हिरोईनचें गे!"

रश्मीन म्हळें तशें, दिवकीन आनी पियान दोगांनीय एकदमूच आंग काडलें. पियाचो जाल्यार आपल्या कानाचेर विश्वासूच बसलो ना "हांव

आनी सिनेमांत? तातूंत हिरोईन? शे! फकणां केल्यांत आसतलीं रश्मीन!'' ताणें मनांत म्हळें. ''तूं खऱ्यांनी म्हंण्टा काय फकणां करता?'' देवकीन रश्मीक विचाल्लें.

''फकणां न्हय, खऱ्यानीच सांगतां. आमकां जी हिरोईन जाय ती पियाच्याच रूपाची आनी वयाची. आमची बाकी सगळी तयारी जाल्या. फकत हिरोईनचोच प्रश्न उल्ला. पियान तें काम करीत जाल्यार तोवूय मिट्टलो'' रश्मीन म्हळें.

देवकीक पयलीं दिशिल्लें, रश्मी फकणां करता म्हणून. पुणून तिणें जेन्ना आपूण खऱ्यांनीच सांगतां म्हळें तेन्ना ती सिरीयस जाली, आनी तिणें म्हळें, ''ताणें सिनेमांत काम करपासंबंदान हांव कशें सांगतलें? म्हजी धूव न्हय ती!''

''तूं पोसकी आवय न्हय ताची? म्हण्टकच तुज्यान सांगूंक जाता!'' रश्मीन हांसून म्हळें.

''पोसकी आवय नांवाची! म्हजेकडेन ती अमानत दवल्ल्या बुर्यान ताचो बरेबशेन सांबाळ करपाखातीर! तुमच्यांनी ताच्या आवयबापायक विचारूंक जाता! ते दितात जाल्यार पळेयात मान्यताय! आनी हें हांगां प्रत्यक्ष बसलां ताका पयलीं विचारात सिनेमांत काम करशी काय म्हणून?'' देवकीन कितें सांगपाचें तें सांगून उडयलें. रश्मीन विचारलेलें तें तिका अजिबात आवडूंक नाशिल्लें. ''सिनेमांत काम करता काय, म्हळ्यार कितें? बऱ्या चलयानी सिनेमांत काम करपाचें आसा?'' तिणें मनांत म्हळें.

पियाच्या हड्ड्यांत धडधडूंक लागलें. ''रश्मीन विचारल्यार कितें सांगपाचें तिका? हां काय ना? घराकडें विचारपाची गरजूच ना! तीं हां केन्नाच म्हणचींना! म्हाका खबर आसा! सिनेमांत काम मेळप म्हळ्यार फकणां न्हय! स्टुडियोची सोपणां झरयल्यार लोकांक काम मेळना, आनी हांगां म्हज्या दारांत मनीस आयला सिनेमांत काम करता काय म्हणून विचारपाक! तेंवूय हिरोईनचें!'' पियाचें मन घुंवडाळ्यो खावपाक लागलें.

थोर्डी मनशां कितले बेगीन मोहाचे सुवादीन जातात हाचें पिया ही खाशेली देख आशिल्लें.

"पिया, तूं करशी काम सिनेमांत? तुका फाव तशीच भुमिका आसा!" पियान रश्मीक जाप केलीना. तें ओगीच रावलें, तें गोंदळलेलें. रश्मीक कितें जाप दिवची हें ताका कळना जालें. "कितें करूं गे आई?" तांणें देवकीक विचाल्लें.

"म्हाका कितें विचारता? ते येतकच तांकां विचार! मागीर तुगेल्या आवय बापायक विचार! आनी तुका बुद्द ना? सिनेमांत काम करचें काय ना हें तुवें थारावपाचें! दुसऱ्याक कितें विचारता?" देवकीन हयन्हयशा रागान म्हळें. तिका भितल्यान खूब राग आयिल्लो पियाचो. पियान चक्क ना म्हणचें अशें तिका दिसतालें.

"धा वर्सां सिर्वीस करून मेळचेंना इतले पयशे मेळटले एकाच सिनेमांत काम केल्यार! आनी एका सिनेमांत यशस्वी जालें जाल्यार एका फाटल्यान एक अर्शी कामां मेळत रावतली". शामान गरयेक व्हडलें हांयस लायलें.

फुडलो एकूय शब्द आयकुपाक देवकी थंय रावलीना. ती भितर आपल्या सदच्या कामाक लागली. तिणें सिनेमांत काम करतल्या नट्यांविशीं खुपशें आयकल्लें. ती टिवीवयले सिनेमा पळेनाशिल्ली. एकादें बरेशें सिरीयल मातसो वेळ पळेताली. पुणून सिरीयल सोंप म्हणसर मर्दी मर्दी ज्यो जायराती दाखयतात त्या जायरातींतल्या अर्दनागड्या नटयांक पळोवन ती नटी ह्या शब्दाकूच विटिल्ली. आनी आज अशी परिस्थिती उप्रासलेली कीं, जे चलयेक आपल्या मायेच्या पांखांत घेवन आपले उदास जिणेंत ती थोड़ीशी खोशी हाडूंक सोदताली तीच चली, नटयेचें काम मेळटा म्हणून सिनेमांत वचपाचें येवजिताली, आनी वयल्यान ते गजाली खातीर तिचो आदार घेवंक सोदताली.

रांदचे कुडींत काम करतना दोळ्यांत परतून परतून उबीं रावपी दुकां ती नेटान परतिताली. अशेतरेन ती आपले मायेक आडसर घालूंक

सोदताली. पडवेर रश्मी, शाम आनी पिया हांगेलें खलबत चालू आशिल्लें. थोड्या वेळान शाम आनी रश्मी वचपाक भायर सर्ल्यो. ‘‘येतां गे मावशे’’, अशें रश्मीन देवकीक उलो मारून म्हण्टकच तांकां निरोप दिवपाखातीर तिका भायर येवचेंच पडलें.

रश्मीन वतां वतां पियाक म्हळें, ‘‘तुगेलें कितें करपाचें ते सारकें थाराय, आनी येवपाचें निश्चीत जालें जाल्यार आमकां फोन कर! हांवें दिल्लो फोन नंबर आसाच तुजेकडें. आमी आनीक दोन दीस रावतल्यों हांगांच्या सम्राट हॉटेलांत! तुवें थंय येवपाची गरज ना. तुगेलो फोन आयलो म्हण्टकच हांव ड्रायवराक धाडटां गाडी घेवन! सामान बांदून तयारेंत राव!’’

देवकीचो आनी पियाचो निरोप घेवन तीं घोवबायलां आपले इंडिका गाडयेंत बसून हॉटेलाकडें गेल्यो, तशी देवकी कांय एक उलयनासतना भितर वचूंक लागली. पियान बेगिबेगीन तिका आडायली आनी वेंग मारून म्हळें, ‘‘आई रागार जांव नाका गे म्हजेर! म्हाका सिनेमांत काम करपाक परवानगी दिगे!अशी संद परतून परतून येना! आयिल्ले संदीचें हांव भांगर करूंक सोदतां.’’

‘‘हांवें सांगलें न्हय तुका? तूं हांकां विचार आनी मागीर तुगेल्या घरच्यांक विचार म्हणून! ते दित तुका परवानगी! म्हाका तो अधिकार ना!’’ अशें म्हणून देवकीन आपल्या गळ्याभोंवतणचे ताचे हात बळयां सोडयले आनी दोळ्यांतली दुकां लिपयत ती भितर धांवली.

‘‘कोणेय कितेलेंय सांगूं, हांव ही संद सोडचेंचना! म्हगेलो निश्चय म्हळ्यार निश्चय! तो बदलप शक्यूच ना! हांव वतलेंच सिनेमांत! कोण म्हाका आडायता पळोवया!’’ पिया आपले भितरच उलयतालें. तागेलो इगो, तागेलो हंतम जागो जाल्लो आनी ताका लागून ताच्या सबावांतली विकृती उफाळून आयिल्ली.

रातच्या जेवणाच्या वेळार देवकीन सगळी गजाल घोवाच्या कानार घाली आनी म्हळें, ‘‘बाय सिनेमांत वचचेखातीर म्हजेकडेन परवानगी

मागता. हांवें ताका सांगलां, तो अधिकार म्हाका ना! तुमकां आसा जाल्यार दियात ताका परवानगी!''

''शे शे! तो अधिकार म्हाका कसो आसतलो?'' मास्तरान म्हळें. बायलेन जें कितें सांगलें तें आयकून तांची अवस्था पिशाबशेन जाल्ली. पिया सिनेमांत वचूंक सोदीत अशें तांणीं सपनांत लेगीन येवजूंक नाशिल्लें. एका व्हडल्या संकश्टांतल्यान वाटावतकच तें परतून अशेतरेचें पिशेपण करीत अशें तांकां दिसूंक नाशिल्लें. परिस्थितीक लागून ताचो मुळचो हट्टी सबाव गेला आसतलो अशें ते समजताले. पुणून 'आपणाक तो अधिकार ना' अशें तांणीं म्हणनाफुडें पिया सट्ट करून पानावयल्यान उठलें आनी आपले कुडींत धांवलें, तेन्नाच तांची खात्री जाली कीं, ''ताच्या मुळच्या संबावांत इल्लोय बदल जांवंक ना, आनी जावपाचोय ना!''

देवकी दुदाचो पेलो घेवन पियाचे कुडींत गेली. तेन्ना तें मुसमुसून रडटालें. तिणें ताचे फाटिवयल्यान हात भोंवडावन ताका शांत करपाचो यत्न केलो. पुणून तें रडपाचें थांबलेंना. मागीर तिणें ताका समजायत म्हळें, ''बाय गो, तूं अशें कितें करता पिशाबशेन? आमी दुस्मान गो तुजे? आमी तुजें केन्नाच वायट चित्तलीं गो? तुवें सिनेमांत वचपाची परवानगी आमचेकडेन मागली म्हणून उपकारता? तूं आमकां सांगून गेलां अशें तुगेल्या आवयबापायक कळ्ळें जाल्यार तीं आमकां कितें म्हण्टलीं सांग पळोवया! तीं आमकां विस्वासघातकी म्हणचींना? तांणीं आमचेर दवरलेलो विस्वास आमी ओगडायलो अशें जांवचेंना? तांणीं तुका आमचेकडें दवरलां. आमी तुजी बरेबशेन राखण करतली असो तांचो विस्वास आसा, तो आमी ओगडांवक फावना. तुका सिनेमांत वचपाचें आसा मुगो? बरेभशेन वच! पुणून तुगेल्या आवयबापायक सांगून वच! माग तांचेकडे परवानगी! दितलीं तुका तीं!''

''ना ना! तीं म्हाका परवानगी दिवचीं नात! केन्नाच ना!'' पियान रडत म्हळें. ''पुणून सांगून तरी पळे तांकां! फोन करीत जाल्यार फाल्यां

सकाळी येतलीं तीं!. बाय शाणें म्हजें! हें दूद पिये आनी मागीर न्हीद! जेवणावयलें उठलें म्हणून खूप वायट दिसलें तांकां! चल दूद पिये!''

अशेतरेन समज घालून देवकीन ताका दूद पिवयलें. मागीर ती घोवाम्हऱ्यांत गेली आनी ताका बुर्याक फोन करून आपोवपाक सांगलें. तिणे म्हळें, ''हें पळेयात, पियाचें लक्षण म्हाका धड दिसना! तें गेलेबगर रावचेंना! पळून लेगीन वचपाक आसा! आवय बापायमुखार उलवणें जाल्लें बरें!''

''हय, खरें तुगेलें! बरें केल्लें फुकट वतलें. आनी वयल्यान दुशण लावन घेवचें पडटलें. आतांच करतां फोन तांकां!'' अशें म्हणून मास्तर फोन घुंवडांवक लागलो.

''तांकां खरें कारण सांगू नाकात! सामकें गरजेचें काम आसा म्हणून सांगात!'' देवकीन म्हळें.

मास्तरान तशेंच केलें. फोनाचेर खरें कारण सांगनासतना बुर्याक आनी ताचे बायलेक गरजेच्या कामाखातीर बेगीन येयात अशे सांगलें.

दुसऱ्या दिसा सकाऴफुडेंच बुर्यो आनी वसुंधरा वाडीक वचपाक मोटारीन भायर सर्ल्लीं. वाटेंत तांणीं सोमनाथाक घेतलो, आनी तिगांयजणां धा वरां म्हणसर मास्तरागेर पावलीं. सगळे वाटेंत वसूलें देवा पाव, धर्मा पाव चालूच आशिल्लें. पियाचीच कितेंयतरी गजाल आसतली, अशें येवजुनूच तिच्या हड्ड्यांत धडधडूंक लागिल्लें.

च्यापाणी जातकच मास्तरान बुर्याक खरी गजाल सांगली. मागीर तांणें पियाक आपोवन हाडलें. देवकीन ताका त्या तिगांच्याय मुखार उबें केलें आनी म्हळें, ''ही तुमगेली चली! इतलो तेंप आमी तिचो जाता तेबशेन सांबाळ केलो. आतां तिका हांव तुमचे सुवादीन करतां. फुडलो सगळो निर्णय आतां तुमी घेवपाचो.'' मास्तरान आनी देवकीन जें कितें सांगलें तें आयकून त्या तिगांकूय कितें उलोवचें तें कळना जालें. मागीर तिगांनीय आपापले परीन ताका समजावपाचो यत्न केलो.

वसून आपलें सदचें अस्त्र भायर काडलें. रडत रडत ती ताका

समजांवक लागली. ''बाय कितें करपाचे येवजिला गो तुवें हें? खंय्रचे अवदशेक आपोवन हाडटा गो तूं? चली भुरग्याक सिनेमांत वचप सोबता गो? तकलेंतल्यान काडून उडय तें सिनेमाचें पिशें! बापूय तुजेखातीर नवी नोकरी पळेतलो! बेश्टेंच नसत्या संकश्टाक आमंत्रण दिवं नाका! बाय शाणे म्हजें! हांव सांगता तें आयक शाण्या! आमी घराकडें या चल!''

वसू उलयताली आनी पिया ओगी रावून आयकतालें. तें निश्चयाचेर ठाम आशिल्लें.

बुर्यान आपलो सदचो अवतार घेतलो. तो व्हडल्या व्हडल्यान ताचेर तापूंक लागलो. ''तुका जाय तेंच तूं करतलें अशेंच येवजिलां काय कितें गो तुवें? तेन्ना अवचिनपणा केलीं आनी दनपारचे तोंड घेवन गेलें. हो बाबडो देवमनीस मेळलो म्हणून वाटावलें, नाजाल्यार आयज खंयच्या कोणांत आसतलें आशिल्लें जाण कोण? सिनेमांत वचून संकश्टाक कित्याक आपोवन हाडटा तूं? तुका वाटावपाक कोण येतलो थंय? हांव तुका सिनेमांत वचपाक निखालस दिवपाचो ना!'' पियान बापायलेंय मोन्यांनी आयकून घेतलें.

मागीर मामा फुडें सल्लो. तांणें ताका बऱ्याच्यो चार गजाली सांगल्यो सिनेमांत गेल्ल्यान कितल्या चलयांची वाट लागल्या तें सांगले. मामालो उपदेशूय तांणें आयकून घेतलो. ताका कोणाचीच पर्वा नाशिल्ली. ताचें ध्येय ताच्या दोळ्यांमुखार नाचतालें. सिनेमांत हिरोईन जावन ताका सगळें बॉलिवूड गाजोवपाचें आशिल्लें. हातांत आयती आयिल्ली संधी तें कशें सोडटलें आशिल्लें!.

मास्तरान आनी देवकीन सामकें मोन्यांचें सवंग घेतिल्लें. तीं एकूय उतर उलयलींना. आपल्या उलोवपाचो कांय उपयोग जावचोना हे तांका खबर आशिल्लें. तांणीं तोंड धापिल्लें खरें, पुणून तांचें काळीज सामकें तुट्टालें. तें करंनाय मारतालें. थोड्याच दिसांभितर तांचें आनी पियाचें नातें खूब घट्ट जाल्लें.

पियान जेन्ना कोणाकूच परतून उतर केलेंना, सगळ्यांचें मोन्यांनी आयकून घेतलें, तेन्ना वसूक दिसलें, तांणें सिनेमांत वचपाचो विचार सोडला जातलो. तशें जाल्यार देवूच पावलो, अशें मनांत म्हणून तिणें देवाक हात जोडले. पुणून तिगेले भाबडे समजिकायेक रोकडीच वेर गेली. घराच्या दारांत रश्मीली इंडिका गाडी येवन उबी रावली.

फुडें कितें घडटलें, कोण कोण कितें कितें उलयतलो, कोण वचपाक आडखळ हाडटलो, हाची पुराय जाणविकाय आशिल्ल्यान आपली सुटकेस ताणें पयलींच भरून दवल्लेली आनी गाडी धाडपाखातीर रश्मीक फोन केल्लो. ड्रायवरान गाडी चालूच दवल्लेली. पियान सुटकेस उबाल्ली आनी एकूय उतर उलयनासतना वा हेवटेन तेवटेन पळेनासतना तें नीट वचून गाडयेंत बसलें आनी ड्रायवरान गाडी हॉटेलाचे वाटेन धांवडायली.

कोणाचेंच कितेंच आयकप ना, आपणाक जाय तेंच करप, हो ताचो मुळचो सबाव इत्लोलेगीत बदलूंक नाशिल्लो. हाचेपयली तांणें बारा वरांचेर आपूण म्हंण्टा तें खरें करपाखातीर मेरशेचें घर सोडिल्लें, आनी आयज तांणें त्याच वेळार वाडीच्या घराचो हुंबरो हुपिल्लो. जित्याची खोड मेलेबगर वचना म्हंण्टात हेंच खरें!

पिया घर सोडून वचतसावन बुर्याल्या सोबीत बंगल्याचेर निराशेची सावळी पडिल्ली. पियान उदक घालून वाडयल्ली फुलझाडां वेळार उदक मेळूंक नाशिल्ल्यान बावूंक लागिल्लीं. वसूल्या मुखामळावयलें पयलींचें तेज खंयचेखंय नाच्च जाल्लें. तिगेल्यो सगळ्यो हालचाली नकली जावपाक लागिल्ल्यो. त्या घरांत कोणाच्याच चेऱ्याचेर हाशें फुलनाशिल्लें. बुर्यो आफिसांत वतालो, पुणून थंयच्या कामांत ताचें लक्ष लागनाशिल्लें, आनी तागेलो पडिल्लो चेरो पळोवन, आपलें काम सादोवन घेवपाखातीर तागेल्या मेजाफुड्यांत गर्दी करपी लोक इले इले उणे जावपाक लागिल्ले.

पिया घर सोडून गेलें, इतलेंच न्हय जाल्यार सगळ्यांच्या इच्छेविरूध्द सिनेमासारक्या एका उणाख धंद्यांत नटी जावपाक गेलें, ह्या धपक्यांतल्यान सांवरचे पयलींच बुर्याल्या बंगल्याक आनीक एक नेटाचो धपको बशिल्ल्यान ताच्यो वण्टी कोसळपाक पाविल्ल्यो.

घरां जमनीभरवण करपी भुंयकांपाच्या धपक्याइतलोच नेट त्या धपक्यांत आशिल्लो. इलो चडूच म्हळ्यार जाता!. वसूचे पुण्यायेन आनी तिणें देवाक घाल्ल्या साकड्याक लागून जांवये, उदयाच्या नशिबांतली बणखण चुकिल्ली.

त्या दिसाची ती फांतोड उदयाखातीर एक व्हडलें संकश्ट घेवन आयिल्ली. मनशां साकरन्हिदेंत आसतात ते फांतोडेवयल्या पारार बुर्याल्या बंगल्याच्या दारावयल्या घांटीन दोन फावटीं डिंग डाँग, डिंग डाँग, असो

आवाज केल्लो.

हयन्हयशी जाग आयिल्ल्या बुर्याक घांटीचो आवाज आयकून अजाप दिसलें. कोणें वाजयली दाराची घांट इतले सकाळची? कसली खबर दिवपाची आसा काय त्या मनशाक? कसलीय वायट खबर न्हय जाल्यार पुरो! अशें मनांत म्हणत तो दाराम्हऱ्यांत गेलो आनी तांणें दार अर्दकुटें उगडलें. हयन्हयशा उजवाडांत दारांत दोन पोलिस उबे आशिल्ले पळोवन ताका कच्च जालें.

"इतले सकाळीं आमच्या दारांत पोलीस कित्याक आयल्यात काय?" अशें मनांत म्हणत ताणें दार पुराय उगडलें. ताचें काळीज धडधडपाक लागिल्लें.

"तुमी श्रीकांत बुर्ये न्हय?"

"हय!" बुर्यान पोलिसांक जाप दिली.

"तुमच्या चल्याचें नाव उदय न्हय?" पोलिसान परतून विचाल्लें.

"हय!" बुर्यान म्हळें. पोलिसाच्या प्रश्नान ताच्या काळजाचे ठोके वाडपाक लागिल्ले.

"आता घरांत आसा तो?"

"हय! भितर न्हिदला"

"ताका मातसो उठयशात?"

"कितेखातीर?" बुर्यान धाडस करून विचाल्लें.

"ताचेकडे काम आसा आमचें! मातसो उठयात ताका!" पोलिसान म्हळें, तसो बुर्यो उदयाले कुडींत गेलो आनी ताणें ताका उठयलो. दोन पोलीस भायर तुजी वाट पळेतात अशे ल्हव आवाजांत सांगून ताका घेवन तो भायर आयलो.

भायलो उलोवपाचो आवाज आयकून जागी जाल्ली वसुंधरा थंय येवन दाराचे कुशीक उबी रावली आनी भायलें उलवणें आयकूंक लागली. पोलिसांक पळोवन तिचो आवरो उडिल्लो. ती मनांतल्या मनांत मारूती स्तोत्र पुटपुटूंक लागली.

आपणाक पोलीस सोदतात हें आयकून उदयाक धक्को बशिल्लो. पोलिसांनी आपणाक सोदपासारकें कसलेंच वायट काम आपल्या हातान घडूंक ना, हाची ताका खात्री आशिल्ली.

"तुजेंच नांव उदय?" पोलिसान विचाल्लें.

"हय! म्हजेंच नांव उदय! कित्याखातीर सोदतात तुमी म्हाका?"

"तूं एके हिंदू संस्थेंत काम करता न्हय?"

"हय!" उदयान पोलिसांक जाप केली

"काल तूं खंय आशिल्लो?"

"हांव ऑफिसांत काम करतालों'.

"मागीर खंय गेलो?"

"ऑफीस सुट्टकच नीट घराकडें आयलों".

"घराकडें येतकच परतून भायर गेलोना?"

"ना!"

"खरें सांगता?"

"हय, खरें सांगतां!" उदयान नेटान म्हळें. "सदां हांव म्हगेल्या इश्टांक मेळपाक भायर वतां, पुणून घरांत मेस्तालें आलमार करपांचें काम चलतालें म्हणून म्हाका ताच्या म्हऱ्यांत रावचें पडलें."

"मेस्त हांगाचोच आशिल्लो?"

"हय!"

"नांव कितें ताचें? खंय रावता?"

"ताचे नाव रामदास मेस्त! हांगां लार्गीच रावता! पेल्या वाड्यार!"

"काम सोंपोवन तो कितल्यांक गेलो?"

"तो गेलो तेन्ना धा वरां जावन गेल्ली."

"मागीर तुवें किते केलें?"

"हांव जेवलों आनी न्हिदलों."

"खरें सांगता तूं?"

"हांव फट कित्याक उलयतलों? फट उलवपासारको कितें गुन्याव

केला हांवें?''

उदयालो प्रश्न आयकून बेजार जाल्ल्यान एका पोलिसान व्हडल्यान म्हळें, ''तुका पोलीसथाण्यार येवचें पडटलें!''

''पोलिसथाण्यार कित्याक? कितें केलां म्हणून?'' उदयान रागान विचाल्लें, तशें पोलिसान म्हळें, ''तें तुका थंय येतकच कळटलें. आनी बेश्टोच तापूं नाका तुकाच वायट पडटलें!''

येदो वेळ ओगी रावून पोलिसांलें आनी उदयालें उलवणें आयकत उबो आशिल्लो बुर्यो फुडें सल्लो आनी पोलिसांक नमस्कार करून ताणें थंडसाणीन विचाल्लें, ''उदयाक तुमी पोलिस थाण्यार कित्याक व्हरतात? उपकार करून कितें घडलां ते सांगशात?''

''हो काम करता ते संस्थेतल्या काय लोकांनी काल रातीकडें एक वायट काम करून लोकांक पिडापीड केल्या. थोड्या लोकांक आमी धल्ल्यात. थोडे पळून गेल्यात. धल्ल्यात तांणी आपूण ते संस्थेंत काम करतां हे कबूल केलां. तांचे वांगडा आनीक कोण आशिल्ले हाची आमी चौकशी करतात. ते खातीर ते संस्थेंत काम करतल्या सगळ्या लोकांक पोलीस चौकेचेर व्हरून थंय आमी तांची चौकशी करतले!'' पोलिसान खुलासो केलो आनी उदयाक जिर्पींत बसोवन ते ताका आपले वांगडा घेवन गेले.

येदो वेळ दाराचो आदार घेवन थरथरत उबी आशिल्ले वसुंधरेन पोलीस उदयाक घेवन वतात तें पळोवन, ''पावरे देवा, वाटाय म्हगेल्या पोराक ह्या संकश्टांतल्यान!'' अशें व्हडल्यान म्हळें आनी थंयच बसकण माल्ली. बुर्यो बेगिबेगीन तिचे म्हऱ्यांत गेलो आनी आदार दिवन ताणें तिका उठयली. तिका सोफार बसोवन ताणें म्हळें, ''वसू, तूं बेश्टीच भियेंव नाका! ते ताका कांयच करचेनात! चौकशी करतले आनी सोडून दितले. ताणें कांयच गुन्यांव करूंक ना, जाल्यार ताका ख्यास्त कित्याक करतले ते? तूं हांगां चिंतेविरयत बस पळोवया! हांव आतां पोलीस थाण्यार वतां आनी घेवन येतां ताका!'' अशें म्हणून ताणें वसूक धीर दिलो आनी

आपली गाडी घेवन तो पोलीस थाण्यार गेलो.

तो थाण्यार पावलो तेन्ना उदय आनी ताच्यावांगडा काम करपी खुबशे भुरगे थंय रांकेंत उबे आशिल्ले. एक पोलीस इंस्पेक्टर तांची चौकशी करतालो. तांकां आडवे तिडवे प्रश्न विचारून गोंदळांत उडयतालो.

उदयाचो नंबर येतकच ताणें ताका खुबशे प्रश्न विचाल्ले. उदयान सगळ्या प्रश्नांच्यो वेवस्थित जापो दिल्यो.

''घडिल्ले गजालीकडेच न्हय जाल्यार, ते संस्थेंत घडटल्या खंय़चेच गजालीकडें आपलो संबंद ना! आपूण थंय फकत बरोवपाचें काम करतां, आनी काम सोंपतकच नीट घराकडें येतां!'' अशें सांगून ताणे आपूण गुन्यांवकार न्हय हें पटोवन दिवपाचो यत्न केलो.

तागेर आलमारीचें काम केल्ल्या मेस्ताकूय तांणी आपोवन हाडिल्लो. ''आपूण तागेर रातची धां वरांमेरेन काम करतालों आनी उदय त्या कामांत आदार करतालो!'' अशी मेस्तान गवाय दिल्ल्यान पोलिसांचो उदयावयलो दुबाव पैस जाल्लो. कित्याक तर तो गुन्यांव रातच्या णवांक घडिल्लो आनी तोवूय एका पयसुल्ल्या गांवांत! पुणून पोलीस कायद्याक धरून, ''आठ दीस मेरेन ताणें पोलीस थाण्यार हजेरी दिवंक जाय'', अशे सांगून तांणी ताका सोडून दिल्लो.

मोटरींत बसून बापायवांगडा घराकडें येतना तो मोन्या बशेन बशिल्लो. बुर्यान ताका म्हळें, ''उदय तुवें ते संस्थेंतली नोकरी सोडल्यार बरें जातलें. ते संस्थेंत सदांच कितेंय ना कितें भानगडी जायत रावतल्यो, आनी दर खेपेक चवकशे खातीर  पोलीस तुका थाण्यार व्हरतले''. ताचेर उदय कांयच उलयलोना पुणून बापायल्या उतरांनी ताच्या मनांतलो विचारांचो खवदळ मात चड वाडिल्लो.

आपूण काम करता ते संस्थेंतल्या लोकांनी अतिरेकी कारवाय करून लोकांक पिडापीड केल्या हें पोलिसांकडल्यान कळटकच ताका धक्को बशिल्लो. ताचे कल्पनेभायली ती गजाल आशिल्ली. आपली संस्था धर्मजागृती करता, ते खातीर खूपशो विधायक चळवळी करता, इतलेंच

ताका खबर आशिल्लें. तो थंय नोकरी करितसावन ते संस्थेतल्या लोकांनी कसलेंच वायट काम केल्लें ताणें आयकूंक नाशिल्लें. संस्थेच्या फाटल्या दारान अतिरेकी विचारांचे लोक भितर घुसल्यात हें ताका तांणीं तसली कारवाय करिम्हणसर खबर नाशिल्लें. तें जेन्ना ताका कळ्ळें तेन्नाच ताचे तकलेंत थंयची नोकरी सोडपाचो विचार घोळटालो. पोलीस थाण्यार वतना आनी थंयसून घराकडें येतना तो तेच गजालीचेर येवजितालो.

दोन सप्तकां फाटीं एक दीस, संस्थेतल्या बाथरूमांत वतना ताणें दोगां भुरग्यांचे उलवणें आयकल्लें. दार धापिल्ले एके कुडींत ल्हव आवाजांत ते उलयतालें. "आमी ओगी रावून उपकारना! कितेंय तरी कडक उपाय करचोच पडटलो! आमगेलें ते कशें आयकनात हेंच आमकां पळोंवक जाय!" अशेतरेचें तांगलें उलवणें आयकून तो गोंदळांत पडिल्लो. ते कितें करूंक सोदतात हें ताका समजूंक नाशिल्लें. हिन्दू धर्माचे उदरगतीखातीर कसलेंय विधायक काम करपाचें येवजितात जातलें असो मनाचो समज करून घेवन, तांगेलें फुडलें उलवणें आयकनासतनाच तो बाथरूमांत गेल्लो. ते अतिरेकी काम करून लोकांक पिडापीड करतले असो मातसो लेगीत दुबाव आयिल्लो जाल्यार, ती घडणूक घडचे पयलींच ते संस्थेंतली नोकरी तो सोडटलो आशिल्लो. कायद्याचें खंयचेंय कलम लावन पोलिसांनी ताका बणखणींत उडोंवक नाशिल्लो हो तांणीं ताचेर केल्लो उपकार अशें ताका दिशिल्लें. तो भितर पडिल्लो जाल्यार ताच्या वांगडा ताच्या बापायचीय बदनामी जातली आशिल्ली. तांगेले नोकरेक लेगीत बादा येवपाक आशिल्ली. ते संस्थेंत नोकरेक लागचेपयलीं, "हांव तुमचे नोकरेक बादिकार जायत अशें कांयच करचोना," अशें ताणे बापायक उतर दिल्लें, तें फट थारतलें आशिल्लें.

तो हिन्दू धर्माचो अभिमानी आशिल्लो. आपलो धर्म सगळ्या धर्मांपरस स्त्रेश्ट आसा अशें तो मानतालो. आपल्या धर्माच्या उदरगतीखातीर आपल्या कडल्यान शक्य जाता तितलो वावर घडचो हे

खातीर ताणे ते संस्थेंत नोकरी धरिल्ली. आपल्या धर्मांतले बरे विचार लोकांमेरेन पावोवपाखातीर तो रस्त्यार उबो रावून ते संस्थेचे पेपर विकतालो. आपल्या धर्माची उदरगत वा राखण करपाखातीर अतिरेकी कारवायो करच्यो पडटात अशी कल्पना लेगीत तो करपाक शकनाशिल्लो. तो लोकशाय मानतालो. लोकशायेंत दर एका मनशाक आपणाक बरें दिसता तेबशेन वागपाचो अधिकार आसता, हे गजालीचेर ताचो विस्वास आशिल्लो. आपणाक जाय तशेंच दुसऱ्यान वागूंक जाय ही विचारसरणी ताका मान्य नाशिल्ली. तांगेली संस्था सत्संगाक उत्तेजन दिवप, विद्वान मनशांक आपोवन हाडून, तांचेकडल्यान हिन्दू धर्माचें तत्वगिन्यान लोकांक समजावन सांगप, अशेतरेच्यो खुबशो विधायक कार्यावळी करताली. हे खेपेक सगळें अजापाचेंच घडिल्लें, वीट येवपासारकें, संस्थेची मान लजेन सकयल वचपासारकें!

धापिल्ले कुडींत त्या दिसा भुरगे जें कितें उलयताले ताचो अर्थ ताका आतां कळिल्लो. अतिरेकी विचाराच्या भुरग्यांक तो आडावंक शकनाशिल्लो. तितलें बळ ताच्यांत नाशिल्लें. पुणून तांच्यापासून पयस रावप ताका शक्य आशिल्लें. पोलीस थाण्यारसून घराकडें पावम्हणसर ताचे तकलेंत तोच विचार घोळटालो.

बापूय पूत जेन्ना घराकडे पावले, तेन्ना वसुंधरा दोळ्यांत प्राण हाडून तांची वाट पळेताली. उदय दिसलो तशी ती धांवत ताचेसरीं गेली आनी तिणे ताका आपल्या हड्ड्याकडे घट्ट धल्लो. ताचेर ती दुकांचो अभिशेक घालूंक लागली. ‘‘तूं ते संस्थेंतली नोकरी सोड रे म्हज्या शाण्या! नाका आमकां असली कटकटीची नोकरी! हांवें देवाक सांगणे केल्लें. ताणेंच वाटायलो तुका ह्या संकश्टांतल्यान!’’ अशें म्हणून ती ताका घेवन देवघरांत गेली आनी देवामुखार उबो करून तिणे तांचेकडल्यान ‘थंयची नोकरी सोडटलों’, असो सोपूत वदोवन घेतलो.

दुसऱ्याच दिसा संस्थेच्या ऑफिसांत वचून ताणें नोकरेचो राजिनामो दिलो. संस्थेत काम करतना ताका खुबशीं बंधनां पाळचीं पडटालीं. त्या

सगळ्या बंधनांतल्यान आतां तो मेकळो जाल्लो.

संस्थेंत जाल्ले भानगडीक लागून उदयान नोकरी सोडली हें कळटकच तागेल्या इश्टांभितर वेगळेचार जाल्लो. ते ताचेकडेन उलयनाशिल्ल्यान तो सामको एकटो पडिल्लो. दिसभर तो येवजीत रावतालो. ताची मनस्थिती पळोवन बुर्यान आपल्या एका बरें मागतल्याकडें उतर घालून ताचेखातीर एक नोकरी मेळयली. नोकरी तांच्या इस्तादाक फावशी नाशिल्ली, पुणून घरांत बसून येवजीत रावचे परस मनाक दुसरेकडेन घुसपावन दवरपाखातीर ती बरी आशिल्ली. आनी ते नोकरेक लागुनूच निराशेच्या काळखात बुडिल्ल्या बुर्याल्या बंगल्यात उशाच्या रुपान एक आशेचें किर्ण भितर सरून, आपले परीन उजवाड घालपाचो यत्न करतालें. त्या किर्णाच्या उजवाडांत थंयच्या बाविल्ल्या मनाक मातशी ताजबाण मेळटाली.

पियाची मोगाची इश्टीण उशा सडेकार ज्या हॉस्टेलांत रावतालें, थंय लागींच उदय जे कंपनींत काम करतालो ते कंपनीचें ऑफिस आशिल्लें. उदय आपलें काम सोंपोवन सांजेवेळचो जेन्ना घराकडें परततालो तेन्ना ताची आनी उशाची मर्दीमर्दी भेट जाताली. पियावांगडा जायते फावटी तें तागेर आयिल्ल्यान तांची पयलीपासून वळख आशिल्ली. ताकालागून तें दिसलें म्हण्टकच तो आपली स्कूटर थांबयतालो आनी ताचेकडेन दोन उतरां उलयतालो. उशाकूय तागेल्या घरची आनी चड करून तागेले आवयची खुशाली कळिल्ल्यान मनापासून खोस भोगताली. वसू आपल्या भुरग्यां इतलीच ताचेर माया करताली. ते खातीर ताका तिचेविशीं आपलेपणशें दिसतालें. पिया घरांतल्यान भायर सरून गेल्ल्याक तें तिचे म्हऱ्यांत पावूंक नाशिल्ल्यान, तिचेकडेन उलोवपाची, तिगेली मायेचीं दोन उतरां आयकुपाची ताका संद मेळूंक नाशिल्ली. पुणून एक दीस ताका ती संद मेळ्ळी आनी वसूचे मायेची ताची तान भागली.

उशा दिसतकच सदांचे संवयेन उदयान आपली स्कूटर ताच्याफुड्यांत थांबयली. उलयतां उलयतां ताणें म्हळें, ''उशा तूं आमगेर येता? तुका पळोवन मम्मी खोशी जातली. पिया गेल्ल्याक ती सामकी बाबडी जाल्या. सारकी खायजेवी लेगीत ना! एकटीच येवजीत बसता.''

तें आयकून उशाच्या काळजांत चरचर जालें. वसूक मेळपाची ताका ओढ लागली. तें रोखडेंच तागेले स्कूटरीचेर बसलें आनी बराबरच्या चलयांक "रोखडें येतां", अशें सांगून ताच्या वांगडा तागेल्या घराकडें गेलें. वसुंधरा भायरूच उबी आशिल्ली. उशा दिसनाफुडें ती सोपणां देवून धांवत ताचेसरीं गेली आनी ताका तिणें घट्ट वेंग माल्ली. तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागली. उशान तीं आपल्या लेसान पुसलीं आनी तिका घेवन तें नीट तिगेले कुडींत गेलें. तिका खाटीचेर बसोवन ताणे तिचे हात आपल्या चेऱ्यावयल्यान भोवंडायले आनी तिका वेंग मारून तें हिमशा हिमशानी रडूंक लागलें. त्या वेळार तीं दोगांय पियाचे यादस्तीन दुखेस्त जाल्लीं. तें त्या घरांत नाशिल्ल्याचें दुख तीं वांटून घेतालीं. रडटां रडटांच वसू उशाच्या केसांवयल्यान मायेन हात भोंवडायताली.

रडपाचो ओग उणो जालो, तशी तीं गजाली करूंक लागलीं. वसू उशाक घेवन रांदचेकुडींत गेली. ताचे आनी उदयाचे खातीर तिणें च्या केली. च्या पियेवन उशा जेन्ना भायर आयलें तेन्ना आवयन आनी धुवेन आवडीन रोयिल्लीं फुलझाडां उदक मेळूंक नाशिल्ल्यान बाविल्लीं पळोवन, ताणें उदयाकडल्यान उदक शिंपपाचें पायप मागून घेतलें आनी वसू नाका नाका म्हण्टा आसताना सगळें पोरसूं शिंपून काडलें. मागीर तें आपलेंच घर कशें सगळो बंगलो भोवलें आनी वळखिच्या वस्तूंवयल्यान ताणें मायेन हात भोंवडायलो. तें जेन्ना वचपाक भायर सल्लें तेन्ना वसून ताचे हात घट्ट धल्ले. ती ते सोडिना जाली तशें उशान तिका समजायत म्हळें, "मम्मी तूं अशें कितें करता गे भुरग्याबशेन? हांव हांगा लागींच रावतां! दोन दिसांनी येतां हांव परतून!"

"खऱ्यांनीच येतलें मुगो तूं?" तिच्या विचारपांत इतली काकुळट भरिल्ली कीं, तिका ना म्हणप कोणाकूच शक्य जावचें नाशिल्लें.

"हय गे मम्मी, हांव येतलेंच!" अशें सांगून तें उदयावांगडा परतून आपल्या हॉस्टेलाकडें गेलें.

वसूक सांगिल्लेबशेन सप्तकांतल्यान दोन फावटीं तरी तें तिका मेळपाक येतालें. वर–दोन वरां बसून तिचेकडेन गजाली करपाक ताका खोशी भोगताली. केन्ना केन्नाय तिचेकडेन गजाली करतां करतां तें पोरसांतलीं फुलझाडां शिंपून काडटालें आनी एकाद्रें सुंदरशें गुलाबाचें फुल तोडून तिच्या केसांत माळटालें.

वसूक मेळपाच्या निमतान उदयाकडली ताची वळख दाट जाल्ली. इश्टागत इली इली वाडटाली. तागेले स्कूटरीवयल्यान येतना वतनां तांगेल्यो गजाली रंगताल्यो.

मदीं मदीं ती दोगांय भोंवपाक वतालीं. मिरामारचे वेळेर रेवेंत बसून सूर्य अस्ताक वचचेल्या वेळावयलो मळबांतलो रंगाचो खेळ पळेत तीं गजाली करतालीं.

उशालें तें बी फार्माचे निमाणे वर्स आशिल्लें. परिक्षा सोंपतकच तें घराकडे वतलें आशिल्लें आनी कामाबगर बांद्याकसून पणजे परतून परतून येवप शक्य जावचें नाशिल्ल्यान तांचें मेळप लांबणेर पडटलें आशिल्लें.

त्या संबंदान जेन्ना तीं उलयतालीं तेन्ना तांगेलीं उतरां जड जातालीं आनी मागीर, उतरांच्या जाग्यार बोटांच रेवेंत भोंवतालीं.

जेन्ना तीं गजाली करपाक बसतालीं तेन्ना दोगांयमदीं मातशी सुवात सोडटालीं, पुणून गजाली करतां करतां तांच्या मनाभितल्ली सुवात मात खूबशी उणी जाताली. तांकां दुसऱ्याक कितेंय तरी सांगनशें दिसतालें, पुणून कशें सांगचें तें समजनाशिल्ल्यान तीं फकत उस्कारे सोडटालीं.

एकदीस मिरामारचे वेळेवयल्या बांकाचेर बसून, भिऱ्या भिऱ्यांनी हेवटेन तेवटेन धांवतल्या सवण्यांची मजा पळेत, तीं गजाली करपांत रंगून गेल्लीं. गजाली करतां करतां उदयाचे तकलेंत एक वेगळोच विचार आयलो. ताणे धाडस करून उशाचो हात हातांत घेतलो आनी तो मातसो दामलो. अचकीत घडिल्ले ते घडणुकेन उशाच्या आंगार सर्र करून कांटो उबो रावलो. ताणें अजापान उदयाच्या चेऱ्याकडें पळेलें. आपलो हात सोडोवन घेवपाचो ताचो यत्न सफळ जालोना. उदयान तो

अदिकूच घट्ट धल्लो आनी ताच्या कानाम्हऱ्यांत तोंड व्हरून म्होंवाळ उतरांनी म्हळें, ''आय लव यू उशा!''

उदयाल्या त्या मोगाच्या उतरांनी उशाचें सगळें आंग शिरशिरलें. जीं उतरां आयकुपाखातीर इतले दीस ताचो जीव तरसतालो तीं 'आय लव यू' हीं मोगांची उतरां कानार पडनाफुडें ताचें मन उचंबळून आयिल्लें. तो मोगाचो उलो तागेल्या काळजाभितर ताणें लिपोवन दवरलेल्या मोगामेरेन पाविल्लो. तें मातशें उदयाक तेंकून आयलें आनी मान सकल घालून ताकाच आयकूंक येतलें इतल्या ल्हव उतरांनी ताणें म्हळें, ''आय लव यू टू!''

इतले दीस तीं जें कितें सांगूंक सोदतालीं, आनी जें तांका सांगपाक जमनाशिल्लें, तें 'आय लव यू', ह्या तीन उतरांनी सांगून उडयल्लें. तांच्या मनांतली उचंबळाय आतां सोंपिल्ली. तीं शांत जाल्लीं. जें तांकां जाय जायशें दिसतालें तें तांका मेळिल्लें.

सूर्यदेवान दरयांत निकतीच बुचकळी मारिल्ली आनी ते बुचकळे वांगडा वयर सरिल्ल्या तांबड्या रंगाचो थोडोसो उजवाड त्या दोगांच्याय चेऱ्याचेर पडून मोगाच्या तांबड्या रंगांत भरसल्लो, आनी त्या रंगाबशेनूच तांगेलीं मनांय एकमेकांत भरसून गेल्लीं. एकजीव जाल्लीं.

रस्त्यावयले आनी वेळेवयले दिवे पेटिल्ले. सवण्यांची भिरीं आपापल्या घोटेराकडे गेल्लीं, पुणून मनशांचीं भिरीं मात हवा खायत रेवेंत बसून राविल्लीं. तांच्यामदल्यांन धांवतल्या चणेफुटाणेवाल्यांकडें आनी फुलयल्ल्या फुग्यांचे तुरे हातांत आशिल्ल्या भुरग्यांकडें ती शांत चित्तान पळेतालीं. उशाचो हात अजुनूय उदयाच्या हातांत आशिल्लो. तांचेमदीं आतां सुवात उरूंक नाशिल्ली. भुजाक भूज तेंकिल्लें.

उदय उशाक आनीक मातसो तेंकून गेलो आनी ताच्या चेऱ्याकडें पळेत ताणे विचाल्लें, ''उशा तूं म्हजेकडेन लग्न जाशी?'' उशाचे नदरेंत हयकार आशिल्ल्याचो ताका भास जालो आनी तो मनांतल्यान सुखावलो.

उशा मात तागेलो प्रश्न आयकून मातशें कुशीक सल्लें. ताणें उदयाच्या

बोटांनी घुसपल्लीं आपली बोटां अळंग सोडोवन घेतलीं. आनी ताकाच आयकूंक येतलें इतल्या ल्हव आवांजांत म्हळें, "उदय, तूं म्हजेर मोग करता आनी हांवूय तुजेर मोग करतां. त्या आमच्या मोगाक कोणाच्यानूच आडखळ हाडूंक जावचीना". तें मातशें थांबलें आनी मागीर थीर नदरेन ताचेकडेन पळेत ताणें म्हळें, "मोग आनी लग्न ह्यो वेगळ्यो गजाली आसात उदय!"

"तूं कितें म्हंण्टा तें म्हाका समजना. कितें सांगूंक सोदतां तूं?" उदयान अधीर जावन विचाल्लें.

"मोग करपाक कोणाची परवानगी लागना. ती दोन मनांभितल्ली गजाल आसता. पुणून लग्नाक मात घरच्यांची परवानगी घेवची पडटा!" उशान थंडसाणीन म्हळें.

"म्हळ्यार आमच्या घरचीं आमच्या लग्नाक संमती दिवचीना अशें दिसता तुका?"

उदयालो तो प्रश्न आयकून उशान भुरग्याक समजावचो तसो समजायत ताका म्हळें, "म्हाका तशें म्हणपाचें ना! पुणून हांवें एक गजाल मनाकडें थारावन दवरल्या. तुज्या आनी म्हज्या घरच्यांनी संमती दिली जाल्यारूच हांव तुजेकडें लग्न जातलें. तांच्या भितल्या एकल्यान जरी लग्नाक विरोध केलो जाल्यार हांव लग्न जावचेंना. आनी लग्न जालेना जाल्यार आमच्या मनांत उप्रासलेलो मोग आमी थंयचे थंयच चिड्डून दवरचो पडटलो. तशें करप कठीण आसता हें म्हाका खबर आसा! तुज्यान तें कितलें जमत हें म्हज्यान सांगूंक नज! पुणून हांव मात घरच्यांच्या विरोधांत केन्नाच लग्न जावचेंना, हो म्हजो वज्रनिश्चय आसा!"

"म्हाका तुजें म्हणणें मान्य आसा, उशा! म्हांका खबर आसा, घरच्यांच्या विरोधांत लग्न करून न्हय चलो सुखी जाता, न्हय चली!" उदयान म्हळें.

"आनी तसले विरोधी परिस्थितींत जिणें जियेतना एकदीस

तांचेभितल्लो मोग केन्ना आनी कसो उडून वता हें तांचे तांकां लेगीत कळना. हांवें असल्यो देखी पळेल्यात, म्हणून तुका हें सांगलां उदय! तुका पट्टा मूं हांव सांगतां तें?'' उशान ताका विचाल्लें.

''हय, तुवें सांगलां तें म्हाका शंबर टक्के पटलां ! तूं सांगता तशेंच करपाचें!. हांव म्हजे मम्मीक विचारूं? तिचें मत समजून घेतां पयलीं!'' उदयान म्हळें.

''मम्मीक विचार, आनी पप्पाकूय विचार! हांवूय म्हज्या आईबाबाक विचारतां! तांची सगळ्यांची मान्यताय आसत जाल्यार आनीक खंयचीच आडखळ येवचीना आमच्या लग्नाक!'' इतलें म्हणून उशा वचपाक उठलें. उदयान ताका हॉश्टेलाकडें सोडलें आनी आपूण घराकडें गेलो. वसुंधरा दारांत उबी रावून ताचीच वाट पळेताली.

''आज उशीर कित्याक जालो उदय?'' तिणें विचाल्लें.

''भोंवपाक गेल्लो!'' तांणें म्हळें.

''एकटोच? काय कोण आशिल्लो वांगडा?''

उदय हांसलो आनी हय न्हय म्हणिनासतना जेन्ना भितर गेलो, तेन्ना तो उशावांगडा भोंवपाक गेल्लो आसूंक जाय असो तिणें अंदाज बांदलो. हालीं ताची आनी उशाची इश्टागत दाट जाल्या, हें तिचे नदरेंतल्यान सुटूंक नाशिल्लें.

''मम्मा तुका उशा आवडटा गे?'' च्या घेतां घेतां सहज विचारचें तेबशेन उदयान आवयक विचाल्लें.

''हें कितें विचारप तुगेलें? आवडटा म्हळ्यार कितें? कोणाकूय आवडपासारकेंच आसा तें चली! पुणून तुवें अशें कित्याक विचाल्लें? तुका आवडलां काय कितें तें?'' वसून मुमुरक्यांत हांसत विचाल्लें.

आवयच्या प्रश्नाक तांणें जाप दिलीना. फकत लजेन मान सकल घाली. ''पिशा, आवडलां जाल्यार आवडलां म्हणून सांगचें! तातूंत लजूंक जाय कित्याक? म्हज्या मनांत जाल्यार केन्नाच्यान तीच गजाल घोळटा. आमच्या घरांत तें सून म्हणून आयलें जाल्यार, आमचें घर

खोशयेन भरून उडयतलें. सून आनी धूव ह्या दोनूय नात्यांनी तें म्हजेर सुखाचो पावस घालतलें. देव करूं आनी तशेंच जांव!'' अशें म्हणून तिणें देवाक हात जोडले. मागीर तिणें उदयाक विचाल्लें ''तुजें उलवणें जालां ताचेकडेन?''

''आमचें उलवणें जालां त्या संबंदान! तें म्हंण्टा, ''तागेल्या आनी म्हगेल्या आवयबापायची लग्नाक मान्यताय आसत जाल्यारूच लग्न जातलें. नाजाल्यार जांवचेंना!'' तांणे म्हळें.

''पळेलें? हें बरे चलयेचें लक्षण! अशेतरेचे संस्कार जे चलयेचेर जाल्यात, ती चली ज्या घरांत वतली, थंय दुखाक थारो नासतलो''. पुताचे फाटीचेर हात दवरून वसून खोशयेन म्हळें. मागीर तिणें म्हळें, ''हांव उलयतां तांचेकडेन!''

''पप्पा संमती दित मिगे?'' उदयान दुबाव उक्तायलो.

''कित्याक दिवचेनात? काय बरी चली! तांकाय आवडटां तें! हांगां आयिल्लेकडेन तांची भेट जाली जाल्यार दोन उतरां उलयता तें तांचेकडेन!'' वसून म्हळें.

''आमच्या मानान तांची परिस्थिती......''

ताका उलयतना मदींच थांबोवन तिणें म्हळें, ''तूं तसलें कांय येवजूं नाका पळोवया! चली बरें शिकलां! सबावान बरें! चल्याक चली आवडल्या! आनीक कितें जाय? हांव मनयतलें तुज्या बापायक! म्हाका दिसना ते न्हयकार दित अशें! तूं निश्चिंत राव! जातलें तुमचें लग्न!''

आवयच्या उतरांनी खोशी जावन उदय आपले कुडींत गेलो, आनी घोव घराकडें येवपाची वाट पळेत वसू दारांत उबी रावली. घोवाचो मूड बरो आसाशें पळोवन तिणें तेच रातीकडें उदयाच्या लग्नाचो विशय काडलो.

''उदय आतां जाण्टो जालोना? ताचें लग्न करपाक नाका?'' तिणें घोवाक म्हळें.

''हय, हांवूय तेंच येवजितां! बरी चली मेळ्ळ्यार करून उडोंवया

लग्न!'' बुर्यान म्हळें

''उशाक पळेलां न्हय तुमी?

''कोण उशा?''

''उदयावांगडा आमगेर येता तें! चलयेली इश्टीण!''

''हां हां, सडेकारालें चलीं!''

''कशें दिसता तुमकां तें?''

''म्हजेकडेन बरें रेस्पेतात उलयता! उदया खातीर म्हंण्टा तूं?''

''हय! म्हाका जाल्यार तें खूब आवडलां! धुवूच कशी दिसता तें म्हाका!''

''भायल्यान बरें दिसलें म्हणून उपकारनां! सबावान चलयेबशेन आसत जाल्यार–''

''शे शें तशें अजिबात येवजूं नाकात तुमीं! हांवें सारको बरो पारखिला ताचो सबावं! बऱ्या गुणांचे चली आसा तें!'' घोवाक उलयतनां मदींच थांबोवन तिणें म्हळें

''चल्याक मानूं नाका?'' बुर्यान दुबाव उक्तायलो.

''ताका मानवलां तें! ताचेकडेन उलवणें जालां तागेलें.''

''चलयेची मान्यताय आसा?''

उशान स्पश्ट सांगलां खंय उदयाक, ''दोगांल्याय आवयबापायची मान्यताय आसत जाल्यारूच लग्न जातलें म्हणून!''

''अशें सांगलां ताणें?'' तशें जाल्यार ताच्या सबावाविशीं दुबाव घेवपाची गरज ना!'' बुर्यान म्हळें, तशी खोशी जावन वसून विचारलें, ''पुताक सांगूं तुमी संमती दिल्या म्हणून?''

''सांग सांग! आनी ते चलयेच्या घरच्यांचें मत कितें आसा तेंवूय समजून घेवपाक सांग ताका!'' तांणें म्हळें.

दुसऱ्या दिसा उदय जेन्ना उशाक मेळ्ळो तेन्ना तांणें ताका आपल्या आवयबापायन लग्नाक संमती दिल्ल्याचें सांगले. तें आयकून उशा खोशी जालें.

‘‘ह्या शेनवरा हांव बांद्या वतां आनी म्हगेली आईबाबा कितें म्हण्टात तें पळेतां. म्हाका खात्री आसा तीं आमच्या लग्नाक मान्यताय दितलीं हाची!’’ उशान म्हळें.

उदयाक सांगिल्लेबशेन तें शेनवरा दिसा बांद्या गेलें आनी तांणें कांयच लिपयनासतना सगळी गजाल आवयबापायक सांगली.

‘‘तुका मानला मुगो भुरगो? जालें तर! तूं कितेंय वायट करचेना हाचेर आमचो पुराय विस्वास आसा!’’ उशाच्या बापायन यशवंत सडेकारान म्हळें.

‘‘आई, तुजें मत कितें? तुका मान्य आसा मिगे?’’ उशान आवयक विचारलें.

‘‘हांवे ना म्हळें जाल्यार तूं जावचें ना लग्न उदयाकडें?’’ सरितेन हांसत हांसत विचाल्लें.

‘‘ना!’’ उशान एकाच उतरान म्हळें.

उशाक वेंगेंत घेवन ताची अपुर्बाय करीत आवयन म्हळें, ‘‘पिशा हांव ना कित्याक म्हंण्टलें गो? उदय बरो भुरगो! ताची आवय जाल्यार भांगर! तुकाय ती आवय समान! असल्या घरांत म्हजी धूव सून म्हणून वता जाल्यार हांव न्हयकार कित्याक दितलें?

‘‘तूं सांग गो तुगेले मोगाचे मम्मीक, आमी येतात म्हणजे उलोवणी करपाक तांगेर थोड्या दिसांनी!’’ यशवंतान धुवेक म्हळें.

बुर्यागेर गेल्लेकडेन उशान वसूक तिगेले कुडींत व्हेली, आनी जेन्ना तिच्यां कानांत ल्हवून ती खोशयेची गजाल सांगली, तेन्ना तागेले जावपाचे आशिल्ले मांयन ताचो चेरो आपल्या हातांत घेतलो आनी ताच्या कपलाचे, माथ्याचे पटापटा उमे घेतले. मागीर ताका घेवन ती देवघरांत गेली आनी देवामुखार ताका उबें करून तांगेलो संवसार सुखाचो जांवचो हे खातीर  तिणे प्रार्थना केली.

थोड्या दिसांनी उशाचे आवय बापूय बुर्यागेर आयले आनी जनरितीक धरून तांणी सोयरिकेर्ची उलोवर्णी केर्ली. वसून घोवाक

पयलींच सांगून दवरलेलें, घालपाबिलपा संबंधान एकूय उतर काडूक नाकात म्हणून! बुर्यो जरी कांयच उलयलोना तरी यशवंतानूच म्हळें, "आमकां शक्य आसा तेबशेन आमी आमचे चलयेखातीर पयलींच करून दवरलां"! ताका मर्दींच आडावन वसून म्हळें "तुमी तें कांयच उलोंव नाकात! तुमची चली हीच मुळांत लक्ष्मी आसा! दुसरे लक्ष्मीची आनी आमकां कितें गरज आसा?"

वेवस्थीत उलोवणी जावन, पयर्ली साकरपुडो करचो आनी उशाची परिक्षा जातकच लग्न दवरचें, अशी दोगांय भितर थारावणी जाली, आनी अशेतरेन उदय उशाच्या लग्नाचो मार्ग मेकळो जावन, त्या दोगांकूय मिरामारचे परायेचेर हातांत हात घालून सूर्यास्ताची मजा पळोवपाक आनी आपल्या घराकडें परततल्या सवण्यांचो किलबिलाट आयकुपाक मेकळीक जाली.

मुबंयत येवन पियाक तीन म्हयने जावन गेल्ले. पुणून ज्या कामाखातीर तें सगळ्यांचीं मनां दुकोवन हट्टान आयिल्लें, त्या कामाची अजून कसलीच तयारी जांवक नाशिल्ली.

शामाच्या हातांत एक बरी कथा आशिल्ली. तिची पटकथाय करून जाल्ली. तांणें स्वता डायरेक्शन करपाचें थारायल्लें. कथेक न्याय दिवंक शकतली अशी देखणी हिरोईन तो घेवन आयिल्लो. हिरोकडेंय उलवणें जाल्लें. बाकीच्या संवंगांचीय येवजण जाल्ली. पुणून जें मुखेल काम आशिल्लें तें अजून जांवंक नाशिल्लें. फायनान्सर मेळूंक नाशिल्लो.

खुबशा सावकारांचे हुंबरे झरयकतच एक सावकार पैशे दिवपाक तयार जालो पुणून तांणें घाल्ली अट मानून घेवप शामाक कठीण जाल्लें.

सिनेमा हिट जातलो हाची ताका गॅरेंटी जाय आशिल्ली. जे हिरोईनीच्या नावांचेर सिनेमा चलता, ती हिरोईन त्या कामाक फावशी आसा काय ना, हाची ताका खात्री जाय आशिल्ली. पिया त्या कामाक योग्य अशी नटी आसा, हे ताका पटोवन दिवपाचो शामान खूप यत्न केलो. पियाच्या रूपाची तांणें तोखणाय करतकच ताची परिक्षा घेवपाचो तांणें हट्ट धरिल्लो. मध्यम वयाच्या सावकाराचो नटींची परिक्षा घेवपाचो हट्ट म्हळ्यार कितें हें शामाक खबर आशिल्ल्यान तागेली ती अट ताणें न्हयकारली. तांणें म्हळें, ''हांव ते चलयेचेर तशेतरेंचें वोजें घालूंक

शकचोना!''.

सावकारान म्हळें, ''तशेजाल्यार तूं दुसरो फायनान्सर सोद! म्हज्यान तुका पैशे दिवपाक जमचेंना!''

''बरें, हांव पळेतां तुमची अट मान्य करूंक जाता काय किदें तें!'' अशें म्हणून शाम घराकडें आयिल्लो. घडिल्ली सगळी गजाल तांणें रश्मीक सांगली. दोगांय येवजुपांत पडलीं. म्हऱ्यांतूच पिया बशिल्लें. तांणें सट्ट करून म्हळें, ''शामभाऊ, तुमी तागेली अट मानून कित्याक घेतलीना? परिक्षेंत पास जाल्यार तो फायनान्स करपाक तयार आसा मूं! जाल्यार दिन हांव परिक्षा! तातूंत व्हडलेशें कितें?''

पियालें अदन्यानपण पळोवन घोवाबायलेक हांसूंक आयलें. रश्मीन म्हळें, ''पिया तागेली परिक्षा तुज्यान दिंवक जांवचीना!''

''अशें कित्याक तर? तो विचारता त्या प्रश्नांक हांव फावशो जापो दितलें!'' पियान म्हळें.

''इतल्यान जायना तें!'' रश्मीन पियाक म्हळें , ''हे सिनेमाचे दुनियेंत दर एका उतराक वेगळो अर्थ आसता! तूं हांगा नवीन आसा! हे सिनेमा सृश्टीचो अणभव ना तुका!''

''पुणून आज आमकां पैशांची गरज आसा! पैशांबगर आमी फुडें पावल घालूंक शकचीनांत! म्हाका जाल्यार सामको कंटाळो आयला बसून रावपाचो!. भाऊ, तागेली अट तूं मान्य कर! हांव परिक्षा दिवपाक तयार आसां म्हणून सांग त्या सावकाराक!'' पियान शामाक म्हळें. बेकार बशिल्ल्यान तें सामके बेजार जावन गेल्लें. केन्ना काय सिनेमांत काम करतां आनी बॉलिवूड गाजोवन सोडटां अशें ताका जाल्लें. ते खातीर कसलेंय दिव्य करपाची ताची तयारी आशिल्ली.

''आमचेर तुजी जबाबदारी आसा. आमी तुका हांगां हाडलां! सगळ्या वाटांनी तुजी राखण करप हें आमचें कर्तव्य आसा! आमी तुका कितेंय करपाची परवानगी दिंवक शकनात! दोशाक आमी पात्र थारतलीं. कितेंय वयर सकल जालें जाल्यार आमी मावशेक कितें जाप दितलीं?''

रश्मीन ताका समजावपाचो यत्न केलो. पुणून पियाच्या हट्टी सबावाची तिका अजिबात कल्पना नाशिल्ली.

"आतां म्हजी सगळी जबाबदारी हांव म्हजेर घेतां! कितेंय वायट घडलें जाल्यार तुमचेर दोश येंवक दिवचेंना हांव! सांगात तुमी ताका हांव परिक्षा दिवपाक तयार आसां म्हणून!" पियान सामकें निर्धारान म्हळें. तागेल्या मूळ सबावान तकली वयर काडिल्ली. आतां तें आपूण म्हंण्टा तेंच खरें करतलें आशिल्लें. पावल घालतना ताका येवजूपाची गरज नाशिल्ली आनी परिणामाचीय पर्वा नाशिल्ली. सिनेमांत काम करून नांव जोडप हें ताचें ध्येय आशिल्लें, आनी तें ध्येय साध्य करपाक तें कसलीय आडखळ हुपपाक तयार आशिल्लें.

तागेलो हट्ट पळोवन घोवाबायलेचो निरुपाय जालो. आमी दुसरो सावकार सोदूंया म्हणून सांगल्यार तें जेन्ना आयकुपाक तयार ना जालें, तेन्ना तागेलें म्हणणें तांका मानून घेवचेंच पडलें. फुडलो धोको तांकां दोळ्यांमुखार दिसतालो. एके सादे गजालीन व्हडलीं कामां सादूंक येतात हें कळटकच तें तोच प्रयोग परतून परतून करीत म्हणपाचें तांकां भंय दिसतालें.

तें जेन्ना हट्टाकूच पेटलें तेन्ना 'जांव कितें जाता तें', अशें म्हणून शामान त्या सावकाराक फोन करून दीस, थळ, आनी वेळ थारायली. मागीर तांणें पियाक म्हळें, "फाल्या दिस्त पांच वरांचेर तुवें 'मंगला' हॉटेलांत पावूंक जाय! आमगेलो ड्रायवर तुका थंय पावयतलो आनी तुगेलें काम सोंपतकच घेवन येतलो. फाल्यां बऱ्यांतलो बरो ड्रेस घाल आनी थंय वचचे पयलीं ब्युटीपार्लरांत वचून यो! देव तुका परिक्षेंत बरें यश दिंव! चल आता जेवपाक! जेव आनी बेगीन न्हिद! फाल्यां बरें फ्रेश उरतलें!" अशें म्हणून सगळीं डायनिंग रूमांत जेवपाक गेलीं.

जेवन जातकच पिया रोकडेंच आपले कुडींत गेलें आनी हातूणाचेर पातळ्ळें. तागेली मागणी शामान मान्य केल्यान तें खोशयेंत आशिल्लें. आपलो सिनेमा हिट जाला. सर्वश्रेश्ट नटी म्हणून आपणाक तसरीप

मेळ्ळ्या, सगळ्याक आपल्या नांवाचो जयजयकार चल्ला, अशेतरेंची सपना रंगयता रंगयता तें न्हिंदेचे कुशींत गेलें, आनी रातीकडेन ताका दोन फावटी तशेचतरेची सपनां पडलीं.

दुसऱ्या दिसा तें ब्युटीपार्लरांत वचून आयलें. बऱ्यांतलो बरो ड्रेस तांणें आंगार चडयलो. तो चडयतना ताचे तकलेंत मिटींगेचे विचार घोळटाले. शाम आनी रश्मी परिक्षेसंबंदान जें कितें गूढ उलयल्लीं तें न कळपाइतलें तें बुद्दू नाशिल्लें. त्या उलवण्याचो ताका सारको बरो अर्थ कळिल्लो. पुणून आपणाक कांय कळूंक ना अशें तांणें तांकां भासयल्लें. ताचें एकूच लक्ष आशिल्लें. सिनेमाचे शुटींग चालू करपाखातीर फायनान्स मेळोवप. तें मेळोवपाखातीर कितेंय करपाची आतां ताची तयारी आशिल्ली. शिलाची ताका पर्वा नाशिल्ली. तें तांणें पयलीच ओगडायल्लें. पर्सींत एक कंडोमचें पाकीट उडोवपाक तें विसल्लेंना. ब्युटिपार्लरांतसून येतना तांणें तें विकतें घेतिल्लें.

दिस्त पांच वरांचेर तें मंगला हॉटेलांत पावलें. कुडिचो नंबर सांगतकच थंयच्या नोकरान ताका कुडीच्या दाराम्हऱ्यांत पावयलें आनी तो गेलो. कांय सेकंद तें थंय उबें रावलें आनी हड्ड्यांतली धडधड उणी जातकच दार उगडून भितर गेलें.

सोफाचेर लवंडलेल्या तीस पस्तीस वर्सा वयाच्या एका सुंदर तरनाट्यान 'यो!' अशें म्हणून ताका येवकार दिलो. पियाचें देखणेपण पळोवन तो सामको थक्क जालो. येवपाचें आशिल्लें तें चली इतलें सुंदर आसत हाची तांणें कल्पना करूंक नाशिल्ली. तो सोफावयल्यान बेगिबेगीन उठलो आनी पियाचो हात हातांत घेवन तांणें ल्हवूच म्हळें, ''आय एम व्हेरी व्हेरी ग्लॅड टू मीट यू!''

पियान थँक यू, म्हंण्टकच ताका घेवन तो परतून सोफाम्हऱ्यांत आयलो आनी तांणें ताका सोफाचेर आपले म्हऱ्यांत बसयलें. तो पियाकडे बारीकसाणीन पळोवपाक लागलो. ''हें चली सुंदर तर आसाच. ते भायर तें हुशार आनी धाड़सीय आसा! हाका फुसलावपाक मातशें

कठीण वतलेंशें दिसता!'' तांणें मनांत म्हळें, आनी पियाकडे पळोवन तों हांसलो.

हांसताना ताच्या पोल्याक पडिल्ली खळी पियाचे नदरेंतल्यान सुटलीना.

वेवस्थीत पोशाक केल्लो तो तरनाटो देखणो आसा हें पळोवन पियाक खूब बरें दिसलें. फायनान्सर म्हळ्यार तांणें एका वेगळ्याच मनशाची कल्पना केल्ली. तो वाडिल्ल्या वयाचो आनी वाडिल्ल्या पोटाचो मनीस आसतलो अशें ताका दिशिल्लें. पुणून, आपले कल्पने पेल्यानच्या, अपटुडेट पोशाक केल्ल्या आनी आकर्शक व्यक्तिमत्व आशिल्ल्या मध्यम वयाच्या त्या तरनाट्याक पळोवन ताका अजापूच न्हय जाल्यार खोशीय जाली.

''म्हजें नांव पिया! तुमी म्हजी परिक्षा घेंवक सोदतात अशें शामभाऊ म्हंण्टालो. कशेतरेन घेतले तुमी म्हजी परिक्षा?'' पियान निर्भिडपणान विचाल्लें.

''तुजी कितें कल्पना आसा?'' शेट मंगलदासान हांसत विचाल्लें.

''म्हाका कांयच कल्पना ना! म्हाका इतलेंच खबर आसा कीं, घेतिल्ले परिक्षेंत हांव पास जालें जाल्यार तुमी आमच्या सिनेमाक फायनान्स करतले!'' पियान म्हळें.

''आमची परिक्षा म्हळ्यार तशी कठीण नासता. ती सामकी रूटीन पद्दत आसा! तुमकां वचपाची ताकीत ना मूं?'' मंगलदासान पियाकडें पळोवन हांसून विचाल्लें. पियान ''ना'', म्हळें तशी तांणें थंयची एक बेल दामली. वेटर येतकच ताका तांणें दोन कोल्ड्रिंक्स हाडपाक सांगलें.

तो पियाच्या रूपाची तोखणाय करपाक लागलो. खंयच्याय चलयेक वा बायलेक खोशी करतलो जाल्यार पयलीं तांच्या रूपाची तोखणाय करूंक जाय हो कामशास्त्रांतलो धडो ताका पाठ आशिल्लो.

''तुजेसारखी सुंदर हिरोईन आसल्यार खंयचोय सिनेमा हिट जांवकूच जाय!'' तांणें म्हळें.

"खऱ्यांनीच इतलें सुंदर आसा हांव? म्हाका दिसना!" पियान हांसून म्हळें.

"विश्वामित्राची तपश्चर्या भंग करपी मेनका तुजेपरस सुंदर आशिल्ली अशें म्हाका दिसना!" अशें म्हणून तो पियाकडे पळोवन हांसलो. हांसतना ताच्या पोल्याक खळी पडली. फ्रेंकाच्याय पोल्याक अशीच खळी पडटाली, आनी ते खळयेंत तें बोट घालतालें. ताका अचकित याद जाली, आनी मंगलदासाच्या पोल्याचे खळयेंत बोट घालचें अशें खिणभर दिसलें. त्या विचारान ताची ताकाच लज दिसली, आनी ताणें आपली नदर दुसरेकडेन घुंवडायली.

वेटर कोल्ड्रिंकाचे दोन ग्लास घेवन आयलो आनी थंयच्या टिपॉयचेर दवरून थंयसून गेलो. मंगलदासान एक ग्लास पियाच्या हातांत दिलो आनी, 'प्लिज ट्राय 'अशें म्हळें.

पियान 'थँक्यू', म्हळें आनी ग्लास तोंडाक लायलो. कोल्ड्रिंकाचे दोन घोट घेतकच पियान ताका विचाल्लें, "तुमी आमकां फायनान्स करतलें मूं?"

"तुजेसारके अप्सरेन सांगल्यार कित्याक करचोना?" तांणें दोळे मिचकायत म्हळें.

कोल्ड्रिंकांत सदचे संवयेन उत्तेजीत जावपाचें वखद घालपाक वेटर विसरूंक नाशिल्लो. त्या वखदान आपलें काम चोख केल्लें. दोगांच्योय चित्तवृत्ती फुलून आयिल्ल्यो. तीं उत्तेजीत जाल्यांत हें तांचे नदरेंतल्यान कळटालें. मंगलदासाचे नदरेंतली वासनेची भूक वळखपाक पियाक वेळ लागलोना.

मंगलदासान ताका आपले म्हऱ्यांत ओडतकच तें ताचेर लवंडलें आनी आपले तोंड ताच्या तोंडाम्हऱ्यांत व्हेलें. मंगलदासान ताच्या ओठांचे परतून परतून किस घेतले. मागीर तांणें ताका भुरग्याक उबारचें तशे उबाल्लें आनी भितल्ले कुडींत घेवन गेलो.

अणभवान मनीस शाणो जाता अशें म्हणतात, पुणून पियासारकीं

मनशां मात केन्नाच शाणी जायनात. तीं त्योच चुको परतून परतून करतात, आनी आपले जिणेची वाट लावन घेतात!

फाटल्या वर्सा ताचे जिणेंत ज्यो वायट घडणुको घडिल्ल्यो, त्या घडणुकांतल्यान तें कांयच शाणेपण शिकूंक नाशिल्लें. तागेल्या मूळच्या सबावांत कांयच बदल जांवक नाशिल्लो. तीच कामूक वृत्ती, तेंच हट्टीपण, तेंच अहंपण! ते सगळे वायट गूण पयलींभशेनूच ताचे जिणेंक वेंग मारून बशिल्ले. त्या तसल्या गुणांक लागून ताची मती भश्ट जाल्ली.सबाव विकृत जाल्लो. तसलेच अवस्तेंत तें वाडिल्लें पोट घेवन घराभायर गेल्लें, आनी आजूय तें पयलींच्याच मार्गावयल्यान चलपाक लागिल्लें.

थोड्या वेळान तृप्त मनान तीं कुडीभायर आयलीं. पियाक दाराभायर सोडटना मंगलदासान आपले नांव आनी फोन नंबर आशिल्लें कार्ड ताच्या हातांत दिलें आनी म्हळें, ''तुका केन्नाय कसली गरज पडली जाल्यार म्हाका फोन कर! शाम काडटलो त्या सिनेमांत तू काम करतलेंच. पुणून हाचेफुडें तुका सिनेमांनी कामां मेळपाक हांव मदत करतलों.''

अलिबाबाची गूहा मेळिल्ल्याचे खोशयेंत पिया शामाल्या फ्लॅटाचेर आयलें. त्या वेळावयलो ताचो नेट पळेल्यार कोणाकूय अशें दिसतलें आशिल्लें कीं, तें एका व्हडल्या झुजांत जैत मेळोवन आयलां.

शाम आनी रश्मी ताची वाट पळेत बशिल्लीं. पियाच्या चेऱ्यावयली खोशी पळोवन तांकां अजाप दिसलें, तांकां दिशिल्लें, ''मनाविरूध्द काम करचें पडिल्ल्यान ताचो चेरो त्रासिक जाल्लो आसतलो.''

''जालें काम? परिक्षा पास जालें?'' रश्मीन चिंतेस्त सुरांत विचाल्लें.

''शंभर टक्के मार्क घेवन पास जालां. फाल्यां सकाळीं त्या सावकारागेर वच आनी पयलो हप्तो घेवन यो शामभाऊ!'' पियान खोशयेन म्हळें.

पियान बरें काम केलें म्हणून शामान आनी रश्मीन ताचे उपकार मानलें. पुणून त्याच वांगडा तागेलो अतिउत्साह पळोवन मनाच्या एका कोनशाक खंत भोगलेबगर रावलीना. थंय किते घडलां आसतलें हाची

तीं कल्पना करूंक शकतालीं. बऱ्या चरित्राचे चलयेक तसलें काम करतना मनाचेर चेपण आयलेबगर रावचेंना हें तांका खबर आशिल्लें. पुणून पियाच्या चेऱ्याचेर तशेतरेचे कांयच चिन्न दिसनाशिल्लें, आनी तेच गजालीचें तांका भंय दिशिल्लें. ''हें चली त्या सावकाराच्या नादाक लागून आपले जिणेची वाट लावन घेवचेंनां मूं?'' अशेतरेचे चिंतेन तांच्या मनात घर केल्लें. पियाचें फाटलें चरित्र तांका खबर नाशिल्लें, मास्तरान वा देवकीन तांका तें सांगूंक नाशिल्लें. म्हणुनूच तीं पियाचे जिणेची इतली चिंता करतालीं.

दुसऱ्या दिसा मंगलदासाल्या आफिसांत वचून शामान पैशांचो एक हप्तो हाडलो. दुसरो हप्तो व्हरपाक पियाक धाड अशें तांणें सांगलें, तेंवूय तांणें मोन्यांनी आयकलें. एक खिणभर ताका आपलें अपराधीपण जाणवले बगर रावलेंना.

सिनेमाचें शुटिंग नेटान सुरू जालें, आनी आठ म्हयन्याभितर सिनेमा तयार जालो. शामान आनी रश्मीन ताची बरेतरेन जायरात केल्ली. पत्रकारांखातीर तांणें स्पेशल शो दवरलो. सगळ्या पत्रकारांनीं सिनेमा बरो आसा म्हणपाची पावती दिली. आपापल्या पेपरांतल्यान ताका भरपूर प्रसिध्दी दिली.

एकाच वेळार तो सिनेमा आठ थेटरांनीं लागलो आनी धा बारा सप्तकां बरो चल्लो.

तमन्नाचें हिरोईनचें काम लोकांक चड आवडलें. एकाच सिनेमान ती नावाजती नटी जाली. रश्मीन पियाचें नांव सिनेमाखातीर तमन्ना दवरलेलें.

पयल्याच सिनेमांत व्हड नामनां मेळिल्ल्यान पियाच्या दारांत निर्मात्यांची रांग लागली. मंगलदासाच्या वळखीन ताका आनीक एका सिनेमांत हिरोईनचें काम मेळ्ळें. तोवूय सिनेमा बरो चल्लो.

त्याच वेळार रश्मीन आनी शामान ताका सबुरिचो सल्लो दिल्लो. ताकतीक करून मेळत त्या सिनेमांतली कामा घेंवक नाका अशें सांगिल्लें.

पुणून आतां ताका तांचे मत आयकुपाची गरज नाशिल्लीं. तें आता व्हडली नटी जाल्लें. थोड्या लोकांचे तकलेंत यश रोखडेंच चडटा. पियाचेंय तशेंच जालें. आपूण एक फांकीवंत नटी आसा हाचो ताका साक्षात्कार जालो. शाम आनी रश्मीचे बंधन आतां ताका नाकाशें दिसूंक लागलें. मंगलदास ताचो चड लागींचो सल्लागार जाल्लो. ताचे मदतीन तांणें एक वेगळो फ्लॅट भाड्यान घेतलो आनी थंय ते एकटेंच रावूंक लागलें.

मंगलदासाची आनी ताची इश्टगत वाडिल्ली. ताचे वळखीन ताका आनिकूय थोड्या सिनेमानी कामां मेळिल्लीं. हातांत सूमाराभायर पैसो खेळपाक लागिल्लो. त्या पैशांच्या नेटार जीं सुखां आजमेरेन फकत ताचे कल्पनेंत आशिल्लीं तीं तें प्रत्यक्षांत हाडपाक लागलें.

मंगलदासावांगडा तें बऱ्याबऱ्या क्लबांनीं वचूंक लागिल्लें. नाटक सिनेमाकूय ती वांगडाच वतालीं. केन्ना केन्नाय मंगलदास रातचो तागेल्या फ्लॅटाचेर राबित्याक आसतालो.

सिनेमांत ताका यश मेळिल्लें आनी त्या यशावांगडा सिनेमाच्या मळावयल्यो खुपशो वायट गजालीय तांणें आपणायल्ल्यो.

क्लबांत गेल्लेकडेन नव्या नव्या नटांकडें, डायरेक्टरांकडें, प्रोड्युसरांकडेन ताच्यो वळखी जाताल्यो. थोड्यो वळखी चड वाडटाल्यो. मदी मदीं तें फॅशन शोनी भाग घेतालें, रॅम्पार नाचतालें.

एक दीस मंगलदासान ताका एका नव्या क्लबाची वळख करून दिली. थंय कितलिंशींच जोडपीं वाजपाच्या तालार नाचतालीं. मेंबर आशिल्ल्यांकूच थंय प्रवेश मेळटालो. मेंबरांक जोडप्यान येवचें पडटालें. जोडपें घोव बायलूच आसूंक जाय अशी अट नाशिल्ली.

तरेतरेचें ड्रींक थंय सर्व जातालें. सोऱ्याच्या नेटान आनी वाजपाच्या ठेक्यान नाचणाऱ्यांक कैफ चडटालो. मदीं मदीं तीं जोडपीं आपलो भिडू बदलतालीं.

मंगलदासान थोडी विस्की आनी पियान थोडी जीन घेतली. दोगांय तल्लीन जावन नाचूंक लागलीं. ड्रिंक परतून एकदां रिपीट जालें, आनी

पियाचें विमान वयर उडूंक लागलें. मंगलदासान कळाशेन आपलो भिडू बदललो आनी दुसऱ्याच एका देखण्या तरनाट्यान पियाची साथ धल्ली.

अचकीत वाजप थांबलें. फूल लायटी पालवल्यो. उडवाड मंद जालो, आनी सगळीं जोडपीं सोबतीक आसा त्या भिडवासयत थंयच्या वेगळ्या वेगळ्यां कुडींनी गेलीं.

जीन तीन चार फावटी रिपीट जाल्ल्यान पियाचें भान शेणिल्लें. आपणाक एका धश्टपुश्ट आनी देखण्या तरनाट्यान घट्ट वेंगेंत घेतलां आनी ताच्या वांगडा आपूण एक वेंगळेंच सूख अणभवतां इतलेंच ताका जाणवतालें. अशेतरेन तांणें आपणाखातीर एक वेगळें जग निर्माण केल्लें आनी त्या जगांत ते पुराय बुडून गेल्लें. आपूण सगळ्या बंदनातल्यान मेकळें जालां अशें ताका दिसतालें.

सिनेमांत वचूं नाका अशें सगळ्यांनी सांगुनूय .हट्टान सिनेमांत गेलें. हेखातीर रागार जावन ब्रुर्यान पियाची वासपूस सोडिल्ली. घरच्यान ताका कोणाचोच फोन येनाशिल्लो. उशा मात दर पंदरा दिसांनी ताका फोन करतालें, आनी ताचेकडल्यान खुशाली कळटकीच रोकडेंच फोन करून ती वसूक कळयतालें. धुवेलें मुंबय बरें चल्लां, तांणें बरें नाव मेळयलां अशें उशाकडल्यान कळटकच तिच्या जिवाक मातशी थाकाय मेळटाली.

उशाकडल्यान आपल्या घरची खबर कळली म्हण्टकच पियाकूय बरें दिसतालें. तांणें घराचो संबंद तोडिल्लो खरो पुणून माया खंय तुटिल्ली? ती मनाच्या एका कोनशाक घट्ट दसून उरिल्ली. केन्ना केन्नाय ताका आवय आपणाक जेवयता, पद म्हणून न्हिदयता, अशेतरेचीं सपनां पडटालीं. मागीर तें आवयची याद काडीत उशांत तोंड मुंगरून मुसमुसून रडटालें.

"हांव हांगा बरें आसा, म्हजी चिंता करूं नाका", अशें जरी पिया फोनाचेर सांगतालें तरी उशाक मात ताची सदांच चिंता लागताली.

ताचो सबाव खबर आशिल्ल्यान तें खरें उलयता काय फटी मारता, हाचो ताका दुबाव येतालो. तांणें तशें म्हंण्टकच पिया आपलें खऱ्यांनीच बरें चल्लां, दोन तीन सिनेमांनीं आपलें शुटींग चालू आसा अशें सांगून ताका पटोवन दिवपाचो यत्न करतालें. उशाचें समादान जाय म्हणसर तें ताचेकडें उलयत रावतालें.

एक दीस उशाचो ताका फोन आयलो, आनी तांणें दिल्ली खबर आयकून ताचे खोशयेक पारावार उल्लोना. उशान ताका सांगिल्लें, "पिया तुका एक खोशयेची गजाल सांगता. हांव रोकडेंच तुजी वयनी जावपाचें आसां, समजलें?"

पियान मनासावन खोशी परगटावन ताका म्हळें, "उशू, पयलीं तूं म्हजी इश्टिणूच आशिल्लें, आतां तूं म्हजी वयनी जातलें हें आयकून म्हाका खूप खूप खोशी भोगता! ही गजाल सांगतना तूं जर हांगा आशिल्लें जाल्यार हांव तुका माथ्यार घेवन नाचतलें आशिल्लें. कोंग्रेच्युलेशन माय डियर उशू!"

"तूं पयली हांगा यो, आनी मागीर जाय तितलें नाचय म्हाका! तुवें लग्नाक येंवकूच जाय आं, ना जाल्यार हांव तुका ओगी रावचेंना! तुगेलें शुटींग चार दीस फुडें धुकळ आनी योच! मम्मीय तुका फोन करतली. हांवें तुजो फोन नंबर दिला तिका! वोवळीकपत्र दोन दिसांनी पावतलें तुका! ताचेर लग्नाची तारीक आनी वेळ बरयल्ली आसतलीच! तूं लग्नाच्या दोन दीस पयलींच यो! समजलें?" अशी धमकावणी दिवन उशान फोन सकयल दवरलेलो.

दोन दिसांनी लग्नाची वोवळीकपत्रिका पावली आनी तेच रातीकडेन वसूचो फोनूय आयलो. आपली आवय फोनाचेर उलयतना रडटा हें पियाक जाणवतालें. "मम्मी तूं रडूं नाका गे, हांव लग्नाक येतलेंच!" अशें म्हणून पिया तिका समजावपाचो यत्न करतालें, पुणून तिगेलें रडप थांबनाशिल्लें. आपूण लग्नाक येतलें अशें सांगुनूय तिका तें खरें दिसना जालें. जेन्ना पियान तिचो सोपूत घेवन लग्नाक येतलेंच अशें सांगलें

तेन्नाच तिगेलें रडप थांबिल्लें. "तुजी हांव वाट पळेतां गो बाय! दोन दीस पयलींच यो!" अशें म्हणून तिणे जेन्ना फोन दवरलेलो तेन्ना आपूण येतलेंच हाची खात्री जाल्ल्यान तिच्या चेऱ्यार खोशी केळटा हें कल्पनेनूच तें सुखावलेलें.

लग्नाक वचचें काय ना वचचें असो डळमळीत आशिल्लो बेत आवयचो फोन येतकच पियान पक्को केलो. तेखातीर तांणें डायरेक्टराकडें चार दिसांची सुटी मागून घेतली. आपूण लग्नाच्या पयल्या दिसा पावतां असो उशाक आनी आवयक फोन करून सांगलें आनी दुसऱ्या दिसा सकाळफुडें मंगलदासाक वांगडा घेवन तें लग्नाचे खरेदीक भायर सर्ल्लें.

लग्न लार्गी पाविल्ल्यान बुर्याल्या आनी यशवंत सडेकराल्या घरांनीं गडबड चालू जाल्ली. घराच्या वण्टींक नवो रंग लावपाचें आनी घरावयल्यान लायटिच्यो माळो सोडपाचें काम नेटान चालू जाल्लें.

लग्नांत लागता तितलेंय सामान घरांत चार दीस पयलींच येवन पडिल्लें. श्रीकांत बुर्यो आनी यशवंत सडेकार दोगूय गिरेस्त मनीस. बुर्यो गिरेस्तकाय दाखयतालो आनी सडेकार दाखयनाशिल्लो इतलोच तांच्यांत फरक आशिल्लो. पुणून आतांच्या लग्नांत मात ते दोगूय आपले उणेंपण दाखोवपाक तयार नाशिल्ले. ते खातीर तांणीं एकमेकांक दिवपाच्यो भेटवस्तू बऱ्यांतल्यो बऱ्यो हाडिल्ल्यो. उशाच्या आंगार घालपाच्यो भांगराच्यो वस्ती सडेकारान पयलींच करून दवरिल्यो. बुर्यानूय ताचेखातीर हिऱ्याचो हार विकतो घेतिल्लो. व्हंकलेक शालू आनी साडयो दोगानींय मुंबयसून हाडिल्ल्यो. सडेकारान ताळगांवचो गाश्पारदीयश हॉल पयलींच बूक करून दवरलेलो.

परिक्षा सोपचेसोंपून उशा लग्नाचे तयारेक लागिल्लें. त्या लग्नांत सगळ्यांत चड धावांधांव ताचीच जाल्ली. ताका दोनूय घरची वेवस्ता पळोवची पडटाली. दोनूय घरांनी काम करपी खुबशीं मनशां आशिल्लीं, पुणून तांचेकडेन उशा इतली बारिकसाण नाशिल्ली. लग्नाच्या चार दीस पयलीं लेगींत ताच्यो बांदा-मेरशे फावटी चालूच आशिल्ल्यो. आपल्या

घरचें तर जालेंच, पुणून बुर्याल्या घरचें खंयचेंच उणेपण लोकांनीं काडचें न्हय म्हणून तें जतनाय घेतालें.

तागेली ती धांवपळ पळोवन एकदीस उशाचे आवयन ताका फकणांनी थोमणो माल्लो. "उशू, तुका हांगाच्या परस मेरशेकडलीच काळजी चड आसा अशें दिसता मुगो, तुगेल्या मेरशेच्यो फावटी पळेत जाल्यार"! आवयलीं फकणांचीं खरीं, पुणून तीं उतरां आयकून उशाच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. ते आवयम्हऱ्यांत धावलें आनी तिचे कुशींत तोंड लिपोवन मुसमुसून रडूंक लागलें.

"शी, शी, हें कसलें पिशेपण गो उशा? हांवें तुका फकणांनी म्हणिल्लें. तें तुका खरेंच दिसलें? पूस, दोळे पूस म्हज्या शाण्या! तूं तांचेखातीर जें करता, तें पळोवन अभिमानूच दिसता आमकां तुजो! हे कालूच म्हण्टाले म्हाका, बुर्याचें भाग्य व्हड म्हणून चलये असली सून मेळ्ळी ताका!"

आवयच्या पदरान दोळे पुसून उशान म्हळें, "मां, पिया वचतसावन म्हजी मांय सामकीच दुबळी जाल्या गे! कितेंय करचेपयलीं ती येवजीत रावता. मांवूय जाल्यार आतां पयलीचो ना! ताचीय हुशारी खंयचेखंय नाच्च जाल्या! एकटो उदय खंय म्हणून पावतलो? ताचेकडल्यान खंयचीय चूक घडली जाल्यार ती आमकांच लज न्हय? उर्णी दुर्णी काडटना लोक परिस्थिती पळोवचेनात!"

"हय, खरें आसा तुजें! असोच अभिमान बाळगीय घोवाल्या घरचो! देव तुजें कल्याण करतलो! चल, भितर खूब कामां पडिल्लीं आसात मातशी मदत कर म्हाका!" अशें म्हणून ती ताका घेवन भितर गेली! कामां थोडींच आशिल्लीं. पुणून ताचो मूड सारको जावचो म्हणून तिणें तशें म्हणिल्लें.

बुर्याल्या घराफुडले बागेंतलीं सगळीं फुलझाडां मांय सुनेच्या हातचें उदक पियेवन, धादोस जाल्लीं. तीं रंगरंगयाळ्या फुलांनी गच्च भरिल्लीं. ताका लागून बंगल्याची सोबाय वाडिल्ली. गलेरीवयल्या झोपाळ्याच्यो

पितुळच्यो सरपळ्यो उशान घासून पुसून निवळ केल्ल्यान त्यो भांगराक फांटीं काडटाल्यो.

"यशवंतान आपले चलयेक अशेतरेन घडोवपाक कितें केलें आसतलें काय? तिचेर तांणें कसले संस्कार केले आसतले? कसलें शिक्षण दिलां आसतलें तिका?" बुर्यान उलयतां उलयतां वसूकडे उद्गार काडले. ताचे नदरेमुखार तुळा करपाखातीर आपले चलयेची मूर्त उबी आशिल्ली.

"आसूं तें! ताचेर आनी आतां तुमी कांयच येवजूं नाकात! उशाय जाल्यार आतां आमची धुवूच जाल्या. ताचेकडेन तेच नदरेन पळोवपाचो आमी यत्न करूंया! धुवेखातीरच्यो सगळ्यो कौतुकाच्यो गजाली आमी आतां उशांखातीर करपाच्यो!" घोवाचो हात हातांत घेवन तो सांसपीत वसून म्हळें.

"देवकाऱ्या दिसा करवली जाय पडचीना?"

"जाय तर! करवले बगर लग्न सोबता?

"मागीर?"

"मागीर कितें? येतली करवली!"

"खात्रीन? ऐन वेळार दुसरे खंयचेय चलयेक करवली म्हणून उबी करची पडची ना मूं?"

"ना ना! खात्रीन येतलें तें! सोपूत घेवन सांगलां तांणें म्हाका, देवकाऱ्या दिसा पावतांच म्हणून! उशानूय ताका उपदेश करून सांगलां, बुर्याल्या घरची लज ताच्या हातांत आसा म्हणून!"

"तशें जाल्यार चिंता करपाची गरज ना न्हय?"

"अजिबात ना! तुमी मातूय चिंता करूं नाकात!"

दोगांनीय एकमेकांकडें उलोवन आपल्या मनाचें समादान करून घेतलें. तीं गजाली करतात इतले म्हणसर एक मोटार तांच्या दारांत थांबली. वसूक दिसलें, पियाच आयलें काय म्हणून! पुणून ते गाडयेंतल्यान सकल देंवलें उशा! हातांत एक हेंडबेग घेवन तें भितर

आयलें. मांवाच्या पायाक हात लावन नमस्कार केलो आनी मांयक घेवन तें तिगेले कुडींन गेलें. बॅग उगडून ताणें कांकणाचे कितलेशेच जोड भायर काडले आनी तातुंतलो एक सुंदरसो जोड मांयच्या हातांत चडयलो. वसूचें आपल्या हातांतल्या कांकणांकडें लेगीत लक्ष ना, हें ताका खबर आशिल्लें. मागीर तांणें बॅगेंतल्यान एक गुलाबी पामरी आनी हळदुवो शेलो काडलो.

पामरी तांणें मांयचे फाटीर घाली आनी शेलो तिच्या हातांत दिलो. मागीर तांणें तिचें तोंड आपल्या तोंडामुखार धल्लें आनी तिच्या माथ्यार आपलें माथें तेंकयलें. दोगांच्याय दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. वसून उशाक आपल्या हड्ड्याकडें धल्लें आनी भरिल्ल्या गळ्यान म्हळें, ‘‘आमच्या खातीर कितलें करशी गो पोरा?’’

उशान तिगेल्या पदरान तिचे आनी आपले दोळे पुसले. मागीर ताणें मांवाखातीर हाडिल्लें खांदार उडोवपाचें उपवस्त्र काडून आलमारींत दवल्लें. कालचे खेपे आयिल्लें तेन्ना तांणें आलमारी उस्तिल्ल्यो. कपड्यांभितर त्यो तिनूय वस्तू ना हें पळोवन बाजारांत वचून तांणें त्यो विकत्यो घेतिल्ल्यो. पामरी आनी शेल्याबगर येजमान्नीक सोबा ना, हें तें जाणा आशिल्लें.

‘‘आतां लग्ना दिसाच मेळूंया गे मम्मी! कितेंय अडचण आयल्यार म्हाका फोन कर!’’ अशें वसूक सांगून आनी मांवाचो निरोप घेवन तें बांद्या वचपाक गेलें.

सडेकारागेर देवकाऱ्या दिसाची तयारी चालू आशिल्ली. अभय आनी तागेले इश्ट सकाळफुडेंच दारांक तोरणां लायताले. न्हावपाक मातसो कळाव आशिल्ल्यान उशा आपल्या इश्टिणी वांगडा बल्कांवाचेर बसून

गजाली करतालें. इतल्यांत दारांत एक ऑडी गाडी थांबली, आनी दोन मनशां सकयल देंवलीं.

पिया दिसनाफुडें उशा धांवलें आनी तांणें ताका घट्ट वेंग माल्ली. दोगांलींय मुखामळां खोशयेन फुलून आयिल्लीं.

आपल्या वांगडा आयिल्ल्या मंगलदासाची पियान वळख करून दिली, ''हे आमच्या सिनेमाचे फायनान्सर! हांचें नांव मंगलदास!'' मागीर ताणे मंगलदासाकडें उशाची वळख करून दिली.

उशान मंगलदासाक येवकार दिलो आनी त्या दोगांकूय घेवन तें घरांत आयलें. मागीर तांणें मंगलदासाची आपल्या बापायकडे वळख करून दिली. पियाक घराकडें पावपाची ताकीत आशिल्ल्यान फक्त च्याच पियेवन तें भायर सल्लें.

''येतना नवे आईक आनी बाबाक मेळून आयलें'' तांणें उशाक म्हळें. ''हें काम मात तुवें बरें केलें. तूं दिसतकच तांकां खूपच बरें दिसलां आसतलें न्हय?'' उशान विचाल्लें.

''हय! हांव थंय आयिल्लें पळोवन तांकां खूब खोस भोगली. हांवें तांका म्हजे वांगडा हांगा येवपाक सांगिल्लें, पुणून तीं म्हणूंक लागलीं आमी लग्नादिसा भायलेभायर हॉलांतूच येतात! बरें गो, फाल्यां मेळूयां लग्नाच्या हॉलांत! धा म्हणसून पावूंक जाय म्हाका घराकडें! न्हवऱ्याक न्हाणोवपाचो आसा! सगळी वाट पळेतली म्हजी!'' अशें हांसत हांसत म्हणून तें मेरशेचे वाटेक लागलें.

न्हवऱ्याक न्हाणोवपाची वेळ जाली. करवली खंय आसा? सोयऱ्यांच्या बायलांमदले एकलेन विचाल्लें. वसून जाप केलीना. ती रस्त्याचेर नदर दवरून उबी आशिल्ली. पिया येतलेंच हाची तिका खात्री आशिल्ली.

ऑडी गाडयेंतल्यान पिया देंवलें, तसो करवली आयली करवली आयली, असो एकूच बोवाळ जालो.

भायरूच सोमनाथ मामा उबो आशिल्लो. ताचेकडेन मंगलदासाची

वळख करून दिली, आनी आवयच्या हाताक धरून तें तिका घेवन भितर गेलें. वाटेंत बापूय दिसलो. ताच्या पायांक हात लावन ताणें नमस्कार केलो. बुर्यानूय आशिर्वादाखातीर हात वयर उबाल्लो. तोंडान मात कांयच उलयलोना.

पियान आवयक भितर व्हरून खाटीर बसयली, आनी तिच्या मांडयेर माथें तेंकोवन तें लांबचेलांब पहुडलें. मागीर तिचो हात ताणें आपल्या माथ्यावयल्यान, तोंडावयल्यान भोंवडायलो आनी भरिल्ल्या गळ्यान ताणें 'मम्मी' म्हणून उलो माल्लो. ताच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं. तीं तशींच दवरून ताणें आवयच्या दोळ्यांक लागिल्ली धार लेसांन पुसली. वसून 'बाय गो' म्हणपाचो यत्न केलो, पुणून तिच्या तोंडातल्यान उतर भायर फुटलेंना. ती मोन्यांनी ताचें आंग सांसपीत रावली.

थोडोवेळ वतकच पियान विचाल्लें, "मम्मी हांवें तुका खूब त्रास दिलो न्हय? गुन्यांव भोगशी गे म्हाका! चूक जाली म्हजी!"

"पिशा, भुरग्यांनी केल्ल्यो चुको आवय केन्ना मतींत धरून बसता गो? चल उठ कपडे बदल, न्हवऱ्याक न्हाणोवपाची तयारी करूंया!" अशें म्हणून तीं कुडींतल्यान भायर वतलीं इतल्यांत उदयाची स्वारी थंय हजर जाली. एदोवेळ तो आनी मामा मंगलदासाकडें गजाली करताले. तांचे मर्दी जेन्ना ताचो बापूय येवन बसलो तेन्ना तो थंयसून हळूच सटकलेलो आनी आवय आनी भयण गजाली करतालीं थंय आयिल्लो.

दोन वर्सां उपरान्त ताची भयण ताका दिशिल्ली. ती दिसतकच ताच्या अंतस्करणांत चिड्डून उरिल्लो तिचे वयलो माया मोग उफेवन आयिल्लो. कितलेय कोडू प्रसंग उप्रासले जाल्यारूय तांच्या भितल्लें रगताचें नातें निजाचें तुटप कशें शक्य आशिल्लें? ती ताची सख्खी भयण आशिल्ली. धाकली. ताच्या उपरान्त स वर्सांनी ती जाल्ली. आवयचे मांडयेर बसून ताणें तिच्या पाळण्याची दोरी ओडिल्ली. आपले ल्हानशे मांडयेर घेवन ताणें तिका खेळयल्ली. तरतरांच्यो गजाली सांगून ताणें तिचें रडप

थांबयल्लें. आपणाक आवयन दिल्ल्या खावपांतलो इलोतरी कुडको तिच्या तोंडांत घालेबगर ताणें तें खांवक नाशिल्लें. तिच्या बोटांक धरून ताणें तिका शाळेंत पावयल्ली. तांगेली भाऊबीज म्हळ्यार एक व्हडलो सुवाळो आसतालो. बारावी पास जावन पिया फार्मसी कॉलेजीक वतकच तांच्या भितल्ल्या माया मोगाक सुकती लागिल्ली. फ्रेंकाची संगत सोड म्हणून ताणें सांगलां आसतनाय पियान ती सोडूंक नाशिल्ली आनी वयल्यान ताका जाणवायो सांगिल्ल्यो. थंयच तांच्या नात्याक वेर गेल्ली. उलवणें बंद जाल्लें. भाऊबीजेचो सुवाळो जांवक नाशिल्लो.

त्या वेळार तो हिन्दू धर्माचो एक राखणदार आशिल्लो आनी पियाय एक प्रेयसी आशिल्लें. मोगान पिशें जाल्लें एक चली. तांगेल्यो दोगांल्योय त्यो भुमिका आतां फाटीं पडिल्ल्यो. तो भूतकाळ जाल्लो. आतां तो आनी पिया फकत भाव भयण आशिल्लीं. आपले भयणीक मेळपाक भाव थंय धांवत आयिल्लो.

उदय आयिल्लो पळोवन पिया खोशी जालें. फाटलें सगळें विसरून तें ताचे म्हऱ्यांत धांवत गेलें, आनी 'भय्या', अशें म्हणून ताणें ताका घट्ट वेंग माल्ली. उदयान ताच्या केसांवयल्यान मायेन हात भोंवडायलो आनी ताचे फाटीर हळूच एक धुमको घालो. तांची ती ल्हानपणांतली सवंय आशिल्ली. फाटीचेर धुमको घालून तो आपली खोशी उक्तायतालो, आनी तेंवूय ताचे फाटीचेर ल्हवूच थापट मारून आपणांकूय खोशी जाल्यां हें जाणयतालें.

पियान बेगिबेगीन आपली पर्स उगडली आनी एक वस्त भायर काडली. मागीर ताणें भावाक दोळे धांपून हात फुडें करपाक सांगलें. उदयान हात फुडें केलो तशी ताणें ताच्या हाताक भांगराची ऑप आशिल्ली टायटन घड्याळ बांदली. ती घड्याळ खूब म्हारग आशिल्ली, आनी ज्या मोगाच्या उमाळ्यान भयणीन ती भावाच्या हाताक बांदिल्ली त्या उमाळ्याक लागून ते घड्याळीचें मोल आनीकूय कितलेशेच पटीनीं वाडिल्लें.

उदयान दोळे उगडून हातांतली घड्याळ पळेली आनी खोशी जावन भयणीचे फाटीचेर आनीक एक धुमको घालो आनी पियानूय ताचे फाटीचेर थापट माल्लें, आनी मागीर दोगांयजाणां व्हडल्या व्हडल्यांन हांसूंक लागलीं.

वसू आपल्या भिजिल्ल्या दोळ्यांनी तांची ती अप्रुपाची भेट पळेताली. ‘‘हांचो मोग असोच उल्ल्यार पुरो रे देवा!’’ अशें मनांत म्हणून तिणें देवाक हात जोडले. मागीर पियाक ताकीत करीत तिणें म्हळें, ‘‘आगो कपडे बदल! फुडले तयारेक लागूंया! कळाव नाका! सगळीं आमची वाट पळेतात आसतलीं!’’ पिया कपडे बदलपाक कुडींत वतकच, उदयाच्या हाताक धरून ताका घेवन ती न्हाणयेघरांत गेली.

थोड्या वेळान पिया कपडे बदलून थंय आयलें आनी ताच्यांत संचारलेले उमेदीक लागून, न्हवऱ्याक न्हाणोवपाच्या साद्या आत्ताचो ताणें एक व्हडलो सुवाळोच कसो केलो.

देवकाऱ्याचो दीस सगळ्यांकूच खूब खोशयेचो गेलो. पियाचे खोशयेक जाल्यार शीम उरूंक नाशिल्ली. खूब तेंपान तें आपल्या मनशांमदीं आयिल्लें. मामाल्या आनी सोयऱ्यांल्या चलयावांगडा मस्ती करतना तो दीस कसो सोंपलो हें लेगीत ताका कळ्ळेंना. एकमेकांचीं फकणां करतना मदीं मदीं तीं उदयाकूय आपल्या कळपांत ओडटालीं आनी उशावयल्यान ताचीं फकणां करतालीं. उदय मागीर लजेन आपले तोंड लिपयतालो आनी थंयच्यान पळून वतालो. मदींच कोणूय पियाक तागेल्या गाजिल्ल्या सिनेमाविशीं विचारतालें आनी मागीर पियाय व्हडले उमेदीन आपली व्हडवीक तांकां सांगतालें.

दुसऱ्या दिसा सकाळफुडेंच बुर्यागेर जमिल्ल्या सोयऱ्या धायऱ्यांची लग्नाच्या हॉलांत वचपाची तयारी सुरू जाली.

पियान आनी तागेल्या इश्टिणीनीं न्हवऱ्याक सजयलो. आंगांत धव्या रंगाची शेरवानी आनी माथ्याक रेडीमेड फेटो घालतकच उदय राजकुंवर कसो दिसूंक लागलो. ताका दिश्ट लागूं नये म्हणून आवयन बेगिबेगीन

ताच्या पोल्याक काजळाचें बोट लायलें.

पियान बरेतरेन मेकअप केल्ल्यान ते सिनेमांतली हिरोईन कशें दिसतालें. पांचव्या शालवांत ताची मुळची सुंदरताय चड खुलून दिसताली. हातांत करो धरून ऐटींत उबे रावतकच राजा रविवर्माल्या चित्रांतली ती एक स्वर्गसुंदरीच आसा असो भास जातालो. मंगलदासान बेगिबेगीन तागेल्या त्या पोजिसांवांतले पांच-स फोटो काडले.

गुलाबाच्या फुलांनी सजयल्ले एके पॉश गाडयेंतल्यान येजमान, येजमान्न, न्हवरो आनी करवली फुडें गेलीं, आनी फाटल्यान बाकीचीं मंडळीय आपापल्या गाडयांनी गेलीं.

गाशपारदीयश हॉल रोजांच्या फुलांनी आनी रंगीत बल्बांच्या माळांनी शिंगारलेलो. सव्याच्या फाटल्यान गुलाबाच्या फुलांच्यो आनी बल्बांच्यो माळो लांबयल्ल्यो. न्हवऱ्याक आनी व्हंकलेक बसपाक सव्याचेर दवरलेल्या दोनूय कदेर्लीचेर रूप्याचो पत्रो थळायल्ल्यान त्यो पयसुल्ल्यान लेगीत चकचकताल्यो. बिसमिल्लांचे शहनाईच्या सुरांनी हॉलांतलें वातावरण प्रसन्न जाल्लें.

न्हवरो हॉलाच्या दारांत पावतकच थंय उब्यो राविल्ल्या पांच सवायशीण बायलांनी आपल्या हातांतल्या पंचारतीनीं ताका उंवाळलो. ते संदीची वाट पळेत उबे आशिल्ल्या फोटोग्राफरांनी फटाफट फोटो मारपाक सुरवात केली. न्हवऱ्यापरस करवलेची छबी फोटोंत बरेतरेन येवची, असो तांचो यत्न आशिल्लो. करवली एक गाजिल्ली नटी आशिल्ल्यान ती न्हवऱ्यावांगडा आशिल्लो फोटो तांकां आपापल्या वर्तमानपत्राच्या फुडल्या पानांर छापपाचो आशिल्लो.

फोटो काडपाचें काम सोंपतकच यशवंत सडेकारान उदयाच्या बोटाक धरून ताका हॉलांत व्हेलो आनी सव्यावयले एक कदेलीचेर बसयलो.

म्हुर्ताची वेळ जाली तसो भटानीं अंतरपाट धल्लो. अंतरपाटाचे एकेवटेन न्हवरो उबो रावतकच, जांबळो शालू न्हेशिल्ले आनी आंगभर भांगराचे अळंकार घाल्ले व्हंकलेक तिगेले आवयन हाडून अंतरपाटाचे

दुसरेवटेन उबी केली.

मंगलाश्टकांच्या सुरेल आवाजांत आनी फोगोट्यांच्या कडकडाटांत माथ्यार अक्षता पडटकच, न्हवरो व्हकलेन एकमेकांच्या गळ्यांत फुलांचे सोबीतशे हार घाले आनी फुडले विधीखातीर जोडपें राजाराणी कदेलींचेर बसलें.

जांबळ्या शालवान आनी आंगावयल्या भांगरान उशाचें देखणेपण कितलेशेच पटीनी वाडिल्लें. सव्यावयल्या न्हवऱ्याव्हंकलेक पळोवन कोणाकूय लक्षूमी नारायणाचो भास जालो जाल्यार अजाप नाशिल्लें.

सव्यार बशिल्ले व्हंकलेच्या गळ्यांत पियान अस्सल हिऱ्यांचो हार घालो. आनी तिच्या कानांत तें कितेतरी उलयलें. त्या वेळार दोगांय इश्टिणीचीं मुखामळां खोशयेन फुलून आयिल्लीं. मागीर तांणें न्हवऱ्याच्या हातांत भांगराचें मास्कोत घालें आनी ताच्याय कानांत तें कितेंतरी पुटपुटलें. तें आयकून उदयान ताचे फाटीर फकणांनी एक थापट माल्लें. तें पळोवन सगळे लोक हांसूक लागले.

त्या लग्नांत पियान आपली हौस जाय तशी भागोवन घेतिल्ली. हॉलांत सगळेकडेन पियाच पिया दिसतालें. बायलांक फुलां वाट्टा थंय पिया, अत्तर लायता थंय पिया, साखर वाट्टा थंय पिया आनी आयिल्ल्या सोयऱ्यांची वासपूस करपाक पियाच फुडें आशिल्लें.

लग्नाचो सुवाळो दिश्ट लागपासारको जालो. आमंत्रीत मंडळी निरोप घेवन आपापल्या घराकडें वचूंक लागली.

मास्तरान आनी देवकीन सव्यार वचून न्हवरो व्हंकलेची भेट घेतली. तांच्या वांगडा फोटो काडून जातकच ती बुर्यो आनी वसुंधरा उबीं आशिल्लीं थंय तांचो निरोप घेवपाक आयलीं. वसून देवकीक घट्ट वेंग माल्ली. फाटले यादीन दोगांच्याय दोळ्यांत दुक आयलें. तें पुसून देवकी पिया म्हऱ्यांत आयली. पियानूय तिका घट्ट वेंग माल्ली आनी तें दुकां गळोंवक लागलें. देवकीन तीं आपल्या पदरान पुसलीं, आनी ताका मायेन सांसपिलें.

“आई, हांवें तुमकां खूब दूख दिलें न्हय? म्हाका म्हजो गुन्यांव भोगशियात आनी पयलींबशेन म्हजेर माया करांत आं! करतली मूं?” अशें पियान म्हंण्टकच देवकीन रडकुळी जावन म्हळें, “ना गो पिशा, आमी केन्नाच रागार जावंचीना तुजेर! आमचे धुवेचेर आमच्यानीं रागार जांवक जातलें गो?”

मास्तरान पियाचे फाटीचेर थापट मारून म्हळें “जालें मुगो तुज्या मनासारकें? तुजे खोशयेंतूच आमची खोशी आसा! तुका व्हड यश मेळूं!” अशे म्हणून त्या दोगानीय पियाचो निरोप घेतलो आनी गाडयेंत बसून तीं सावंतवाडी वचपाक गेलीं. पिया केदोवेळ ते गाडेयकडें पळेत रावलें. फाटल्या यादीनीं दोळ्यांत आयिल्लीं दुकां पुसलीं आनी परतून हॉलांत येवन तें बाकीच्या पावण्यांक हांसत निरोप दिवपाक लागलें.

लग्नांतल्यो उरिल्ल्यो सगळ्यो विधी सोंपमेरेन पांच वरां जालीं आनी मागीर वाजयत गाजयत व्हंकल पावणी घराकडेन आयली. पियान बेगिबेगीन फुडें वचून तांदळान भरिल्लें मापटे दारांत दवरलें. तें पायांनी धुकलून तागेली वयनी घरांत भितर सल्ली.

सगळ्यांनी आपापले कपडे बदलले आनी परतून येवन हॉलांत बसलीं. वसून केल्ली कडक च्या घेवन जातकच सगळ्यांकूच सुशेग घेवपाखातीर आपापल्या कुडींनी वचनशें दिसतालें. तांका खूब पुरो जालां हें तांच्या चेऱ्यावयल्यान कळटालें. मामाल्या चलयांनी हळूच कूस माल्ली.

बुर्यान एक झांबय काडली आनी मंगलदासाक घेवन तो आपले कुडींत गेलो. बाकीचींय उठपाची तयारी करूंक लागलीं. पुणून पियान तांका उठूंक दिल्यार मू! तांणें तांकां आडावन धल्लीं. आज ताचो थंयचो निमणो दीस आशिल्लो. दुसऱ्या दिसा तें मुंबय वचपांचें आशिल्लें. जाता तितली मस्ती करून ताका उदयाक आनी उशाक बेजार करपाचें आशिल्लें. तें तांकां तरांतरांच्यो गजाली सांगून हांसयतालें.

पंदरा सोळा वर्सांचें जायमेरेन पिया अशेंच आशिल्लें. अवखळ. मूड

बरो आसलो म्हण्टकच घरच्यांक हांसयतालें आनी मूड बिगडलो म्हण्टकच तांका पिडापीड करतालें. पुणून खंयच्याय मुडांत आसलें जाल्यारूय तें सगळ्यांचेंच लाडकें आशिल्लें. कॉलेजाक वतकच मात ताचो सबाव सामकोच बदललेलो. आनी तोच सगळ्यांच्या दुखाक कारण जाल्लो.

उशा जितलें उठपाची तयारी करतालें तितलें पिया ताका चिड्डून धरतालें. निमणें उदय उठलो आनी आपले कुडींत गेलो. उरली थंय उशा आनी वसू. वसून जेन्ना पियाचेर धेंगसो घालून "आगो ताका खूब पुरो जालां. वचूनी ताका सुशेग घेवपाक!" अशें म्हळें तेन्ना पियान उशाक हाताक धरून उठयलें आनी तांणेच शिंगारलेल्या उदयाले कुडींत हांसत हांसत धुकलून दिलें. धुकलतना ताच्या कानांत तें उशा लजपासारकीं दोन उतरां उलोवपाक विसरलेंना.

ते रातीकडेन आवय लेक एकाच हातुणार न्हिदर्लीं. आवयक घट्ट वेंग मारिल्ले अवस्तेंतूच पियाक गाड न्हिद लागिल्ली.

दुसऱ्या दिसा पिया मुंबय वचपाक भायर सर्ल्लें. सगळ्यांनी ताका आनीक दोन दीस तरी राव असो आग्रो केलो. पुणून ताचो नाइलाज आशिल्लो. दुसऱ्या दिसा ताका शुटिंगाक पावुंकूच जाय आशिल्लें. ना जाल्यार निर्मात्याचें कोट्यांनी रूपयांचे नुकसाण जातलें आशिल्लें.

भायर सरचेपयर्लीं पियान उशाचो हात धल्लो आनी ताका घेवन तें गलेरीचेर गेलें. उशान घासून पुसून चक्क केल्ल्या झोपाळ्याचेर दोगूय इश्टिणी बसल्यो, आनी गळ्यांत गळो घालून तांणीं गजाली केल्यो. सकयल येवचेपयर्लीं पियान जेन्ना, "हाचेफुडें तूंच हे घरची सून आनी धूव. तुवेंच हाचेफुडें ह्या घराचो सांबाळ करपाचो आसा!" अशें उशाक म्हळें, तेन्ना दोगांचेय दोळे दुकांनी भरून आयले. ते पुसून तीं दोगांय हांसत हांसत सकयल आयलीं.

पियान बापायच्या पायांक हात लावन नमस्कार केलो, भावाचीं फकणां केलीं आनी जेन्ना तें आवयचो निरोप घेवपाक तिचे म्हऱ्यांत

आयलें, तेन्ना ताका उतर फुटना जालें. तांणें आवयच्या पायांक हात लायलो आनी तिका घट्ट वेंग मारून तें हिमशा हिमशांनी रडपाक लागलें. त्यावेळार ताच्या मनांत कितें चलतालें हें कळपाक मार्ग नाशिल्लो. वायट सपन पडिल्ल्या मनशाबशेन ताची गत जाल्ली. आवयक मारिल्ली वेंग तें सोडीना जालें, तशें उशान ताका ओडून आपले म्हऱ्यांत घेतलें. "ही कसली पिशेपणां करता गो तूं पिया", अशें तांणें म्हण्टकच पियान ताका घट्ट वेंग माल्ली. तागेली ती अवस्था पळोवन उशाक अजाप दिसलें. तें इतलें भावूक जाल्लें तांणें हाचेपयलीं केन्नाच पळोंवक नाशिल्लें. "आतां आपणाकूच कठोर जांवक जाय, नाजाल्यार हाचें पावल भायर पडपाक कठीण जातलें", अशे येवजून तांणें ताका बळयां कुशीन केलें आनी आवयन ताचो घट्ट धरिल्लो हात अळंग सोडोवन घेतलो. मागीर ताका घेवन तें मोटरी म्हऱ्यांत गेलें. दार उगडून ताका भितर बसयलें आनी मंगलदास गाडी चलोंवक बशिल्लो ताचे म्हऱ्यांत गेलें. ताका नमस्कार करून ताणें भरिल्ल्या गळ्यान म्हळें, "तुमी पियाची बरेतरेन राखण करतले अशी आस्त बाळगितां!"

"तुमी ताची चिंता करूं नाकात! हांव नदर दवरतां ताचेर!" अशें मंगलदासान म्हंण्टकच ताचे उपकार आठोवन तें परतून पिया म्हऱ्यांत आयलें आनी ताणें ताका हांसून 'हेपी जर्नी' म्हळें.

गाडी पयस पावली तरी तें थंयच उबें आशिल्लें. थोड्या वेळान दोळ्यांतली दुकां पुसून तें परतलें आनी फाटकाच्या दारात बाबडी जावन दुकां गळयत उबी आशिल्ले आपले मांयक आदार दिवन घरांत घेवन आयलें. हाचेफुडें त्या घरची सगळी जापसालदारकी ताच्या खांद्यार आशिल्ली आनी ती ताका बरेतरेन निभावपाची आशिल्ली.

चारदीस सुखाचे जाल्यार चार दीस दुखाचे, अशी म्हणूच आसा. दरयाक जशी भरती येता तशी सुकतीय येता. मनशाची जीण म्हणून वेगळी नासता. थंयूय वयर सकयल जायत आसता.

पिया वयर चडटां चडटांच सकयल देंवपाक लागिल्लें. तागेले दोन तीन सिनेमे खूप बरे चल्ले. तमन्नाचें तेन्ना खूप नांव जाल्लें. फुडले दोन सिनेमे मध्यम चल्ले आनी दोन फ्लॉप जाले. फ्लॉप म्हळ्यार सुपर फ्लॉप. केल्लो खर्च लेगीत भरून आयलोना.

नटनट्यांची लोकप्रियता म्हळ्यार आळवाच्या पानावयलें उदक. तें केन्ना गळून वता तें कळना. जीं प्रसार माध्यमां सुरवातीक ताची तोखणाय करतालीं, तींच आतां ताचीं उणेपणां काडपाक लागिल्लीं. खरें म्हळ्यार जे सिनेमे मध्यम चल्लेले वा फ्लॉप थारिल्ले, तांतूत पियाची चूक नाशिल्ली. तांणें आपलें काम बरेतरेन केल्लें. पुणून बिनकण्याची कथा आनी बाद डायरेक्शनाक लागून ते पडिल्ले, आनी आळ मात पियाचेर आयिल्लो.

नटनट्यांची लोकप्रियता मिडियावाले थारायतात. वयर काडपाचें थारायलें जाल्यार तें तांकां मळबामेरेन पावयतात आनी सकयल उडोवपाचें जाल्यार रोखडेंच पाताळ दाखयतात. पियाचे दोन सिनेमे

मध्यम चल्ले तेन्ना तांणीं ताचो करिश्मा उणो जाल्ल्याची आनी फुडले दोन सिनेमे बाद थारतकच तें सोंपिल्ल्याची बोबाट सुरू केली. ताका लागून ताच्या दारांतली निर्मात्यांची रांग उणी जाली. कोणूय येतालो तो दुय्यम भूमिकांची ऑफर घेवन.

एकदा दुय्यम भूमिका पत्करली म्हंण्टकच परतून नायिकेची भूमिका मेळप कठीण जाता, हें ताका खबर आशिल्ल्यान तांणें रश्मीचें मत घेवपाचें थारायलें आनी तिका फोन केलो.

"हांव कितें करूं?" अशें विचारतकच रश्मीन ताका म्हळें, "सिनेमाचो दर्जो पळे आनी भुमिका पत्कर! दुय्यम जाल्यो म्हणून सगळ्योच भूमिका वायट नासतात. कितलेय पैशे दिल्यार आवयची भूमिका मात करूं नाका!"

मागीर तांणें मंगलदासाक विचाल्लें. मंगलदासान ताका सांगलें, "दुय्यम जाल्योय जाल्यार भूमिका सोडूं नाका! ना जाल्यार तुगेलो भितल्लो पैसो सोंपून तूं पैशाक पातिशेर जातलें. सवाय भितर मात कॉंट्रेक्ट सायन करूं नाका! तुका नायिकेची भुमिका मेळची हेखातीर म्हजी खटपट चालू आसा आनी ती मेळटली हाची खात्री बाळगीय!"

दोगांचोय सल्लो आयकून तांणें दुय्यम भूमिका स्विकारल्यो. एक भयणिची जाल्यार दुसरी नणंदेची आशिल्ली.

ज्या जाग्यार मोतयां वेंचली त्या जाग्यार गुंडे वेंचचे पडले म्हण्टकच मनशाची जी गत जाता, तशीच गत पियाची जाल्ली. तें शुटिंगाक वतालें, पुणून थंय ताचें मन लागनाशिल्लें. डायरेक्टराचीं उलोवणी खावचीं पडटालीं. सेटाचेर ताका पयलींबशेन मानूय मेळनाशिल्लो. तें डिप्रेस जातालें.

ज्या मंगलदासाचो ताका आदार दिसतालो, तांणें हालींच दुसरे एके चलयेची परिक्षा घेतिल्ली. तिच्यांत घुसपून उरिल्ल्यान तागेलो फोन घेवपाक लेगीत तो आळस करतालो. घेतल्यारूय वाजेतालो.

डिप्रेशनाचेर उपाय म्हणून तें इलो इलो सोरो घेंवक लागलें. पयलीं

हाफ पेग जिन घेवपी तें आतां व्हिस्कीचे दोन पेग पोटांत धुकलूंक लागिल्लें.

जेन्ना तें लोकप्रियतेच्या तेंगशेर आशिल्ले तेन्ना तांणें जिवाची आपणाक जाय तशी चैन केल्ली. दोस्त मंडळीय लागीं केल्ली. पडीत काळार आतां ते पैस जाल्ले. पुणून तातुंतलो एक जो ताका चड लागी आशिल्लो, तो आतां सैतान कसो ताचे फाटीक लागिल्लो. तो केन्नाय येतालो, तागेर बसून व्हिस्की पितालो आनी वयल्यान ताचो हक्कान उपभोग घेतालो. ताणें ताका धांवडावपाचो खूप यत्न केलो, पुणून ताका लागिल्ली ती साडेसाती कशीच सुटनाशिल्ली.

एक दीस शुटींग सोपोवन तें घराकडें आयिल्लें. ताका खूब पुरो जाल्लें. शरिरान तर तें थकिल्लेंच, पुणून ताका मानसीक ताण चड जाल्लो. ताचेकडल्यान चूक जाल्ल्यान डायरेक्टरान ताचो अपमान केल्लो. आपली चूक म्हणून तें ओगी राविल्लें. मनाक मातशी थाकाय मेळची म्हणून थोडी व्हिस्की घेवपाचे तयारेंत आसतनाच दाराची बेल वाजली.

तांणें दार उगडलें. दारांत नाका आशिल्लो मनीस पळोवन ताच्या कपलाक मिरी पडली. तो भितर आयलो. 'हाय!' अशें म्हणून तो कदेलीचेर बसलो. तांणें कोपांत व्हिस्की वतयली आनी थोडेशें उदक घालून ती पियेलो. तांणें व्हिस्की परतून रिपीट केली. पिया पळेत रावलें. ताका धपकावपाची लेगीत ताच्यांत ताकत उरूंक नाशिल्ली. बरो तयार जातकंच तो ताचेर हक्क गाजोवपाचो यत्न करूंक लागलो.

पियान ताका वचपाक सांगलें, पुणून तांणें आयकलेंना, मागीर तांणें ताका पायां पडून म्हळें, "हांव बरें ना! म्हाका मातशें न्हिदूंनी आतां! तूं वच!" पुणून ताचेर सोरो स्वार जाल्ल्यान तो आयकुपाचे स्थितींत नाशिल्लो. कितें करचें तें पियाक कळना जालें. ताचें कपल उसळटालें. ताणें तें घट्ट दामून धल्लें आनी निमणो उपाय म्हणून भितल्ले कुडींत वचून दाराक खिळी घाली.

तो सैतान दार बडोंवक लागलो. ताका बुरशो गाळी संवूंक लागलो.

पियाची सहनशक्ती सोंपली आनी ताणें मोबायलाचेर पोलिसांक फोन केलो.

पोलीस आयले आनी त्या भुरग्याक घेवन गेले. पुणून वतना दांत चिड्डून त्या पोरान जो चेरो केल्लो, तो दोन दीस मेरेन ताच्या दोळ्यांमुखावयल्यान हालनाशिल्लो. आनी जेन्ना पोलिसान म्हणिल्लें "मॅडम, तुमच्यासारक्यांनी असल्या गुंडांक लार्गी करूंक फावना!" तेन्ना ताका जीव दिवचोसो दिशिल्लो. ताणें सुकीच व्हिस्की ताळ्यांत रकयली आनी न्हिदेच्यो दोन गुळ्यो घेवन हातुणाचेर घालून घेतलें.

तागेलें डिप्रेशन वाडूंक लागलें. खांवक जेंवक नाकाशें दिसूंक लागलें. जिवाची वीट येंवक लागली. ताणे रश्मीक फोन करून आपले परिस्थितीविशी कळयलें. रश्मीन म्हळें, "आमचीय परिस्थिती सद्या बरी ना! एक सिनेमा फ्लॉप गेल्ल्यान नुकसानांत पडल्यांत! पुणून आमी तुजेबशेन डिप्रेस जांवकनात! तूं धीर धर! हेवूय दीस वतले! तूं आतां अशें कर, थोड्या दिसांखातीर आमगेर यो! आमी दोतोराचो सल्लो घेंवया आनी तुगेल्या डिप्रेशनाचेर वखदपाणी करूंया! खात्रीन निवळटलें तूं!"

रश्मीचो सल्लो बरो आसलोय जाल्यार तो पियाक मानपासारको नाशिल्लो. तागेलें सोऱ्याचें व्यसन वाडिल्लें आनी रश्मीगेर रावल्यार तें भागोवपाक शक्य जावचें नाशिल्लें. आतां सोरो हीच ताची जीण जाल्ली. तो मेळलोना जाल्यार ताका जगप कठीण जातलें आशिल्लें. आपूण हांगाच वखदपाणी करतां अशें सांगून तांणें तिगेर वचपाचे न्हयकारलें.

एक दीस सकाळफुडें वावराडी आयली आनी तिणें दाराची बेल वाजयली. पियान दार उगडलें आनी तें परतून येवन हातूणाचेर न्हिदलें. वावराडेक अजाप दिसलें. तिणे विचाल्लें, "बाय कित्याक न्हिदलें परतून? आयज शुटिंगाक वचपाचें ना? कितलो वगत जालो पळय!"

"आज वचचें ना हांव! जिवाक बरें दिसना म्हज्या! आतांच क्रोसिनची गुळी घेतल्या हांवें!" पियान म्हळें.

"मागीर दोतोराक आपोवपाचो न्हूं? हांव करतां दोतोराक फोन!"

अशें म्हणून तिणें पिया नाका नाका म्हण्टा आसतना तागेल्या सदच्या दोतोराक फोन करून आपयलो.

दोतोरान येवन पियाक तपासलें. ताच्या पोटांत एके कुशीक दुखतालें. दोतोरान म्हळें "तुका इफेक्सांव आसा! हांव वखद बरोवन दितां! वावराडेक धाडून हाड तें! तशेंच फाल्यां सकाळीं लेबोरटरींत वचून रगत आनी मूत तपासून घे! रिपोर्ट येतकच कितें जालां तें कळटलें!" इतलें सांगून दोतोर गेलो.

पियान वावराडेक धाडून वखद हाडलें. त्या वखदाचो व्हडलोसो उपयोग जालोना. जोर गेलोना. ताका भंय दिसलें.

दुसऱ्या दिसा सकाळफुडें लेबोरटरींत वचून तांणें रगताची आनी मुताची तपासणी करून घेतली. मागीर तांणें डायरेक्टराक फोन करून चार दीस शुटिंगाक पावचेंना अशें सांगलें.

रगताचो आनी मुताचो रिपोर्ट पळोवन दोतोर येवजुपांत पडलो. तांणें परतून एकदां ताका तपासलें. पोटांतली दूक तशीच आशिल्ली, आनी जोरूय वचूंक नाशिल्लो. तांणें वखद बदलून दिलें. ताचोय उपयोग जालोना, तशें ताणें पियाक म्हळें, "मेडम आमी मातशीं टाटा मेमोरिअलांत वचून आयल्यार बरें जातलें. हांव दिस्त चार वरांचेर गाडी घेवन येतां. म्हगेलेच गाडयेन या! तशें भियेवपासारकें कांय ना, पुणून दुबाव काडून उडयल्लो बरो!"

दोतोरान भियेवपासारकें कांय ना, अशें जरी म्हणिल्लें तरी तांणें टाटा मेमोरिअलाचें नाव घेतिल्ल्यान पिया सामकें भियेवन गेलें. "कितें तरी बरयलां काय देवान म्हज्या नशिबांत?" तांणें चितेंस्त जावन मनांत म्हळें, आनी हातुणाचेर घालून घेवन आंगार पांगरूण ओडलें.

फोनाची घांट वाजली म्हणून तें उठलें आनी तांणें फोन उबाल्लो. 'हांव उशा उलयतां', ही उतरां कानार पडताफुडें तागेलें दूख खंयचे खंय पळ्ळें. "हॅलो, उशू कशें आसा?" तांणें विचाल्लें.

"हांव बरे आसा, घरची सगळीं बरी आसात, पप्पा मम्मी बरीं

आसात! आतां तूं कशें आसा तें सांग!'' उशान म्हळें.

''हांव एकदम बरें आसा. म्हगेलें हांगां वेवस्थीत चल्लां! दोन तीन सिनेमांचे शुटिंग चालू आसा!'' पियान आपली पिडा लिपोवन उशाक फट माल्ली. मागीर तांणें, ''कितें बोवाळ आसा गो?'' अशें म्हणून तार्ची फकणां केलीं. घरचीं सगळीं बरीं आसात हें आयकून ताच्या जिवाक बरें दिसलें. थोड्यो गजाली करून तांणें फोन दवल्लो.

दोतोराची वाट पळोंवक बसलां थंय ताच्या मनांत खुबशे विचार घोळटाले. पुणून तातुंनूय एकसुत्रीपण नाशिल्लें. आपले जिणेसंबंदान जेन्ना तें येवजूंक लागलें तेन्ना आपणें उजवाड साप उणो पळेला, चडशी जीण काळखांतूच गेली अशें ताका जाणवलें. खिणभर ताका अशें दिसलें, ''उशाचो आपणाक आयिल्लो हो निमणो फोन. हाचेफुडें आपूण ताचेकडेन उलोंवक शकचेना! घरच्यांक हाचेफुडें मेळूंक शकचेंना!'' मागीर तांणें तकली नेटान फाफुडली आनी येन्नाच इतले निराश जावन उपकारना अशें मनांत म्हणून तें दोतोराची वाट पळेत रावलें.

दिस्त चार वरांचेर दोतोर आयलो आनी ताका टाटा मेमोरिअलांत घेवन गेलो.

यशवंत सडेकारान एक दीस उलयतां उलयतां बायलेक म्हणिल्लें, ''बुर्याचें भाग्य व्हड म्हणून ताका चलये असली सून मेळ्ळी!''

तागेर्ली तीं उतरां फटीचीं नाशिल्लीं. खऱ्यांनीच बुर्याचें भाग्य व्हड आशिल्लें म्हणून ताका उशा असली गुणांची सून मेळिल्ली. बरे गुण आनी बरकत वांगडा घेवन उशान बुर्याल्या बंगल्यांत पावल घाल्लें. तें घरांत येतकच थोड्याच दिसांनी उदयाक नोकरेंत बडटी मेळिल्ली. तें स्वता बी फार्म बरे ग्रेडीन पास जाल्लें आनी वेर्णेचे एके वखदाचे कंपनीन ताका बऱ्या पगाराची नोकरी दिल्ली.

'सगळ्यांचें अपुबार्येचे पिया घरांत ना,' इतलें एक दुख सोडलें जाल्यार दुसऱ्या खंयच्याच दुखाक त्या घरांत आता थारो नाशिल्लो.

बुर्याचे फाटीक लागून उशान ताका मुदती पयलीं निवृत्ती घेवपाक लायिल्ली. ताणें म्हणिल्लें, ''पापा तुमी खूप थकल्यात! तुमकां सुशेग घेवपाची गरज आसा! तुमी नोकरी सोडात! आमी आसतना तुमकां घरची चिंता करपाची कसलीच गरज ना!''

उशा आपली नोकरी सांबाळून मांयक घरच्या कामांत मदत करतालें. तागेले संगतींत वसूलें बाबडेपण खूबशें उणे जाल्लें. तिगेल्या चेऱ्यावयलें दुखेस्तपण पैस जाल्लें आनी त्या जाग्यार खोशी दिसपाक

लागिल्ली.

तिनसांजच्या वेळार उशाच्या हातचें उदक पियेंवक मेळिल्ल्यान घरामुखावयले बागेंतलीं सगळीं फूलझाडां फुलांनी गच्च भरिल्लीं. मांयचे देवाचे पुजेखातीर उशा सकाळींफुडें बागेंत वचून थोडीं फुलां तोडटालें आनी कुरपण्यांत भरून दवरतालें.मागीर तें आपलो आनी उदयालो डबो तयार करतालें. उदय ताका बसस्टँडार सोडटालो आनी फुडें वतालो. थंय थांबिल्ले कंपनीचे बसीन तें वेर्ण्यां वतालें.

देवाची पुजा करून जातकच वसू बागेंत वचून कुंजाच्यो ना जाल्यार गोटलांच्यो कळ्यो हाडटाली. मांयच्या फोटवाक घालपाक एक हार करून जातकच, आपले आनी उशाचे खातीर उरिल्ल्या कळयांच्यो दोन हळयो घालून दवरताली.

मांयचे हातची हळी माळटना उशाक तो देवतेन आपणाक दिल्लो प्रसादूच कसो दिसतालो. हळी केसांत माळचे पयलीं ती तें भक्तिभावान आपल्या कपलाक तेंकयतालें.

कामाकसून येतकच तें चौगांय खातीर च्या करतालें. बायलेच्या हातची च्या पियेवनूय सुनेची हातची च्या पियेलेबगर बुर्याचें समाधान जाय नाशिल्लें. च्या पियेतकच तो वाचन मंदिरांत वतालो. उदय आपल्या इश्टांक मेळूंक गेलो म्हणटकच उशा मांयक घेवन बागेंत येतालें. थंय बसपाखातीर करून घेतिल्ल्या सिमिटाच्या बांकड्याचेर बसून तीं दोगांय थोडो वेळ गजाली करतालीं. केन्ना केन्नाय तीं गलेरीवयल्या झोपाळ्याचेर वांगडाच बसून झेल घेतालीं. तिनसांजच्या वेळार मांय जेन्ना तुळशीफुड्यांत निरांजन पेटयताली तेन्ना तें तिचे वांगडा शुभंकरोति म्हणपाक केन्नाच विसरनाशिल्लें.

भाटकान्नी म्हणून कोणूय कसलेंय फळ घेवन आयलो जाल्यार तो रिकाम्या हातांनी परतून वचनाशिल्लो. बुर्यालें गर्विश्टपणूय खूपशें उणें जाल्लें. आतां तो तेवटेनच्यान येतल्या वतल्यांक हडकितालो. कितेंय नवीन करपाचें आसलें जाल्यार पयलीं तो सुनेचो सल्लो घेतालो आनी

ती सांगता तशेंच करतालो. उदयूय आतां चार चौगांत धिटायेन वावरूंक शिकिल्लो. तागेले गोमटेवयलें हिन्दूत्वाचें भूत आतां सासणाचें पळून गेल्लें. हो सगळो उशाचो पायगुण तर आशिल्लोच, ते भायर तो तागेले बरे वागणुकीचो परिणाम आशिल्लो.

तें आनी मांय एकेकडेन बशिल्लीं दिसलीं म्हंण्टकच येतले वतले लोक, ''मांयक फावशीच सून मेळ्ळी,'' अशी तांची तोखणाय करतालें.

पियाची याद काडून वसू जेन्ना दोळ्यांतल्यान दूक काडटाली, तेन्ना उशा तिका समजायतालें. तिचीं दुकां पुसतालें. ''मम्मी तूं पियाची चिंता करूं नाका! तें थंय बरे आसा! सिनेमाच्या शुटिंगाक लागून ताका वेळ मेळना. नाजाल्यार तें आयलेबगर रावचें नाशिल्लें. थोडो तेंप करूनी ताका आपल्या मनासारकें! मागीर आमी ताच्या लग्नाची तयारी करूया! ताका जर थंयच्याच कोणाकडें लग्न जावपाचें आसत जाल्यार आमी ताका आडखळ हाडूं नये! त्या कामांत आमी मदतूच करूया ताका'' उशान अशें सांगतकच वसू आपलें दूख विसरताली. ताका कुशींत घेंवन ती ताच्या कपलाचो उमो घेताली. देवान आपणाक गुणांची सून दिली म्हणून ती ताचे उपकार आठयताली, आनी तिच्या सुखाखातीर ताचेकडेन प्रार्थना करताली.

आयतरा दिसा सकाळचीं तीं सगळीं च्या घेवपाक एकठांय बसतालीं. खांवक खातां खातां गजाली करतालीं, आनी फुडल्यो येवजण्यो आंखतालीं. आयतराचे तेय सकाळीं तीं तशींच बशिल्लीं आनी च्या पियेंतां पियेंतां गजाली करतालीं इतल्यांत फोनाची घांट वाजली. ''पळे गो बाय कोणाचो फोन तो? बायेलो बी जायत!'' वसून म्हळें तशें उशा उठलें आनी तांणें फोन उबाल्लो.

''हॅलो कोण उलयता?'' तांणें विचाल्लें, तसो तेवटेंनच्यान आवाज आयलो, हांव मुंबयच्यान मंगलदास उलयतां. तुमी कोण उलयतात? हांव उशा उलयतां! अशें उशान म्हंण्टकच तांणें फुडें म्हळें ''बरें जालें, तुमीच मेळ्ळीं! म्हाका तुमकां एक वायट खबर सांगची पडटा! काळीज

घट्ट करून आयकात! पिया इज नो मोर! तांणें सुयिसायड केल्या! रोकडींच येयात! वाट पळेंतां!'' अशें म्हणून मंगलदासांन फोन दवल्लो.

'पिया इज नो मोर', हीं उतरां कानार पडना फुडें उशाच्या आंगाक थरथरो भल्लो. आपणाक कितें जाता, हें ताका कळना जालें. ताच्या तोंडातल्यान 'आरे देवा!' अशीं उतरां भायर सर्ली, आनी घुंवळ येवन तें ढण करून जमनीर पडलें. तिगांयजाणां ताचे म्हऱ्यांत धांवलीं. दोळ्यार उदक मारून तांणीं ताका सावशीक केलें. दोळे उगडिनाफुडें उशाक परिस्थितीची जाण आयली. तांणें चेऱ्यावयलो घाम पुसलो आनी उदयाचो आदार घेवन तें कदेलीचेर बसलें.

''कितें जालें गो बाय? घुंवळ कशी आयली तुका? आता बरें दिसता मुगो?'' वसून ताचे फाटिवयल्यान मायेन हात भोंवडायत विचाल्लें.

''म्हाकाच कळ्ळेंना, घुंवळ कशी आयली म्हणून! पित्त बित्त जालां जातलें''. उशान त्या खिणाक जें सुचलें तें सांगलें. खरी गजाल सांगल्यार फुडें कितें घडटलें हें ताका खबर आशिल्लें.

''कोणालो फोन आशिल्लो?'' बुर्यान विचाल्लें.

''मंगलदासाचो!'' उशान म्हळें.

''कितें म्हंण्टालो मंगलदास?'' बुर्यान परतून विचाल्लें.

उशान खिणभर येवजिलें आनी म्हळें, ''पिया बरें ना, अशें सांगतालो तो! म्हाका मुंबय येवपाक सांगलां तांणें!'' सगळें दूख भितल्ले भितर चिड्डून धरीत उशान म्हळें. दोळ्यांतलीं दुकां फाटीं परतुपाक ताका कठीण जातालें, पुणून तांणें आपलो तोल वचूंक दिलोना.

''बाय बरें ना? आरे देवा!'' अशें म्हणून वसून एकूच बोबाट माल्ली. ''मम्मी, अशें कितें करता गे तूं भुरग्याबशेन? तूं भियेंव नाका! हांव वचून पळेतां ताका कितें जाला तें! मातशें बरें जातकच घेवूनच येतां ताका हांगां!'' दुखाचे कड भितल्ले भितर गिळीत उशा मांयक समजांवक लागलें.

''हांवूय येतां तुजे वांगडा!'' वसून रडत म्हळें.

"नाका गे मम्मी, तूं येंव नाका! हांव वतां आनी रोकडेंच घेवन येतां ताका!" अशें म्हणून उशान मांयक समजायली. मागीर तांणें विमानतळाचेर फोन करून मुंबय वचपाचें विमान कितल्या वरांचेर सुट्टलें, हाची चौकशी केली, आनी इमर्जन्सी खातीरची दोन तिकिटां राखून दवरपाक सांगलें. मांवाक कुशीक व्हरून तांणें ल्हव आवाजांत म्हळें, "खबर बरी ना! तुमी मम्मी म्हऱ्यांत थांबात! मनाचो तोल वचूंक दिंवनाकात!" मागीर उदयाक घेवन तें कुडींत गेलें. ताका खरी गजाल सांगली आनी दोळ्यांतल्यान एकूय दूक काडिनास्तना आपले वांगडा मुंबय येवपाक सांगलें. उदयाचे पाय लटपटपाक लागले तेन्ना तांणें ताका धीर दित म्हळें, "ही वेळ भिवपाची न्हय! धिरान काम करूंक जाय! मम्मीक इल्लोय दुबाव येंवक फावना!" मागीर तांणें मोबायलाचेर बापायक घडिल्ली गजाल सांगली आनी आवयक घेवन मेरशे येवपाक सांगलें. खरी गजाल मम्मी वोजीर उलोंव नाकात अशें सांगपाक तें विसरलेंना. आपूण मुंबय वतकच फाटल्यान ती कितें करतली हाची ताका कल्पना आशिल्ली म्हणुनूच तांणें बापायक आवयक घेवन येवपाक सांगिल्लें.

"चल या आमी विमानतळाचेर!" अशें म्हणून उदयाक घेवन तें टॅक्सीन विमानतळाचेर गेलें. वतना तांणें वसूक "मम्मी, हांव रोकडेंच येतां आं, तूं हांगां बोवाळ करूं नाका!" अशें सांगलें, पुणून दुकांनी भरिल्लो आपलो चेरो मात तांणें तिचेपासून लिपयलो.

बायलमनीस फकत मायेस्तूच आसून उपकारना. वेळाप्रसंगाक तिणें किंतलें कठोर जावचें पडटा, कितली समयसुचकता दाखोवची पड्टा, हाची उशा एक बरी देख आशिल्ली.

विमानतळाचेर वतना वाटेंत तांणें सोमनाथ मामाक फोन करून खबर कळयली आनी आपूण आतां मुंबय वतां. थंय पावतकच फुडें कितें करपाचें थारायलां तें तुमकां फोन करून कळयतां, अशें सांगलें. सोमनाथ रायकरान ताका आपूण मुंबय येंव काय म्हणून विचाल्लें. ताका तांणें, "तुमी मुंबय येंव नाकात, हांगाची सगळी व्यवस्था पळेयात आनी

मम्मीचेर सारकी नदर दवरात,'' अशें सांगलें.

मुंबय पावतकच तीं दोगांय नीट पियाल्या फ्लॅटाचेर गेलीं. थंय तांकां मडें पोष्टमॉर्टेमाखातीर बॉम्बे हॉस्पिटलांत व्हेलां, आनी मड्यावांगडा मंगलदास गेला अशें कळ्ळें.

हें कशें घडलें अशें विचारतकच शेजाऱ्यान सगळी गजाल सांगली. ''सदचेबशेन सकाळफुडें येवन कामवालीन दाराची घांट वाजयली. पुणून पियान दार उगडलेंना. तशी ती भियेली आनी तिणें ती गजाल आमकां सांगली. आमीय खूप फावटीं घांट वाजयली, पुणून दार उगडलेंना, तशें आमी पोलिसांक कळयलें. पोलिस आयले आनी तांणीं दार फोडलें. पियान पंख्याक गोळ लावन घेतिल्लो. पंचनाम्याखातीर कोणूय जापसालदार आनी लागिंचो मनीस म्हऱ्यांत आसूंक जाय हे खातीर कामवालेन पियाचे डायरेंतल्यान फोन नंबर सोदून काडून मंगलदासाक फोन केलो. तो येतकच पंचनामो करून पोलिसांनी मडें पोष्टमॉर्टेमाक धाडलां. मड्यावांगडा मंगलदासूय हॉस्पिटलांत गेला.''

तीं जेन्ना हॉस्पिटलांत पावलीं तेन्ना तांका थंय मंगलदास एके कदेलीचेर बशिल्लो दिसलो. तीं ताचे म्हऱ्यांत वतकच तो बेगिबेगीन उठलो आनी तांणें त्या दोगांकूय नमस्कार करून म्हळें, ''हांव तुमचीच वाट पळेतालों.''

''अशें, घडपाक कारण कितें,'' अशें उशान विचारतकच तांणें म्हळें ''म्हाकाय नक्की कारण कितें जालें हें खबर ना! पुणून तागेले वावराडेकडल्यान कळ्ळां तेबशेन फाटले बरेच दीस तें सीक आशिल्लें, आनी दोतोरालें वखद घेतालें. ती म्हण्टाली तें दोतोरावांगडा टाटा मेमोरियलांतूय वचून आयिल्लें. फाटलो म्हयनोभर हांव ताका मेळूंक नाशिल्ल्यान तें सीक आसा हें म्हाका कळलेंच ना! आतांय हांव मुंबयभायर आशिल्लों. वावराडेचो फोन आयलो आनी तिणें गजाल सांगली तसो थंयच्यानूच हांवें तुमकां फोन लायलो. उशाबाय, ''आय एम व्हेरी सॉरी! हांवें तुमका पियाची राखण करतलों अशें उतर दिल्लें,

पुणून तें पाळूंक शकलोना, हे खातीर म्हाका खूब वायट दिसता!''

''तुमी स्वताक दोशी मानूं नाकात! तुमी म्हणून ताची कशी राखण करतले आशिल्ले? तें कितें भुरगें नाशिल्लें.'' अशें म्हणून उशान तांचें समादान करपाचो यत्न केलो.

''तुमी फुडें कितें करपाचें थारायलां?'' मंगलदासान विचाल्लें.

''आंमी मडें गोयांत व्हरतलीं. तुमी त्या कामांत मदत करूंक शकतलें मूं?'' अशें उशान विचारतकच मंगलदासान म्हळें, ''अवश्य! तुमी तें गाडयेन व्हरतलीं काय विमानान?'' तांणें विचाल्लें तशें उशान म्हळें, ''गाडयेन व्हेल्यार बरें अशें म्हाका दिसता. ते गाडयेफाटल्यान आमच्यांनी दुसरे गाडयेन वचपाक जातलें.''

''हय हय! गाडयेन व्हेल्यार बरें जातलें!''मंगलदासान म्हळें. मागीर तांणें नमळायेन विचाल्लें ''हांव येंव तुमच्या वांगडा?''

''तें हांव कितें सांगतलें? थंय आयल्यार तुमचें हांगां नुकसान जांवचेना?'' उशान भिडेस्तपणान विचाल्लें.

''जांव जाल्यार थोडेशें! हांव येंताच तुमचे वांगडा! म्हगेलेच गाडयेन या!'' मंगलदासालीं तीं व्हडपणाचीं उतरां आयकून उशाक ताचे उपकार खंयच्या उतरांनी आठोवचे तें समजना जालें. तांणें म्हळें,'' तुमी आमचेर जे हे उपकार करतात ते आमच्यांनी जल्मांत विसरूंक जावचेनात!''

''तांतूत उपकार कसले? तें म्हजें कर्तव्यूच आसा! मरणापयलीं हांव ताची राखण करूंक शकलोना!आतां मरणाउपरांत थोडो वेळ तरी ताची राखण करूनी म्हाका! हांव आतां उदयाक वांगडा घेवन वतां आनी हर्स व्हॅनीची वेवस्था करतां. ते म्हणसर तुमी हांगाच्यो कायद्याच्यो गजाली सोंपयात! गाडी आयली म्हंण्टकच मडें रोकडेंच भायर काडूंक मेळटलें!'' अशें सांगून तो उदयाक वांगडा घेवन गेलो.

उशान ऑफिसांत वचून मडें भायर काडपाखातीर कायद्यान करच्यो पडटात त्यो सगळ्यो गजाली करून सोंपयल्यो. मागीर कुशीनच्या एका बांकार बसून सोमनाथ मामांक फोन करून आपणें कितें करपाचें थारायलां तें सांगलें, आनी सकाळच्या धां वरांमेरेन थंय पावतलीं असो अंदाजूय

सांगलो.

आतां तें रडपाक मेकळें जाल्लें. इतलो वेळ आडावन दवरलेल्या दुकांक ताणें वाट करून दिली. ताच्या दोळ्यांतल्यान तीं घळघळीत व्हांवपाक लागलीं. हातांतल्या लेंसाक तीं आयकना जालीं. पियाचे इश्टागतीची, तागेल्या हट्टीपणाची, फ्रेंकाक लागून तांणें केल्ल्या झगड्याची आनी मागीर गळ्यांत गळो घालून आनी माफी मागून परतून केल्ल्या एकचाराची याद काडून तें रडटालें. तागेली जिवाक जीव दिवपी इश्टिण तांणें ओगडायल्लीं. ती आतां ताका हांसपा खेळपाक, मस्करी करपाक आनी झगडपाक लेगीत परतून मेळपाची नाशिल्ली.

व्हडल्या कश्टांनीं ताणें आपलें रडें थांबयलें आनी दोळे पुसून सुके केले. इतल्यांत एक पोलिस इंस्पेक्टर ताचे म्हऱ्यांत आयलो आनी तांणें तुमचें नांव 'उशा बुर्ये' काय म्हणून विचाल्लें. उशान 'हय' म्हण्टकच तांणें ताच्या हातांत एक लखाटो दिलो आनी म्हळें, ''हो गोळ घेतिल्ले चलयेच्या हातांत आशिल्लो. इनवेस्टिगेशनाखातीर आमकां तो फोडचो पडलो. ताचेर तुमचे नांव बरयल्लें आसा. फोडलो म्हणून रागार जांव नाकात!'' अशें म्हणून तो थंयसून गेलो. लाखाटो हातांत घेवन उशा थोड़ो वेळ तशेंच बसलें. मागीर तांणें आपले थरथरपी हात थीर केलें, काळीज घट केलें. दोळ्यांवयल्यान लेंस भोंवडायलो, आनी लाखाट्यांतली चीट भायर काडून ती तें वाचपाक लागलें.

*मोगाळ उशा वयनी,*

*नमस्कार*

*आयज हांव तुका वयनी म्हणून उलो मारपाची हौस भागोवन घेतां. हाचेफुडें तसो उलो मारपाचें भाग्य म्हज्या नशिबांत ना. तशेंच तुका म्हजी ही निमणी चिट! पयलीं फोनाचेर उलवणें जातालें, ताका लागून चिट बरोवपाचो प्रसंग केन्ना येंवक नाशिल्लो. हाचेफुडें फोन करप जमचेंना म्हणून ही चिट बरयल्या. वयनी देवाचो हो खंयचो न्याय?*

तांणें सगळे बरे गूण तुका दिले आनी वायट तितलेय म्हज्या वांट्याक घाले. तुज्यांतले थोडे तरी बरे गूण तांणें म्हाका दिल्ले जाल्यार आज म्हजेर हो जो प्रसंग आयला तो येवचो नाशिल्लो.

उशू, काल जेन्ना हांव म्हजे जिणेसंबंदान चिंतूंक बसलें तेन्ना हांवें केल्ल्या सगळ्या वायट कर्मांची वळेरी म्हज्या दोळ्यांमुखावयल्यान धांवपाक लागली. तुवें आनी बाकीच्या इश्टिणींनीं म्हाका फ्रेंकापासून पैस रावपाक सांगिल्लें. तो विस्वास दवरपासारखो भुरगो न्हय अशें तुमी सगळ्यांनी सांगुनूय तुमचें आयकनासतना हांवें म्हाका जाय तेंच केलें. हांवें ताचो सांगात सोडचो म्हणून एक दीस तूं म्हजेकडेन झगडलें लेगीत. पुणून हावें ताची तोखणाय केली आनी तुका दोश दिलो. तुका म्हजो हेवो दिसता अशें लेगीत म्हळें हांवे तुका! ताचेर विस्वास दवरून आनी तागेल्या गोड उतरांक भुलून हांवें म्हाका दीस वचपाक दिले. ॲबोर्शन करून घे आनी आयिल्ल्या संकश्टातल्यान मेकळें जा, अशें आवयबापायन पायां पडून सांगिल्लें. तें आयकनासतना दनपारच्या बारा वरांचेर हट्टान घर सोडलें. तशें करतना जिणें म्हाका जल्म दिलो, म्हजे खातीर खस्तो खाल्यो, म्हाका इल्लेंय दूख जांव नये म्हणून वावुरली, तिची लेगीत हावें पर्वा केलीना.

फ्रेंकान खोंट मारून धांवडयकतच संकश्टात पडिल्ल्या म्हाका जांणीं आदार दिलो. आपले खासा चलयेबशेन म्हजेर माया केली, त्या देवमनशांक किंकोत करून हट्टान सिनेमांत गेलें. एक दोन सिनेमे बरे चल्लेल्यान आनी बरी नटी म्हणून तोखणाय जाल्ल्यान म्हज्यांत उन्माद संचारलो. त्या उन्मादाच्या भारांत हांवे बरे चलयेन करच्यो

न्हय अशो सगळ्यो गजाली केल्यो, आनी ताचें पानवळ म्हाका आज अशेतरेन घेवचें पडलां.

वयनी, पयलीं घेतिल्ले सगळे निर्णय हांवें उतावळपणान घेतिल्ले, आनी ते सगळे चुकीचे थारिल्ले. पुणून जो हो निमणो निर्णय घेतला तो मात सगळ्या वाटांनी येवजून घेतला. तो चुकिचो आशिल्लो अशें तूं म्हणचीना हाची म्हाका खात्री आसा वयनी.

वयनी, तूं विचारी आसा. बऱ्या वायटाचो तुका अर्थ कळटा. आतां तूंच सांग वयनी, एकादे चलयेक दोतोरान जर तिका गर्भाशयाचो कॅन्सर जाला अशें सांगलें, आनी कितलेय उपाय केले जाल्यारूय ती चली दोन वर्सांवयर वांचचीना अशी खरी गजाल तिका कळली जाल्यार ते चलयेन कितें करपाचें? दोन वर्सां जियेवपा खातीर आपणाक आनी आपल्या लागींच्या मनशांक कश्ट दीत दीस काडपाचे, तेवूय आपणें मुद्दाम आपोवन हाडिल्ले पिडेखातीर, काय कोणाकूच कश्ट दिनासता आपणेच ह्या संवसारातल्यान उठून वचपाचें?

उशू, म्हगेले मोगाचे इश्टिणी, फुडल्या जल्मांत हांव तुजी धाकली भयण जावन जल्माक येतलें, आनी तेन्ना मात आमकां दोगांकूय बरे गूण सारक्या प्रमाणांत वाटून दी म्हणून देवाकडेन झगडले बगर रावचेंना.

उशा वयनी गे, म्हज्या मरणान तुमकां सगळ्यांक खूप दूख जातलें, हें म्हाका खबर आसा. 'मम्मीच्या दुखाची जाल्यार म्हज्यान कल्पना लेगीत करूंक जायना.' नवसा सायासानी मागून घेतिल्ले आपले चलयेक अशेतरेचें मरण आयिल्लें पळोवन ती आपल्या जिवाचें बरे वायट लेगीत करपाक आसा. म्हाका हेवूंय खबर आसा वयनी, तूं

*तुगेल्या गोड सबावान आनी बरे वागणुकेन तांका सगळ्यांक दुखांतल्यान भायर काडलेबगर रावचीना तांकां म्हजी याद लेगीत येंवक दिवचीना. वयनी तूं म्हगेल्या पप्पा मम्मीक बरेतरेन सांबाळून घेतलीच, पुणून म्हगेल्या वाडीच्या आईबाबाक विसरूं नाका आं! तांणी बाबड्यांनी एकूच न्हय जाल्यार दोन चलयो ओगडायल्यात.*

*आतां तुजो निरोप घेतां वयनी. मम्मी पप्पाक आनी तुका आनी भय्याक म्हजो नमस्कार! देव तुमकां बरें करूं! म्हजो फुडलो प्रवास सुखाचो जांव असो आशिर्वाद दी म्हाका वयनी. ही म्हजी निमणी इत्सा आसा.*

दोळे पुशीत पुशीत उशान सगळी चीट वाचून काडली आनी जेन्ना तांणें पियाचे निशाणेकडेन नदर भोंवडायली, तेन्ना ती ताका दिसलीच ना. निशाणेच्या जाग्यार फकत एक तिंताचो ओलो ओघोळ आशिल्लो.

थरथरत्या हातांनी ताणे ती चीट परतून लाखाट्यांत घाली आनी लाखाटो पर्सींत दवरून तें हर्स गाडयेची वाट पळेत बसलें.

थोड्या वेळान उदय आयलो आनी ताणें गाडी आयिल्ल्याचें सांगलें, तशें तें उठलें, तोंडावयल्यान लेंस भोंवडायलो आनी काळजाचेर फातोर दवरून फुडले तयारेक लागलें.



जल्म : २८ जून १९३४

नरेंद्र काशिनाथ कामत हे कोंकणीतले एक जेश्ट साहित्यीक. तांचीं पारजत फुलां (१९९३), वाकडे म्हेडीक वाकडें नेम (२००८) हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. त्या भायर, देवाची करणी (१९९८), माणकां मोतयां (२००४), म्हापुरूश (२००४), काणी एका रत्नाची (२००७) हीं बालसाहित्या वयलीं पुस्तकां तांणी रचल्यांत.

बिंदूलो बाबू, मदली भयण, अबुद्धी ह्या शरदचंद्र चटर्जी हांच्या बांगला कादंबऱ्यांचे तांणी कोंकणी अणकार केल्यात. कोंकणी आनी मराठी वृत्तपत्रांतल्यान तांणी विपूल ललीत लिखाण केलां.

'हंतम' ही तांची नवीताल्ल कादंबरी. २०१० वर्सा साहित्याच्या योगदाना खातीर गोंय सरकारान तांचो कला गौरव पुरस्कार दिवन भौमान केला.